




# वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन

बी. हृदयकुमारी



भारतीय
भासांचे साहित्य
घडोवपी



पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृता दिल्यां शिल्पांत तीन जोतिशा बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची हा अशे तरेची सगळ्यांत पुर्लिल्ला नोंद आसूंये.

*नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडों, इसवी,*

*नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.*

भारतीय भासांचे साहित्य घडोवपी

# वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन

बरोवपी

**बी. हृदयकुमारी**

अणकारपी

**आर. के. राव**




**साहित्य अकादेमी**

Vallathol Narayan Menon (वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन) :
Konkani translation by R.K. Rao of
B. Hrdayakumari's Monograph in English
Sahitya Akademi, New Delhi (2001), Rs. Twenty Five.


First Edition : 2001

**Published by :**
Sahitya Akademi

**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi-110 001

**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi-110 001

**Regional Offices :**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Mumbai-400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Kolkata-700 053
Central College Campus, Dr. Ambedkar Veedhi, Bangalore-560 001

**Sub Regional Office :**
C.I.T. Campus, T.T.T.I. Post, Taramani, Chennai-600 113.

ISBN 81-260-1149-1

मोल :25 रुपये

**Typeset at :** Rachana Mudran, 172 M.M.G.S. Marg, Dadar (E), Mumbai-400 014.

**Printed at :** New Age Printing Press, Prabhadevi, Mumbai-400 025.

# अनुक्रम


1. परिचय 1
2. परंपरावादी 8
3. राष्ट्रीयताचे कवी 15
4. वळ्ळत्तोळांचे कांय लघुकवितांचे तोलमोल 25
5. वळ्ळत्तोळांचीं आख्यान काव्यां 36
6. सैमा-गायक कवी 50
7. एक स्वच्छंदवादी कवी 59
8. एक गद्यलेखक आनी समीक्षक 66
9. वळ्ळत्तोळांची काव्यकला 71

सहकारी ग्रंथांची नामावळ 81

# अध्याय एक

## परिचय

विसाव्या शतमानात भारतीय साहित्यांत अजापाचे विकास जाला. सामाजीक आनी राजनीतीक जीवनांत आयल्लें महापरिवर्तन आनी अस्तंतोचे साहित्य आनी संस्कृताय हांचे संपर्कान हे विकासाक चड करून प्रेरणा मेळी. मलयाळम साहित्यानय हे तरेचे ताकताचे प्रभावान, नवे रीतीर विकास केलो. आनी नवे प्रमाणाची जाणवीकाय प्राप्त केली आनी गूण आनी प्रमाणां दोनीतंय साहित्य वाडलें. केरळांतले नवे जागरणाचे फुडारी परंपरेचे महत्त्वाचे सुवातेर धीर रावल्ले, प्रतिभासंपन्न मनीश आशिल्ले. तांचांन नवें आनी पोरणें - दोनीकय मेळोवपाक जालें. मलयाळम काव्य साहित्याचो आधुनीक काळ हे तीन महाकवींत सून आरंब जालो - कुमारन आशान, वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन आनी उळ्ळूर परमेश्वर अय्यर. हे तेगंय 1870 कालखंडात जल्मले. मनांचो विस्तार आनी अभिरुचीची विविधताय हांत ते सारके आशिल्ले जर भासेची प्रतिभा, तांचेर प्रभाव घाल्लेले नवे कार्य आनी परणी परंपरा - हें सग तांचे जिवीतांत भिन्न प्रकारानी स्पश्ट जालें.

वळ्ळत्तोळ म्हण जनप्रिय भाशेन वळखचे नारायण मेनोन हांचो जल्म 1878 क्रिस्तावं वर्स अक्टोबर म्हयनांतल्या 16 तारीखेक जालो. वळ्ळत्तोळ हें तांचें घराणेचे नांव. दामोदरन एळयत तांचे बापूयचें नांव. तो एक मलयाळी ब्राह्मण आशिल्लो. आनी तांची आवय वळ्ळत्तोळ घराणेची कुट्टिप्पारु अम्मा आशिल्ली. मेनोन तांचो एकलोच एक पूत आशिलो. वळ्ळत्तोळ एक लान गांव 'चेन्नरांत' जल्मले. हो गांव उत्तर केरळांतले पोन्नानी तालुकाचो एक भाग वेट्टत्तुनाडांत आसा. 'वेट्टत्तुनाटु' फूडे एक स्वतंत्र प्रदेश आशिल्लो. तो प्रदेश थंयचे वीर राजकुमार आनी तांणी कवींक दिवंचे संरक्षण- हांचे खातीर प्रसिद्ध आशिल्लो.

वळ्ळत्तोळांचे शिक्षण-दीक्षण मलयाळम आनी संस्कृत हांत जालें. प्रारंबाचें शिक्षण मलयाळमांत जालें. उपरांत तांचे मामा रामुण्णी मेनोना कडे संस्कृत शिकले. रामुण्णी मेनोन संस्कृत भासेचे व्हड पंडित आनी नामनेचे वैजय (आयुर्वेदाचे) आशिल्ले. म्हजो भाचो म्हजे गदी एक वैज जावुंक जाय अशें तांची इत्सा आशिल्ली. संस्कृत भासेचीं काव्यां आनी नाटकां शिकुंक मदत दिल्ले उपरांत संस्कृताचो म्हापडिंत कैकुळंकरा रामवारियराकडे

आपणाले शिष्याक धाडलो आनी तांणी ताका स्वयम् भारतीय वैजशास्त्राचो मूळ ग्रंथ 'अष्टांगहृदयम' शिकयलो. तांणी पद्यरचनांत त्या तरणट्याची निपुणताय पळवन ताका श्लोक रचुंक आनी अक्षर श्लोक आनी समस्यापूरण सारके साहित्यीक निपुणताय हासिल करपाक प्रोत्साहन दिल्लें. कथाकळी सारके कलेंन आनी साहित्यांत तीक्ष्ण रुची दाखोवंचे सुमार दोस्तांचो जमो तांकां आशिल्लो. वळ्ळत्तोळांचो बापूय कथाकळीचो पिसो आशिल्लो. शेजार जावंचो कथाकळी अभिनय पळोवपाक ते केदप चुकनाशिल्ले. भुरगो आसतनाच ते तांचे बापूचे बराबर कथाकळी पळोवपाक वताले आनी हे कलेची सुन्दरताय आदमासुंक पाव जाले. कविता आनी कथाकळी- दोनींतय तरुण कवी पिशो जालो.

किशोरावस्थेचे फूडेच तांणी पद्यांरचुंक आरंब केलो. संस्कृत अथवा मलयाळम भासेंत ते सरळ पद्यांरचताले. तांचे आवयचे मृत्यूर संस्कृत भासेंत रचिल्ले शोकगीत तांकां संस्कृत भासेचेर आशिल्लो अधिकार सुचयता. तांचे 21 वर्सां पिरायेर मोसमाचें वर्णन करन तांणी 'रुतुविलासम' कविता रचली. ही कविता काळिदास कवींली 'ऋतुसंहार' कवितेचें अनुकरण आसा. तांच्यो कांय कविता उजवाडायल्यो, कांय हातबरपा रूपान तांचे दोस्तां मद्दें प्रचार केल्यो आनी साहित्य समाजांत वळ्ळत्तोळ नांव पावले. त्या काळाचे तांचे पाशीय म्हालगडे नामनेचे कांय मनीश- हांची तोरवणाय आनी मैत्री जोडचें सौभाग्य तांकां प्राप्त जालें. तांचांत म्हापंडित पुन्नश्शेरी नंपी नीलकण्ठ शर्मा आनी सामूतिरी घरानेचे म्हालगडे राय एट्टन तंपुरान आशिल्ले. हांत साहित्यकारांचे आनी पंडितांचे संरक्षक तंपुरान 'नवीन भोजराज' म्हण प्रसिद्ध आशिल्ले. कविता पारायण, संगीत सम्मेलन आनी साहित्य चर्चा हांत एट्टन तंपुरान कशें कवींचो सहवास मागतालो म्हण वळ्ळत्तेळानी तांगेले एक कवितेंत उगडास केला.

केरळ एक संपन्न राज्य न्हय तरीय, राजनीतीक स्वातंत्र्य ना आशिल्लें तरीय ताची सांस्कृतीक परंपरा वायट भारोन दुर्बळ न्हय आशिल्ली. पयस एकांत गांवांसरी संस्कृत शिक्षणाचो खूब प्रचार वाडलो आनी सगळे कडेन पंडित आनी लेखक आशिल्ले ज्यांची बुद्धी संबंदी अभिरुची, थळावो शीमो पार करून एक समाजाची भावना तांचांत वाडोवन हाडली. राजा आनी उमरावजन तांची परनी ख्याती नातरीय विद्वत्ताक प्रोत्साहन दिवंची परंपरा चालू दवरली. आनी ते आनी तांचे उमरावजन, जे स्वयम् पंडित आशिल्ले, लेखकानी तृप्त करचे भारी पक्षपाती पाठक वर्ग आशिल्ले. एक कवीक समाजीकाय आनी तोरवणाय हांचेर आदमासयेत. हे संदर्भात केरळ संवसाराचे रवंयच्याय सुसंस्कृत देशाची बराबरी करूं शकता. असले उद्दीपक वातावरणांत वळ्ळत्तोळ वाडले आनी फुल-फळून कवी जाले.

तेईस वर्सां पिरायेचेर तांचें लग्न जालें. तांचे व्हकले नाव माधवी. ती तांचे एक मामाची घूव. कांय समय साकून ते तिका मोग करताले. तांची बाळसखी, आपणाली जीवनसंगी जावपाक तांकां अप्रूप आनंद जालो.

आतां वळ्ळत्तोळानी जायत्यो कविता रचल्यो. त्यो चडय तांचे प्रीतीची देवी देवतांचीं

स्तोत्रां, पुराणांतले विशयांक आधारून रचलीं कथा-काव्यां, कांय अनुकरणां आनी वैजकी पुस्तकाचीं रूपांतरां आशिल्यो. पूण तरुण कवीक एक वैज जावंची कांय इत्सा ना आशिल्ली. आपणालो पुराय वेळ काव्य सृजनांक दिवपाक ते इत्सा करताले. तेन्ना धनवर्तकांक न्हन्तना दुसर्यांक निपट साहित्यीक जीवनाचें सुख भोगपाक जायना आशिल्लें. वळ्ळत्तोळांचे भाग्य म्हण सांगयेत तांकां ट्रिचूरचे 'केरळकल्पद्रूमम्' छापखाण्याचे व्यवस्थापक जावपाक निमंत्रण मेळें. पगार प्रतिमास तीस रुपया. हो दुडु त्या काळाक भो उणे न्हय. वळ्ळत्तोळांक हें काम आवडलें. तांकां मेळची पगार आनी फुरसत हांचांन तांगेले प्रयत्न करीत रावचाक योग्य वेळ मेळो. 'कवनकौमुदी' नांवांचे नामनेचे एक कविता-नेमाळ्याचें प्रकाशन-ज्याचो धन्नी पंदळम देशचो राय आशिल्लो, केरळकल्पद्रूमम् छापखाण्यासाक परतून सुरू केलें आनी वळ्ळत्तोळांनी गरज दिसल्यार आपणाली रचना दीवन ताकाफाव जालो सहकार दिल्लो. तृश्शूरांत आसतना तांचे दोस्त दिसान दीस चड जायत रावले- तांत कुञ्जिक्कुट्टन तंपुरान, कुण्डूर नारायण मेनोन, नडुवत्तु महन नंपूतिरी. आनी वलिय रामन एळयत - हे नामनेचे लेखक आनी पंडित मुख्य आशिल्ले. तांचे घर साहित्यकारानी मेळचे थळ जालें आनी यांगा मेळचे सर्वय तांचे कवितेची, विनोदाची आनी भासाभास करचीं समजिकाय पळोवन भुलोवताले. ते उपचारीक साहित्य समाजाचे सभा सम्मेळनांत जनानी मेळोवपाक सोदचे भाषण दिवपी जाले.

ट्रिचूर वसपाक भायर सरचे फूडेच वळ्ळचोळानी वाल्मीकी रामायण काव्य मलयाळम भासेंत अणकार करपाक आरंब केलो. नियत कामांत गुल्ल आसचे वेळारीय ते दिसान दीस तीस सून पन्नास श्लोकांचो अणकार करताले. अप्पन नंपुरान आनी कुञ्जिक्कुट्टन नंपुरान सारके पंडित हे आशांतराक मंजूरी दिताले. वळ्ळत्तोकानी हे आशांतराश्वैक वर्गणीदारांक भरती केले आनी ही रचना तांचे खातीर 1907 वर्सा क्रमान खिस्तीनीं प्रकाशन केली. उपरांत सग मेळन पुस्तक रूपान प्रकाशन केलें. तांची अनेक संस्करणां उजवाडायलीं. भागीरचीं संस्करणां फूडेचे संस्करणांपाशीय रूपकारांत सावार भिन्न आशिल्लीं. कवी ही आपणाले तरणेपणाची अपक्व रचना लेकून प्रत्येक संस्करण तपासून चकचकीत करताले. आतां संद मेळता ते प्रमाणी जायते श्लोकय रचताले.

ट्रिचूर आसतना एक फावट तांकां वायट भारकूण आयली आनी ताचे पासून तांकां आयकुप कठिन जालें. आयकुपाची तांक ना जाली देखून तांकां भो भय जालें. ते प्रति डाक्टराकडे, प्रति वैज्याकडे गेले आनी तेन्नाचे नामनेचे प्रति ज्योतिषी कडे वचून सल्लो घेतलो. चड काळाक कठिन वैजकी उपचार केले आनी कवीनी दयाळू देवाकडे प्रार्थना रूपान जायतीं स्तोत्रां रचलीं. पूण सर्वय निर्फळ जाले. वळ्ळत्तोळ पुराय केपो (भयरो) जालो. पूण हे दुख्ख भोगपांसून एक सुपरिणाम उपजलें. 'बधिरविलापम्' (एक भयरालो विळाप) नांवांची कविता प्रकाशीत जाली. ही तांची एक आत्मकथात्मक रचना.

1910 वर्सा ताणी केरळकल्पद्रूममचे काम सोडलें आनी ते आपणाले जल्म स्थानाक

वापस आयले. यांगा ताणी एक महाकाव्य रचपाक आरंब केलो. हें शतक बदलचे वेळार मलयाळम साहित्याचे विद्वान कवींचे मद्दें संस्कृत महाकाव्याचे नमूनेचेर मलयाळम भासेंत एक दीर्घ कथन काव्य-पराक्रम आनी कल्पना- हांचे मिश्रण-चालू आशिल्लें. अषकत्तु पद्मनाभ कुरुप्पानी रचलें 'रामचन्द्र विलासम'; पन्दळम केरळवर्मा राजानी रचलें 'रुक्मांगदचरितम्'; कोडुंगल्लूर कोच्चुण्णी तंपुरानानी रचल्लें 'पाण्डवोदयम'; के. सी. केशव पिळ्ळा, हाणी रचल्लें 'केशवीयम्' ; आनी उळ्ळूर कवीनी रचल्लें 'उमाकेरळम्' - ही तेन्नाचीं हे तरांची भो श्रेश्ट काव्यां आशिल्लीं. वळ्ळतोळानी संस्कृताचे पूर्विल्ले कवी सोमदेवाले कथासरित्सागरांतले एक काणिये आधारून तेन्नाचे रीतीक अनुसरून 'चित्रयोगम्' काव्य रचलें. एक सास पैंशें एकाणव ओळ्यांचे हें काव्य रचूंक ताणी दोन वर्सां घेतलीं. काव्याक मिश्र स्वागत मेळो; पोरणे विचारधारेचे कवींनीं ताचे खूब स्वागत केलें. आनी कवी कुमारनाशाना सयत सावार जनानी ताचें रीतीरिवाजपण आनी अनुकरणात्मकता देखून ती नापसंद केली.

चित्रयोगम प्रकाशन करचे वेळार वळ्ळत्तोळांची पिराय 36 वर्सां आशिल्ली. लागीचीं पन्नेरा वर्सां भितर कवीं गेली कवित्व शक्ति चरम शीमेर पावली. तांचीं चड सोबीत काव्यां ह्या वेळार रचलीं. तांचीं जायती तरां आशिल्लीं - नाटकीय, भाषा गीतात्मक, आनी विवरणात्मक. तांत 'बन्धनस्तनाय अनिरुद्धन' (कैदी अनिरुद्ध), 'शिष्यनुम् मकनुम्' (शिष्य आनी पुत्र) 'मग्दलन मरियम्' (मेरी मग्दलीन) हीं काव्यां आशिल्लीं. आनी 'साहित्यमंजरी' नावान उजवाडायल्लो लान कविता झल्लोय आशिल्लो. साहित्य मंजरीचो पयलो भाग 1917 वर्सा उजवाडायलो आनी सातवो भाग 1930 वर्सा. ताका आनी चार भाग आशिल्ले. ते मागीरचे वर्सा उजवाडायले. नामनेची कांय संस्कृत नाटकां 'पंचरात्रम्' आनीं स्वप्न वासवदत्ता' आनी कांय पुराणां (पुराणांतल्यो कथा) हांचो अणकार मलयाळमांत करचाक ताणी समय देखून घेतलो. हांचे भायर ते 'कवन कौमुदी' आनी 'आत्मपोषिणी' सारके साहित्यीक पत्रिकांचे वावरांत भाग घेताले आनी उणेकाळाक 'केरळोदयम' नांवांचे दिसाळयाचे साहित्यीक संपादकय आशिल्ले.

राजभक्ती हिन्दू लोकांचे मनांत गाड मूळ घरल्ली आनी धर्मान तुस्त करचो एक सद्गूण आशिल्लो. जेन्ना भारताचे राजालोकांचो अधिकार तांचे हातां साकून ब्रिटीश सरकाराक वदली केलो आनी विदेशी सरकारान देशांत कायदो आनी आज्ञापालन चमकयलें तेन्ना सुमार जनानी शांत मनान तें स्वीकार केलें. ते ब्रिटीश रायाचे व्हड भक्त जाले. अनेक भारतीय कवींनी विक्टोरिया म्हाराणीची अथवा एडवर्ड सम्राटाची स्तुती गायली. जांणी समुन्दर पार बेसून राज करन तांकां सद् सरकाराचे फायदे पावोवन दिल्ले. वळ्ळत्तोळांनीय आपणाले जुवानी दिसांकडे सम्राट एड् वर्डाची स्तुती करन कांय कविता रचल्यां तेन्ना तांची पिराय तेईस वर्सांची. एकीस वर्सां उपरांत तांचे मनांची अवस्था आनी दृढ विश्वास अशें वदलें कि काव्य साहित्याक तांचें योगदान स्वीकारून तांकां प्रदान केल्लो पुरस्कार तांणी तिरस्कार

केलो, स्वीकारलो ना. 'म्हजो गुरू गान्धीजी जेलांत बन्द आसचे वेळार म्हजान हो पुरस्कार स्वीकार करपाक जायना' अशें ताणी म्हळें. भारताचे एक अस्पश्ट कोणशाक रावचे एक कवींनी महासम्राटान प्रदान केलो पुरस्कार तिरस्कार केल्ले मात्रान कवींचो स्वाभिमान मात्र न्हय, आमचे देशाचो भितरचो एकचारूय सुचयता. समस्त देशांत नव्यान उदेवपी राष्ट्रीयताचो प्रभाव वळ्ळत्रोळांचेर पडला भारताचे पूर्विल्ले इतिहासाचेर तांकां आशिल्लो अभिमान आनी तांचांत अगाध मूळ धरलें हिन्दू मनोभाव - हीं दोनींय तांचे राष्ट्रीयताचे भाग जालीं तांणी गान्धीजीक आपणाले गुरू मानून घेतले. भारताचे स्वतंत्रतायेचे झूजाचे उदात्त नाटकाचे महान गजाल, कार्यावळ आनी आन्दोलन हांचान ते सर्वात्मना प्रभावीत जाले. मलयाळी लोकांक देशाचे महान स्वतंत्रता संग्रामांत भाग घेवंचाक फुर्ती दिवपी देशप्रेमाचो अभिमान लकलकपी जायत्यो कविता ताणी रचल्यो.

कविता सरस्वती उपरांत वळ्ळत्तोळ कथाकळीक मोग करताले. तिजो पुनरुद्धार करन तिका पूर्विल्ले महत्वाचे आसनार वेसोवपाचें सपन ते देखताले आनी कथाकळी कलाकारांक अभ्यास दिवपाक एक विद्यालय स्थापन करचाक कठीन प्रयत्न केले. 1930 वर्सा 'केरळकलामंडलम'ची वुनियाद घाली. कथाकळीचो उमेदी मांकुळम देशाचे रायान, उदार मनान तांगेलो एक बंगलो विद्यालय चलोवपाक भाड्याक दिलो. वळ्ळत्तोळानी कला प्रेम्यांकडे साकून सुमार दुड्डू जमायलो. विद्यालयात शिकोवपाक नामनेचे अध्यापकांक आपोवन हाडले आनी प्रति दिवस तांगेलें काम तपासून सावार घडी ते थांगा वेसताले. ताणी आपणाले दोस्त नामनेचे पंडित आनी समीक्षक कुट्टिकृष्ण मारारांक प्रशिक्षणार्थ्यांक कथाकळी साहित्यांत आधार मेळचे शिक्षण दिवपाक प्रतिनिधी नियुक्त केले. उपरांत 'कलामंडलम' मण्डलीक घेवन भारतांत आनी विदेशांत यात्रेक गेले. आनी कलालय निर्माणाक दुडू वसूल केलो. 1937 वर्सा 'कलामण्डलम' चेरुतुरुत्तीचे नवे भवनांत स्थानान्तरीत केलें. त्या भितर विद्यालयाची कीर्त दूरा मेरेन पसरली. समस्त भारतांतल्येय भायरचेय विद्यार्थी थंय शिकपाक आयले. कथाकळीचे भायर केरळचीं दुसरी नृत्यकलारूपांय थंय शिकयतालीं. 1939 वर्सा एक मण्डलीक शान्ती निकेतनाक घेवन गेलो. अभिनय जाले उपरांत टागोरानी म्हळें: ''आतां जेन्ना भारतीय शुद्ध नृत्यकलारूपांचो उगडास दिसनासो जालो तेन्ना केरळचे हें व्हड नृत्य नाटक रूप पोळोवन उत्तर भारताचे आमकां रोमांचकारी अणभव येता.'' हें पूर्वपुरातन नृत्यकलारूप राखून दवरचे खातीर वळ्ळत्तोळानी करचे प्रयत्नाक तांकां आभार परगटायलो. वळ्ळत्तेळानी कलामण्डलम संस्थेक एक बळिश्ट बुंनियादीचेर स्थापन केली.

प्रशिक्षणाक एक परिपूर्ण क्रम हाडलो आनी हे संस्थेक भारताचे आनी संवसराचे लक्षांत हाळें. 1941 वर्सा ताणी हें कलालय राज्यसरकाराक सोंपलें. आतांय ती संस्था चंदरूपान चालू आसा. आनी कथाकळी परतून जनप्रिय जाल्या. जेन्ना वळ्ळत्तेळानी कथाकळीचो कायाकल्प करुक आरंव केलो तेन्ना तांचे समीक्षकानी ते जीवाश्माक अजाव्यवघरांत

दवरपाक तांकां उपदेश केलो. पूण जीवाश्माक नवो जीव आयलो आनी आतां ती भोकाळाक जियेतली अशें वचन दिता.

दुसरे वावरांत कितलेय गुल्ल आसात तरीय ताणी कवितेची उपेक्षा केलीना. 1930 उप्रांत साहित्य मंजरीचे आखरचे चार भाग उजवाडा आयले, आनी 'विषुक्कणी', 'दिवास्वप्नम' आनी 'वीर श्रृंखला' नावाचो लघुकाव्य संग्रह प्रकाशन जालें. 1941 वर्सा, तांचें व्हड जनप्रिय काव्य 'अच्छनुम मकळुम' (वाप आनी धूव) खंड काव्य प्रकाशन जालें. हे सारके कांय कविता न्हन्तना तांची मागीरची चडान चड कविता पळयल्यार तांची काव्यकांती उणे जाता सी दिसता. 1940-1950 हाचे मद्दें रचिल्यो तांच्यो चडान चड कवितांत तांची वामपक्षी राजनीतीची विचारधारा परगटायता, 'इन्ड्ययुटे करच्चिल्' (भारताचो विळाप) आनी 'वळ्ळत्तोळरष्यियिल्' (वळ्ळत्तोळ रूस राज्यान्त) ऱ्हीं काव्यसंग्रहां तांची नवी प्रवृत्ती सुचयतात.

ह्या काळांत वळ्ळत्तोळानी सुमार रचनांचे अणकारय केले. 1937 वर्सा काळिदासालें 'शाकुन्तलम' नाटकाचो अणकार सर्वप्रथम प्रकाशन केलो. बारावे शतकांतले संस्कृत कवी वत्सराज, हांगेले चार नाटकांचे अणकार 1940 वर्सा प्रकाशन जाले. तीं 'कपटकेली', 'कर्पूर चरितम', 'रुक्मिणीहरणम्' आनी 'त्रिपुरदहनम' आसात 1951 वर्सा क्षेमेन्द्राचे 'बोधिसत्व पठन कल्पलता' हे रचनेचो वळ्ळत्तोळांगेलो मलयाळम अणकार तिरुवितांकूर विश्व विद्यालयान प्रकाशन केलो. 1972 वर्सा 'हलगाथा' सप्ततीचो अणकार उजवाडायलो. ताचो रचपी पयले शतमानाचो एक संस्कृत कवी 'हलां आशिल्लो. पंचास्तर वर्सां पिरायेर कवी वळ्ळत्तोळानी रुग्वेद ग्रन्थाचो मलयाळम भासेंत अणकार करचे वरिश्ट काम हातासलें. 'अन्नाडी जनांक वेद शिकोवंक जाय' - स्वामी विवेकानन्दाचीं हीं उतरां परगट करपाक वेळ पळोवन कवीचें मनांत रावलीं. विवेकानन्दाचे हे उतरांसून प्रेरणा घेवन तांणी रुग्वेदाचें अणकार करपाचें कठीन काम आपणायलें. दोन वर्सांनी ताणी हें काम पुराय केलें. हें भाषांतर - थोडो सो भाग गद्य रूपानय आनी मात्सो भाग पद्य रूपानय आसा. वेद पंडित हो अणकार पळोवन पुरायेन तृप्त न्हय आशिल्ले. पूण हें तथ्य तांकां न्हयकारुंक जायना जालें कि मलयाळम भासेची एक भारी व्हड गरज ताणी पुराय केली.

कवींची चड मोलादीक रचना प्रकाशन जायत साकून वळ्ळत्तोळांचो आदर-सत्कार जावुंक लागलो. तांची मान मर्यादा वाडली. 1919 वर्सा कोची राज्याचे रायानी 'कवितिलकम' विरुद प्रदान केलें. 1928 वर्सा रायानी तांकां 'कविसार्वभौम' हें दुसरें विरुदय प्रदान केलें. 1948 वर्सा सरकारान तांकां चार राजकवींत एकलो म्हण मान दिलो. ते केंद्र साहित्य अकादमीचे मेम्बर आनी केरळ साहित्य अकादमीचे उपाध्यक्ष आशिल्ले. 1955 वर्सा भारत सरकारानी तांकां 'पद्मभूषण' खिताब प्रदान करन तांचो भोवमान केलो. पूण तांचे वाचप्यानी तांकां प्रदान केल्लें 'महाकवी' (व्हड कवी) खिताब सग खिताबां आनी भोवमानापाशीय व्हड आशिल्लें.

वर्सां पिरायेर वळ्ळत्तोळ व्हड क्रियाशील आशिल्ले. 1950 वर्सा, आपणाले बास्तर वर्सां पिरायेर 'वारसा' राज्यांत भरल्ले शान्ती सम्मेलनांत ताणी भाग घेतलो. तांकां अंग्रेजी अथवा अस्तंत देशांची आनी स्वयंचीच भास कळना आशिल्ली. पूण वारसा देशात आपणाली एक कविता वाचून आयकोवपाक (कविता पाठ करपाक) आनी पारीस विश्वविद्यालयाचे एक वरिश्ट लोकांचे सम्मेळनांत 'कथाकळी' पसावत भाषण करचाक तांकां कांय कश्ट जालेना. मागीरचे थोडे वर्सां भितर ताणी सोवियट यूनियन आनी चैना-देशांत भ्रमण केलें आनी कथाकळीं मंडळीक घेवन चैना, मलया आनी सिंगपूर-हे देशांत गेले. स्वदेशांत ते साहित्य समाजांत विशेष करन समस्त केरळ साहित्य परिशदांत भाग घेताले. 1946 वर्सा ते परिशदेचे अध्यक्ष जाले. आनी धा वर्सांक ते उददेगाचेर आशिल्ले. परिशद सम्मेळनाचीं तांचीं भाशणां एकटावन प्रकाशन केल्यांत. हे भाशणांची संपन्न गद्यशैली आनी विशाल साहित्यीक संवेदना शक्ती वाचप्यांक प्रसन्न करतात.

वळ्ळत्तोळ 1957 वर्सा मार्च तेरा तारीकेक अन्तरले. तेन्ना तांची पिराय एकूणाशीं वर्स. तांचे जीवन पूर्ण, तांचे व्यक्तित्व उज्वल आनी धीर, आनी तांची प्रतिभा भरपूर सर्जनात्मक आशिल्ली. ते आनी तांचे काव्य आमचे देशाचे परंपरागत संस्कृतायेचे गरजेचे शक्तीचे नमूने आसात.



# अध्याय दोन

## परंपरावादी

अंग्रेजीचें कांय ग्यान नातिल्ले, संस्कृत भासेंत शिक्षण पाविल्ले, इकूणीसांव शतमानाचे अखेर केरळचे एक गावांत जल्मले एक कवी परंपरावादीच न्हंतना कांय दुसेर जावुंक शकनात. ते परस्पर विरोधी दबावांचोय जीवाक दुखख दिवंचे कश्टांचोय अणभव करना आशिल्ले. पोरणे मूल्यांकय पोरणे रीत-चालीकय ते परिपूर्ण अनुकूल आशिल्ले. वळ्ळत्तोळ तसले परंपरावादी आशिल्ले. सरळ निसुवार्थ मनाचे परंपरावादी जावंचें तांकां चड सोंपें आशिल्लें, कारण प्रबल व्यक्तित्व आसा तरीय केरळची संस्कृताय आनी साहित्य, हिन्दू धर्म आनी संस्कृत भासेची संस्कृतायेची परंपरेक लागून वागलीं.

बारा शतमानां सून मलयाळम कवितेची शब्दचयन शैली संस्कृत उतरांची 'मणि' (रत्न) आनी मलयाळम उतरांची 'प्रवाळम' (मोतीं) हांची भरसण आशिल्ली. खरें म्हळयार, मणिप्रवाळम मलयाळमच आसा, तांत अनेक परकी संस्कृत उतरांचे देशीकरण केला. एक एक कवींनी आपणाले रचनेंत संस्कृत आनी शुद्ध मलयाळम उतरांची भरसणीचो अनुपात चडऊणे केला जावयेत. पूण संस्कृताक एक दम पयस दवरून एक शुद्ध मलयाळम शैली कृत्रीम दिसताली. दीर्ग कवितांत मलयाळम भासेची सुयोग्य, स्फूर्तीदायक आनी मधूर उतरां उपेग करचांत वळ्ळत्तोळ व्हड प्रतिभाशाली आशिल्ले. पूण ताणी गतीशील भावगीतांतय चडकरन संस्कृतां साकून शब्द घेतले. देखीक: मलयाळम भास आनी साहित्याचो यशोगीत गावपी तांची नामनेची कविता 'एन्टेभाषा' (म्हजी भास) हांत चड करन संस्कृत उतरांचो उपेग केला. तांचे विशेष करन संस्कृत छंदांत रचल्यो कांय कवितांत देशीकरण केलेले मलयाळम उतरां साकून भिन्न आनी पांडित्यपूर्ण संस्कृत उतरां सुलभ आसात. धर्म, कर्म, योग, मुक्ती, मोक्, निर्वाण, निवृत्ती, व्रत, दम, सम, सच्चितानन्द, परमात्मा- असलीं उतरां तांचे कवितांत सर्वत्र दिसतात. हीं उतरां हिन्दू विचार धारेचे वाक्प्रयोग आसात. हांकां अंग्रेजींत समानार्थक उतरां नात. तांचे कवितेचें भायलें रूप परंपरागत मूळ तत्वांचेर आधारून आसा, म्हण लेखचांत अजाप कांय ना.

हिन्दु भारताचीं मोलादीक पुराणां आनी साहित्य वळ्ळत्तोळ कवितेक फाट-भूंय आनी

फाट बळ दिवंचे आधार आसात. तांचीं चडान चड काव्यांचे विशय आनी पात्र पुराणा साकून घेतल्यात. 'अनिरुद्ध' काव्यांत श्री कृष्णाचो नातू 'अनिरुद्ध' आनी असुर रायाची धूव 'उषा' हांची पूर्विल्ली वळखीची प्रेम कथा आसा. 'शिष्यनुम् मकनुम्' (शिश्य आनी पूत) काव्यांत शिव, पार्वती, गणपती, सुब्रह्मण्य, परशुराम, राधा आनी कृष्ण - हीं पात्रां आनी घटनाथळ कैलास, आनी कथांश पुराणांतले आसात. 'ओरु चित्रम्' (एक चित्र) ही श्रीकृष्णाचेर रचली एक सुंदर कविता आसा. 'अम्पाटियिल् चेल्लुन्न अक्रूरन' (गोकुळांत पावलो अक्रूर) ही कविता भागवतांतले एक प्रकरणाचेर आधारून रचल्या. कृष्णाक मथुराक घेवन येवंचाक अक्रूर वृन्दावनाची यात्रा करता - हेंच प्रकरणाचें वर्णन. अनीक एक कविता 'कर्मभूमियुटे पिंचुकाल्' (कर्मभूमीचीं ल्हान पावलां) हांत काळिय सोरोपाचे मस्तकाचेर कृष्णान केल्लें नृत्याचें वर्णन आसा. 'अच्छनुम् मकळुम्' (वाप आनी धूव) हे कवितेंत विश्वामित्र आनी तांची धूव शकुन्तला हांचे काल्पनीक भेटेचें वर्णन आसा. 'किळिक्कोंचल्' (लान पक्षीचे बोबडे बोल) कवितेंत उद्यानांत खेळचे पांच वर्सा पिरायेचे सीतेचें वर्णन आसा. हांचे भायर 'आ मोतिरम्' (ती मुद्दी), 'भक्तियुम् विभक्तियुम्' (भक्ती आनी ज्ञान), 'मलयाळतिन्टे तला' (केरळाचें माथें) - हीं केरळचे दंत कथांचेर आधारून ताणी रचल्लीं अन्य काव्यां आसात. असले दंतकथांचेर आधारून ना आशिल्ले कवितांतय तांत सून घेतलीं बिवां, प्रसंग आनी पात्रां- हांचे खूव उल्लेख आसात. आनी हे उल्लेखांक एक धार्मीक सबावगूण आसात. गान्धीजीचेर रचल्ली तांची 'एन्टे गुरुनाथन्' (म्हजे गुरु) नावांचे कवितेंत कवी म्हणता:

केवल गीता निर्माण केल्लेली ही भूंयींच असले कर्मयोग्यांक जल्म दितली. हिमालयाचे विशाल आनी विन्ध्याचलाचे मध्यभागाचे देशांतच असलो सहनशील आनी शमनशील सिंह निर्माण करू जाता.

जंय गंगानदी व्हळता थंयच अशे मंगळफळां दिवंचो कल्पवृक्ष निर्माण जातलो.

'पांपमोचनम' (पापांसाकून मुक्ती) नावांचे एक दुसरी कवितेत विश्वामित्राले घोर तपस्यांत आशिल्लो दृढ निश्चय, जनक रायांचो व्हड कर्मयोग, भीष्माचो धर्मयुद्धावयलो पराक्रम, तशेंच हिताचो उपदेश दिवपांत विदुरांगेली कुशळताय - हे सर्वय गुण कवी गान्धीजींत पळयतात. नीळ आकाशांत तिरंगांची ही पूज्य पताका ऊंचायीर फडक पळोवन खोसेचे उमाळ्यात कवी म्हणता "पोरा पोरा" (पावना पावना) :

देवरुषीकं ती आनंद प्रदान करो,

जशें वसुदेवाचे हृदयावयर फुलांची माळा दिवूं सारकी. 'मग्दलन मरियम' (मेरी मग्दलीन) कवितेंत कवी क्रीस्तूक कृष्णावरी पळयता, तांचे नीतीचें पाठ हें:

कृष्णाचे मुरळीचे मधूर सुर अनुपम आसात

आनी कृष्ण क्रीस्तू आसा.

हिन्दू परंपरेंत गाड प्रवीण कवींचेर हिन्दू दर्शन शास्त्रांचो प्रभाव पडचो निपट सभावीक

आसा. वळ्ळत्तोळ दर्शनशास्त्री न्हय. वेद उपनिशदांचे अमूर्त संवसारा पाशीय तांकां पुराणां आनी म्हाकाव्यांचे नाटकीय आनी बहुसंख्यक पात्रांची चड वळख आसा सी दिसता. पूण अद्वैत दर्शन शास्त्राचो प्रभाव, केन्ना केन्ना स्पश्ट, केन्ना केन्ना अस्पश्ट रूपान तांचे कवितेंत आसाच. सर्वय जीवांचोय एकचार ईश्वरांत - अशे तांचो विश्वास आशिल्लो. देखून ते एकचार आनी समताचें आव्हान करतात. 'ओणप्पुटवा' नावांचे कवितेंत ते सूर्याक उलो दीवन म्हणतात:

ओ ग्यानाचें मूर्तिरूप,
तुमचे आंगातंली पवित्र किरणां,
ब्राह्मणाचे पूजा पात्रां कय
हरिजनाचे खोंपयांत आशल्ले
मासळी सिजोवंचे मातियेचे कुळ्ळयांकय
सारके जोशान स्पर्श करता.

'अद्वैतम शिवम शान्तम' नावांची आनी एक कवितेंत ताणी केरळचे एक वर्सा जाल्लेले हुंवार आनी दुश्काळ हांचे कश्टांचा वर्णन केलां. कोणाकय कोणाचेरीय अगळो वेगळो कांय अधिकार ना. हें जाण जावुंक सैमान गरीब आनी धनवन्त हांचो भेद ना केलो. ब्राह्मण आनी हरिजन - हांकां बराबरीचे कश्ट दिले, अशें हुंवारा खातीर कवीक विश्वास करचे पडताच सी दिसता. केरळ हे अणभवा साकून फायदो पावो आनी पाक्कनाराची ही मातृभूमी 'अद्वैतम्, शिवम् शान्तम्' (शान्त, मंगळ, सुन्दर एकात्म दशा) ची स्थीती पावो - अशें कवी इत्सा प्रकट करतात. असले विचार तांचे कवितेंत परत परत दिसतात आनी ते हिन्दू समाजाक सुदारपाची आनी जाती प्रवृत्तीचे पातकां साकून ताका मुक्त करपाची तांची इत्साय परंपरेचे हिन्दू विचारधारा साकून उपजल्यात अशें दिसता. परंपरेचे अनुगामी पुराणाचे पंडित हे कवींक सहज रूपान हिन्दू मनाचे सभावाक अनुकूल मनोविकारांचे प्रकार आनी जीवनाची विशेष धारणा आसा. तांत भक्ती अथवा श्रद्धा एक आसा. ही भक्ती हिन्दू मनांक शतमान वर्साचे शिक्षण पाविल्यान तांचेर खोल सजिल्ली दृष्टी पडता. भारतीय साहित्याचो परिचय पाविल्या कोणाकय वळ्ळत्तोळ कवींगेले 'ओरु चित्रम्' (एक चित्र), 'अम्पाटिपिल चेल्लुन्न अक्रूरन' (गोकुलांत पाविल्लो अक्रूर), 'भक्तियुम विभक्तियुम' (भक्ती आनी ज्ञान) सारके कवितांये थर आनी गूण पररवूंक जातांत. 'ओरु चित्रम्' मनांक आनन्द दिवंचें कृष्णाचें मधूर चित्र आसा. वाक् प्रयोगांत मधूर आनी भक्तीचे भावगीत रूपान वर्णन केले पासून सुन्दर सोबीत जालां. गायक धार काडचे वेळार यशोदेचे अंकाचेर उतरून रावल्या बालकृष्णाक उलो दीवन कवी म्हणता:

तूं तुजे आवयचेर तेंकून आसा
तूंच हे विश्वाचो माय-बाप आसा
धर्माची रक्षा करचाक तूंच काळाकाळार अवतार घेवन लोकांत येता

लोणी अथवा दूद - हांची भेट घेवपाक गोकुलचे वायलाचे मन जाणून तांचे मुरबार नाचता

आपणाले तीन पावलानी तूंवें तीनीय लोक मेजले'

ओ नीळ रंगाचो बालक रूपधारी! सर्वय लोकाचो अधिपती आनी संरक्षक, हांव तुका नमन करतां.

'अम्पाटियिल् चेल्लुन्न अक्रूरन' नावांचे कवितेंत कृष्णाक दाखोवन दीवन कवी अक्रूराक सांगता:

ओ चातक पक्षी, तूंवें सोदचें नीळ मेघ हेंच उपरांत कवी कृष्णाचें उज्वल वर्णन करता:

नंदाले घरांत परमात्मान जळयल्लो सुन्दर दीवो हो पुण्यवती यशोदाचे हृदयार लकलकचे महेन्द्र नीळ रत्न हो एक बाल रूपी गोपीकडे साकून दूसरीकडे उडचो मनोहर पक्षी हो काळिन्दी तडीर खेळचो काळो हंस हो

गोप बालकांचो मोगाळ सांगाती हो

वेद विद्वानानी जाणतले ब्रह्मांडाचें तत्व हो.

वळ्ळत्तोळानी आदर करचे मातृभूमी पासून जावो अथवा तांचे मोगाचे न्हंयचे पासून जावो, पर्वताचे अथवा ताणी तुस्त करचे एक म्हात्मा पासून जावो, वर्णन करचे वेळार सर्वत्र अदीक करन मान-भोवमानाचो एकूच स्वर गाजता दिसता. गान्धीजी पासून रचले कवितेंत 'भक्ती' अतिशय गंभीरतायेन परगटायल्या 'पापमोचनम्' कवितेंत वैक्यम सत्याग्रहाचे वेळार थंय गान्धीजीचे उपस्थितीचें वर्णन कवी अशें करतात:

पयस साकून ऊषा झळकू लागली

तिजे तांबूस गाल आनंदान झगझगताले,

नवे बुद्धाचें दर्शन करचे उत्सुकतायेन

आकाशाचे वाटारार साकून आदराचे आसू

दोवाचे थेंब्या रूपान गळताले

सर्वत्र जागृताय आनी उजळकाय आशिल्ली.

हांव गुरुदेवांचीं पावलां दर्शन करूं शकलों

हांव मानवरूपान अवतार घेवन आयल्या एकतेजरासीचे लागी आशिल्लो.

उपरांत कवी आपणाले दुखख स्पश्ट करतात:

हाय! लोकांचो गोंदळ आशिल्यान तांचे चरणांचेर

दंडवत नमन करचें सौ भाग्य मेळें ना

केवलतांचीं मोवाळ पवित्र चरणां स्पर्श मात्र करचें भाग्य मेळें.

हाय, हांव कितलो व्हड पातकी, काशी जात्रेक भाग्य मेळें तरीय, गंगेंत बुडून न्हावूं शकलो ना. विनय, कौतुक, आदर, प्रेम - हे आनी हेर अशेंच तरेचे मनांचे विकारांचे

मिश्र रूप आसा भक्ती. ती आमकां सत् गुणाचे परंरूपांत रूपान्तर करन आपणाले सत्ताधीशाकडे पावंयता. होच वळ्ळत्तोळाचे अनेक कवितांचो रूपांतर करपाचो सामान्य सभाव गूण आसा.

संस्कृत आनी पूर्विल्ले मलयाळम भासेचे चडान चड कवितांत कवीची दैवभक्ती जीवनाची एक गाड आनी आनंद दिवयी उत्तेजनाक मेळन आसा. जीवनांत इन्द्रियांक तीक्ष्ण खोस दिवपी आनंद, निसर्ग सौंदर्यात खूब संतोष, संवंदी वर्गाचेर आत्मविश्वासाचें सुख - होच भारतीय मनाचो सभाव आसा. गंभीर योगी आनी धर्मांत कर्मठ - हांचे भायर ह्यो प्रवृत्तीयो चडऊणे प्रमाणांत आनी भिन्नभिन्न संयोगांत भास आनी काळिदास हांचे सारके पूर्विल्ले कवींत अथवा ठागोर सारके आर्विल्ले कवींत अथवा वळ्ळत्तोळ सारके ऊणेच भोवंतणी वाटाराचे कवींत दिश्टी पडतात. इन्द्रियां संवंदीत भोगांची ताची प्रवृत्ती देखून वळ्ळत्तोळ भारताचे कवितेचे मुखेल धाराचे अंश म्हण सिद्ध करता. मलयाळम कवितेंत इन्द्रिय सुखांत रमची ही प्रवृत्ती केन्नाय आशिल्ली. पूण चेरुश्शेरी आनी कुंचन नंपियार - हांचे उपरांत वळ्ळचोळांत मात्र इतले चड प्रमाणांत ही दिश्टी पडता. 'सांजे भोवंडी' नावांचे कवितेंत ते म्हणतात:

ओ विश्व! तूं दुख्खान भरन आसा तरीय तुजांत इतलें खूब मंत्रमुग्ध करचीं थळां आसात पर्यन्त तुजेर अरुच दिसचें मन कोणाक आसतलें. असले मंत्रमुग्ध करचे थळांचो आनंद तांचे कवितेंत सगळ्याक उक्ते तशें स्पश्ट दिश्टी पडता. आपणाले कवितेचें एक बीज कवी सैमाचे सौंदर्यात देखता ते आपणाले कवितेक सांगतात:

कोगूळाचे प्रसन्न गळ्यां साकून
म्हाका तूंच गायता मेळता
उत्सूक वार्यान अपरवूय करचे फुलेल वालीर
नृत्य करता मेळता,
फुलांचे म्होवांत म्हाका तुमी प्रसन्न आवाज आयकू पडता तुचे फांतोडेचे विनोदासारके
प्रसन्न आनी सुन्दर दुसरें कांय ना.

हे अणकारांत मूळावेर चनातंली कांय शृंगारीक प्रस्तावां हांगा सोडून गेल्यात. पुराय आदर्शवादा भायर तांचे सैमाचे कवितांत मूळावी भौतिकतायेचें शुद्ध रूप दिश्टी पडता.

संस्कृत आनी मलयाळम कवितांचे चडान चड भागांत प्रामाणिक भोगविलास सभावीक रूपान मेळता. भौतीक सौन्दर्यान प्रेरणा पावन गंभीर आसक्तींत प्रेमाचे सरळपण आनी बायल वर्गाचें विभिन्न, बारीक, विशाल आनी बहुरंगी सुंन्दर वर्णन अधिकांश कवींत मेळता. वळ्ळत्तोळ हे परंपरेचे कवी आसात. तांचे अनेक कवितांत शुद्ध शृंगार मेळता आनी ते परंपरेचे रीतीर स्त्री सौंदर्याचे परतून वर्णन करचांत आनन्द पावंताले. वादळ सारको काळो केस, दीर्ग काळे दोळे, कमळा अथवा चन्द्रीमा सारके चेहरो आनी वाडकूळे मोमे - हीं तांचे, कवितेंत रवयंच मेळुंक कठीण न्हय. 'संध्या' (सांज वेळ) नावांचे कवितेंत नमाज

म्हणची नवायताची बायल-मनीसीचे आकारार कवी परत परत वाचप्यांचे ध्यान आकर्शीत करतात. तिचे पावलांचे ताळवे तिचे कुल्यार स्पर्श करचे मेरेन कवीनी भारी बारिक साणीन वर्णन केलां. आनी तिजे पावळ्या गदी हात धोंपरार धाकण्या भाशेन दवरल्यात. ते शृंगाराचे पूर्विल्ली परंपरेचे कवी आसात म्हण ताणी काव्यांत आपणायल्लीं विंबां आनी जीवनाची गती दाखयता. 'म्हजी कविता' आनी 'अंतपुरांत रावणाचे आगमन' सारके कविता - दोनींतय - वस्तु आनी शैली - हांत एक दुसरींत मतभेद आसा तरीय जिवीतांत कवींचे इन्द्रियसुखानंदाचे वेसबरे नमूने आसात. कवी आपणाले कवीप्रति भेक म्हणता:

ओ कविते,
जोगूलाचे जगलावप भोंवतणी पसरपाचे,
अभिमानी शूर सैनिकाचे तलवार घुवंडावपांत चितळा दोळ्यांवरी सुन्दर युवती तिगेले मोगालप्रेमीक पळोवंचे दिष्टींत
आनी खुशालीन खेळचे हुमेन न्हालेले तांबूस गालांत हांव तुचे मोगाळ रूप पळयतां.

एक दुसरे कवितेंत ऱावण ताचे मुखार दिश्टी पडचे येवकार दिवपा सारेक सोबीत थळांचे वर्णन करता:

म्हजे मुरवार शंबर चड भांगराचे दीवे
दोन फांतीनी जळतात.
ते दीवे मांसळ मोम्याचे वायल मनीसीनी हातांत धरल्यात.
जळचे हे दींवे रातीक दीस करतात,
आनी एकमेकाक पळोवन हासतात.

एक सुन्दर युवती आपणाले नाजुक हातानी वीणाच्यो सरीयो ओडून धरता,
दुसरी एक्की आपणालें भेंड चन्दायेन हालोवन गान्द झरयता,
आनी एकली चितळा दोळ्यांची तांबडे फटीकेचे पात्रांत सोरो भरता.
मंडोदरीचे ध़रांत सर्वय कडे मधूरच मधूर आसा.

पूर्विल्ले सभ्यतायेन भक्ती, शृंगार, इन्द्रियांक खोस दिवंचे जीवनाक समर्पण आनी तत्वग्यानीची चिरताय सारके असमान घटकांक कशें स्वरूप दिलां म्हण संस्कृत साहित्याचो परिचय आशिल्ले मनीशांक कळता. वळ्ळत्तोळांतय हें पोरणे संस्कृतायेचे रसायणी प्रक्रियेचा अंतिम परिणाम देखू येता.

वळ्ळत्तोळानी अभिजातवादी कवितेचे स्कूळांत चडकाळाक शिकवण घेतल्या आनी तांची सगवरिश्ट कवनां सुन्दर कलाकृतीचे श्रेश्ट नमूने आसात. तांचे प्रत्येक कवितेंत संस्कृत काव्यांचे अभिजातवादाचें भायले घटक जशें संस्कृत भासेचेर आधारली उतरावळ अथवा संस्कृत छंदाचो प्रयोग अथवा परंपरे लागून मेळ्ळे विंवाचो अखंडीत प्रयोग - जशें चातक पक्षी आनी पावसांचे मोड, सूर्य आनी पम्दाक्ष, सागर आनी ताची न्हवरी न्हय,

फूलानी शृंगारलो वसंत रूतू, वाल्यांचो नाच. आनी तांचे बेलांचो नाच. मुद्रांचे प्रदर्शन, चन्द्रीमान वीणल्लें घवें सिल्काचें लुगट आनी भाता शेतांचे पाचवे सिल्का लुगट - आनी अशेंच तरेचे हेर विंबा ताणी रचल्ले चड करून प्रत्येक कवनांत मेळतात. अभिजातवादी शब्द योजना आनी कवी सभावाची पूर्णताय तांचे साबार कवितांत मेळतात. तांचे कवितांचो हो गूण अणकार करन परगटावप कठीन आसा. 'शिष्यनुम मकनुम'चो रवयंचोय एक श्लोक अथवा 'किळिक्कोंचलेचें एक पद्य खण्ड अथवा 'ओरु चित्रम'ची अथवा 'भारतस्त्रीकळ तन भावशुद्धी'चो रवंयंचोय एक श्लोक - काव्याचे ध्वनी, अर्थ आनी लय - हांचो पुराय ताळ मेळ आनी चूक नातिल्लें उतरं वेंचून काडची कार्यक्षमतायेचे नमूने म्हण दाखोवंचाक उल्लेख कर्येत.

हीं कवनां एकसुरी देख न्हय. पूण तांचे कवितांचे साधारण नमूने आसात सुन्दरताय (decorurro) नांवांचे शास्त्ररीतीचे सभावांत वळ्ळत्तोळ आर्विल्ले कवींत वर्यांतवरे आसात. आपणाले कवितांचे स्थूल रूपांतय ते अभिजातवादी (elassicist) आसात. ते केन्नाय आपणाले कवनांची ओळ्यो भरतात न्हय, पूण तांकां आपणाले उतरांत, विंवांत आनी वर्णनांत खूब आनन्द आसा. ते आपणाले कवितेक विषय संबन्धी आनी वस्तू संबन्धी रूप दितात. तांची चडानचड कविता लघू आसात. पूण तीं आपणाले आकारा भायर पुरायेची झळक दिता. विंबांची विविधताय विशेष करन उपमा आनी स्पश्ट तपशीलांचेर आधारलीं वर्णनांच हे मत दिवपाक चडकरन जबाबदार आसा.

अभिजातवादी कवितेक परंपरागत विश्वासाचो सारभाग मेळा. तांत परंपरागत मूल्यां आनी मनांची अवस्था - दोनीय मेळन आसात. ही कविता शताब्दींचे चालचलणूकेचे आचार विचारां साकून रूप घेतल्या, विद्वान पिळगीनी कठीन प्रयत्न करन रूप धरलां. मलयाळम कवितेन शास्त्रीय ग्रन्थांचा आनी शास्त्ररीतीचा निर्माण केलां. हे मलयाळम कवितेची व्हडवीकाय आसा. शास्त्रारीतीचे कवींत वळ्ळत्तोळ एकादरे निमाणी जोडणी आसात. तांणी प्रतिनिधीपण करची परंपरा आपणालें पूर्विल्ले उदार सादेपण राखून दवरपाक शक्त ना जाली. आपणाले शिल्पाचे वैभवांत ते शास्त्रीय रीतीचे कवी आसात. आनी ते आयजीय पूर्विल्ले भारताचे महत्वाचे बुनियादी शिल्पाचे प्रतिनिधी आसात.



# अध्याय तीन

## राष्ट्रीयताचे कवी

जेन्ना गान्धीजीचे फुडारपणार स्वातंत्र्याची लडाय जबर्दस्त गतीर चलताली तेन्ना वळ्ळत्तोळांची पिराय चालीस वर्सांचे सुर्वेक आशिल्ली. असहकारी आन्दोलन सुरू करचाकच लडायीक एक नयी स्फूर्त आयली. प्रत्येक भारतीयाचेर ताजो प्रभाव पडलो आनी सामान्य जनताचे उत्साहान भारताचो गांव प्रति गांव भरलो. तेन्ना मेरेन शांत आनी सुखी जीवन करचे वळ्ळत्तोळ आपणाले अस्तित्वाचे खोलाय पर्यान जागृत जाले. तांणी कांय वर्सां फूडे 'भारत चक्रवर्ती पंचकम' - भारत सम्राटाक तुस्त करन पांच श्लोक रचले. ते राजभक्ती आनी प्रजाधर्म हांचे पासून मुरवार गेले आनी गान्धीजीन राष्ट्राक दिल्लो उल्लो आयकून भरपूर प्रभावीत जाले. वेगोवेग ते दुसर्यांक प्रेरणा दिवपी देशभक्त कवी जाले.

देशप्रेम आनी राष्ट्रीयता - हांचेर रचल्लीं तांची कवना - तांचे जूणे, इतिहाससंबंदीत फाट भूंय आनी उमेद जागृत करचें कारण म्हत्वाचीं आसात. मातृभूमीचेर आसची भक्तीभावना लागून रचल्लो भारतीय साहित्याचो पयलो वांटो तय्यार जालो. एक राष्ट्रीय कविता धार्मीक स्तोत्रां वरी पाठ करतात. बंकिमचन्द्र चाट्टरजीची 'वन्देमातरम' जशे एक भावनासंपन्न कवितेची एक उत्तम नमूनो आसा. वळ्ळत्तोळांची कविता काळाक अनुसरून उपरांतेचे काळाच्यो आसात, तरीय तांच्यो अनेक कविता राष्ट्रीयताचे हे काळाच्यो आसात. केरळ देशाचेर आधारून रचली. 'मातृवन्दनम' (आवयक नमन) भारत भूमीचेर भक्ती परगटावंचो एक सुंदर नमूनो आसा.

ही कविता 1918 वर्सा रचली. कविता आभिवादनान आनी तोरवणायेन सुरू जाता:

आवयक नमन करात।
आवयक नमन करात।
ते म्हतीक नमन करात।
ते आशीर्वाद दितल्येक नमन करात।

सत्राजीत रायाक स्यमंतक रत्न सहस्त्र किर्णां सूर्यान दान दिले वरी अस्तंत सागरान दान दिलें जमदग्नीचे पूत परशुरामाक एक अतुळ मोलादीक रत्न आसा ना? आमचो देश

यशाचे देवीक वन्दना करात।

सागराचे ती आपणाले मस्तक पाचवेसाण पसरल्ले
सह्याद्री पर्वतार ऑड दवरून आसा.
पाय तिचे सागराचे रेवें वेळार आसात
तिचे दोनीय दिकांर देवी कन्याकुमारी
आनी गोकर्णेश्वर राखून रावल्यांत
आवयक नमन करात।
आवयक नमन करात।
आमी पुजचे देव लेगीत तिका पुजतात
तिका नमन करात

उपरांत कवी केरळचे पुर्विल्ले येसाचें वर्णन करतात.

आनी देश भक्तांगेलें कर्तव्य समजायतात आनी अशें सोंपयतात:

आवयचीं उतरां आमकां साक्षात वेद जावो
तिची सेवाच आमचें उदात्त कर्तव्य जावो
आमचें जीवन तिचे खातीर अर्पण करचें जावो
म्हजे भावानों! ह्या संवसारांत आवय पाशीय व्हड देवी आनी कोण आसा?

कवीनी पुजचें केरळ आनी भारत फकत एक सुंदर देशच न्हय पूण म्हामुनींची जीवनां आनी शिक्षणांपासून पवित्र जाले आत्माचो आनी उदार धर्मीक सभावाचे परंपरेचो देशूय आसा. रुषीमुनियांगेलें भारत तांचो पवित्र देश आसा आनी जेन्ना केन्नाय ते भारतापासून चिंतन करतात तेन्ना ते भारताचे म्हापुरुषांचो उगडास करतात. तांचो राष्ट्रप्रेम राजनीतीक न्हय, पूर्ण धर्मा, संबंदीत आनी आदर्शवादी आसा. 'नम्मुटेमरुपटि' (आमची जाय) कवितेत ते म्हणतात:

भारत म्हजे देश
म्हजे पूर्वीक म्हान रुषी आसात
तांची संपत्ती शान्ती आशिल्ली

उपनिशद आनी गीता म्हजे परंपरेची सिद्धि आसात. तीं पवित्र गिन्यानाचे सूर्यापासून उपजल्लीं आसात. तीनीय लोकांत शाश्वत मुक्तीच म्हजी इत्सा आसा.

'कोच्च्युसीता' कवितेंत (बाल सीता) कवी भारताचे म्हत्वाचे गूण वर्णन करतात:

ओ भारत!
तुचे म्हत्व कितलें अजापाचें!
झुजा मैदानांतय अनासक्तीचो, तुरहीचो उलो
एक शिकारीले खोंप्यांतय संतागेली संपत्ती
वेश्यांगेले वाड्यांतय सदाचाराचो परमळ.

'मलयाळत्तिन्टे तल' (मलयाळमाचें मस्तक) कवितेंत शंकराचार्य, आपणाले देवीक अर्पण करचाक शंकराचार्याचें मस्तक घेवन वचाक आयल्या कापालिकाक म्हणता:

'म्हजो जीव काडचाक तूं भियेवनाका':
कर्णान आपणाले शरीराचें कवच दान करन
मृत्यूचे मुरवार छाती उक्तायली ना की?
तेच आमचे पूर्वज आशिल्ले.
मागीर म्हजे कर्तव्य करपाक तूं म्हका भिजूड करता कित्याक?
जीमूतवाहन आमचो राय आशिल्लो न्हये?
जाणी एक सोरपाचो जीव राखपाक

आपणालें तरणे सुंदर शरीर भुकेल्ले गरुडाक अर्पलें तशेंच शिबि म्हारायान एक दुबळे पारव्याचो जीव राखचाक आपणाले शरीराचें मांस कातरून घोणीक दिलें तांचे शरीरां साकून उसळेले रगताची शेंदूरी रेखा आयजीय आमचे राष्ट्राचे माग्यार दिश्टी पडता.

अहिंसा, प्रेम, आत्म त्याग आनी दर्शन शास्त्राचें म्हत्व, हे सद्गूणां खातीर आमचे रुषी मुनी जीवन करताले. तांची तोरवणाय वळ्ळत्तोळांचे कवितेंत सगळे कडेन मेळता. कवीनी गान्धीजींत पूर्विल्ले भारताचे आदर्शांचे आकार स्वरूप पळयलें, हेच कारण कवी गान्धीजीचेर श्रद्धा बाळगताले. 'एन्टे गुरुनाथन' (म्हजे गुरुदेव) नावांचे नामनेचे कवितेंत हे विचार विस्तारून वर्णन केल्यात:

सवस्त जग तांका एक घर आसा
झाडां, तण आनी कीडां सर्वय
तांचे परिवाराचे अंग आसात.
तांचा एकच कमाय ती त्याग,
विनम्रतायीच तांचे मोटेपण
हे प्रकारीं योगी जावन म्हजे गुरुनी विजय मेळयला.
तारकांची मणिमाळा अर्पण केली जावो.
काळे मेघाची काळबाण लागली जावो
मळवाक दोनीय सारकेच आसात.
तें अलिप्त रावता, तशें म्हजे गुरु आसात.

म्हात्मा ईसालो त्याग,
भगवान कृष्णाले धर्मरक्षा करेच उपाय,
बुद्धाली अहिंसा, शंकराचार्याली प्रज्ञाशक्ती,
रंतिदेवाली दया, हरिश्चन्द्राली सत्यपरायणताय
तशेंच मुहम्मदाली धाडस

हे सर्वय गूण हे एकच मनीसांत एक जावन जोडतात.

जेन्ना वर्तमानकाळ दुख्खाचो आनी उदास आसता तेन्ना मनीस उजवाडा आनी धाडसा खातीर आदल्ले काळांत घूवन पळयता, हें सभावीक आसा. पूण वळ्ळत्तोळांत हाचापाशीय चड कांय आसा. आदलो काळ आनी ताका लागून वर्तमानकाळ आसून ते वर्तमानकाळाकच म्हत्व दितात. स्वातंत्र्यांत जाग्रूत रावचें भारतच गान्धीजीक जलम दिवंचें नैतीक बळ संवाळून दवरता. ही नैतीक शक्ती भूतकाळाचे बुनियादीचेर साकून अखंडीत धावां सारके व्हावंत आसता. आमी निर्माण करचो फुडेल्लो काळ. आदले काळाचे आदर्शांचे साकार रूप आसतलों. भारताचे तिरंगी झण्डेचे अभिवादन करचे 'पोरा पोरा' (पावना, पावना) कवितेंत कवी झण्डेक म्हणता: तूं उबून उबून हांगा धर्माचो सत्यानाश देखून स्वर्गाविले दुखेस्त लोकांक वारें घालन बुजवण दीवुंक जाय. झंडेवयलें प्रतीक चरखेक श्रीकृष्णाचे, पातकांचो गळो कातरचे, सुदर्शन चक्रा बरोबर तुळा केल्या.

विदेशी अधीनपणा साकून मुक्तजावंची वळ्ळत्तोळांची इत्सा मातशी अस्तंती सभ्यतायेचेर तांचो विरोधा आनी अविश्वासा पासून आसा. 'ओरुकृष्णप्परुगन्तिनोड्डु' (एक काळी घोणीकडे) आनी 'निङ्ङ्ळतन् पोक्कु विपरीतमाकोला' (तुमची चाल विकृत न्हय जावो) - हे दोन कवितांत ताणी आपणाले हे भावनेक उतरानी परगट केल्या. अस्तंती सभ्यतायेक ते उथळ मानतात. अस्तंते दिकार घूवन पळोप्यांकडे ते म्हणतात.

ओ बुदवंतानों, अस्तंते दिकाचे भांगरा झळकीन तुमकां फुसलायला की? ती सर्वय रंगीन झगझगसाण अस्तत्तमचे येशाचो आखेरचो उजवाड आसा. प्रत्येक दिसा फांतोड आसचे थंय आमी वचा. अस्तंत दिकार बागोवप काळोखांत वचेसारके आसतले.

विदेशी सभ्यतायेच्या भ्रश्टाचारी प्रभावासाकून देशाक मुक्त करचाक वळ्ळत्तोळानी राजनीतीक स्वातंत्र्याची इत्सा केली, पूण स्वातंत्र्याचे तांचें आदर्श केवल रोगांचें वरवद न्हय आशिल्लें. स्वातंत्र्याक एक स्पश्ट मूल्य आशिल्लें, आत्माची अंतिम मुक्तीची भौतीक समता. राजनीतीक गुलामीची आनी आध्यात्मीक अग्यानाची व्याख्या थारावपाक ताणी उपेग करचीं विंबां (images) सावार कवितांत एक सारके आसात - काळोख अथवात 'पारवश्यम' (गुलामी) कविता अशें आरंभता:

म्हजे देशाक केन्नाय रातीच की?
हांगा केन्नाय एक दीस फांतोड जावना की?

'कालम मारि' (समय बदला) एक दुसरे कवितेंत स्वातंत्र्याचे फांतोडचे आगमनाचें वर्णन, रात आनी फांतोडचे नक्षत्रांचे रूपकाचे विंबां रूपान कवी वर्णन करतात:

काळोखाचो राक्षस दूरा उसळा.
आमचे देशाची लिपून घुसपागोन्दळांत सांपडली
निसर्गीक सोविताय परगट जाली.
पूर्व दिशान गरीबीची काळ काम्बळ

सागरांत पेल्यान उडकायली आनी
सुन्दर सिल्काची साडी न्हेसली,
आळशे जागजाले,
अपवित्र पवित्र जाले,
अशान्त शान्त जाले
काळूच कशें परतला.

ताणी स्वातंत्र्य तरणाट्यांक दिवंचे दायज म्हण लेखलें तरणाट्यांली वाट सरळ करन दिवपभहालगङ्ग.लें कर्तव्य आसा. 'आमची जापं' कवितेंत ते म्हणतातः

हांव म्हजे ध्येयाक वचूं ना वचूं
मद्देंच हांव मरण पावूं ना पावूं
हांवे मुरवार वतांच आसतलों.

आनी वाटयवेयले काण्ट्यांक मुस्तून उडकायतलों मागल्यान येवंचे बाल पावलांक कसलीय पीडा ना दिसो.

वळ्ळत्तोळ गान्धीजीचे चडान चड कार्यक्रमाचे उत्साही अनुगामी आशिल्ले. खादीचे प्रचारा खातीर उदार रूपान साहित्य रचपी एक दुसरो कवी केरळात जल्मलो ना. 'चरखा गाथा' (चरखा गीत) आनी 'खादी वसत्रङ्ङळ कैकोळ्विन एवरुम्' (सर्वांनीय खादी वापरचें) हीं कवनां तेन्ना एदेकाळांक भो लोकप्रिय आशिल्लीं.

हिन्दू समाजाचे दोष सुधारप राष्ट्रीय आन्दोलनाचो एक भाग आशिल्लो. हरिजनांगेले उद्धारक गान्धीजीचे कार्यक्रम आनी जातधर्माचे विरोधाक लागून तांचें निरंतर धर्म युद्ध - हांणी सनातन धर्माचे बुनयादाकच हालयलें. वळ्ळत्तोळांचेर गान्धीजीचे सिद्धान्ताचो भारी प्रभाव पडलो. ताणी तांकां हिन्दू धर्माचे तत्वांचो विस्तार आनी पुनर्जीवन हे रूपान पळयलें. 'ऐक्यमे सेवयाल् सेव्यम्' (एकचारूच सगळ्यात व्हड सेवा) कवितेंत ते बळान म्हणतातः

जेन्ना मेरेन आमी स्पृश्य अस्पृश्यतायेक मानून एकमेकाक वेगळे घावडावन घालतले तेन्ना मेरेन आमकां हिन्दू धर्माचे गीत आयकूक पडचीना. आनी आपणाले मायभूंयक परत येवना, देशा भायरच उरतले.

'परस्परम् सहायाप्पू' (एकमेकाक पालव दियात) कवितेंत ते अशें इशारो करतात 'जेन्ना पर्यान आमी लान वांट्यानी वांटून एकमेकाचे पाय ताण्डून रावतले तेन्ना पर्यान गुलामीचे सांखळींत आमी घुसपून पडतले.'' ते आपणाले केरळचे भावण्डांक समजायतात 'तुमची आवय उदार मनाची. तीणे एक पारयंचाले खोमटां लेगीन वेदांचो दीवो जळयला.' असले विचार तांचे कवितांत सावार मेळतात. 'पापमोचनम्' (पापां साकून मुक्ती) वैक्कम सत्याग्रहाक आधारून रचल्ली एक कविता हरि जनां खातीर देवळाचें सडक (द्वार) उक्तावंचे अधिकाराचेर बळ दिता. सत्याग्रहीयांक इशारो करन कवी म्हणतातः

हे धर्म झूजप्यांचे हूमेचे थेंव्याचें तीर्थजल पीवन

ओ म्हजे देश! मनीस मनीसाक वेगळो करचे
भयंकर पापाक पयस कर जें मनीस मनीसाक वेगळो करता.

नीत संबंदी कवितांचे भायर वळ्ळत्तोळानी जाती प्रवृत्तीचे विचित्रपणाक हिणसावन एक लघु कथन-कविता रचल्या. 'शुद्धरिल् शुद्धन्' (मूर्खांत मूरख) कवितेंत कवी एक रात एक घराक उजो लागल्ले प्रसंगाचे वर्णन करतात. तें एक वयले हिन्दू जातीचे नायरांचे घर. उज्याची ज्वाला ऊंच मेरेन पावंता आनी घराक गुठलायता, पूण नशीवान घरकार ताकतिकेन भायर येतात. उजो पळोवन जातींत साकून भायर घाल्लेले सुमार जायते जाणां थंय जमतात आनी तांत कांय जाणां उजो वाडवोवंचाक उदक हाडचाक वांयकडे वतात. पूण घरा धनी रागान तांकां आडायता:

म्हजे घर जळून गोबोर जाता जाल्यार जावो
पूण तुमी आपणाले शीमेचे भायर वोस नाकात.
मागेली बायं भश्टाव नाकात.
कवी प्रतिक्रिया व्यक्त करतात:
ओ नायर, तूं भोळ्यांत भोळो आसा.
तुमचें घर जळून गेलें तरी कितें जालें
तूवें आपणाले जातीचो अभिमान राखलो मू.

वळ्ळत्तोळ सारके परंपरावादी कवी जातीचो घोर विरोध करपाक तत्पर राजाले - ही भारीच अजापाची खबर. 'जातिप्रभावम्' (जातीचो प्रभाव) नावांचें कवितेंत कवी एक संपन्न, सुन्दर, शिक्षित आनी वयले वर्गाचे श्रेश्ट कुटुंबात जल्मली गौरी नावांचे चेडुवाली कथा वर्णन करतात ती सकयल जातीचे एक अशिक्षित कामगार भैरवाक प्रेम करता. आनी ताका व्हारडीक करता. निर्मागीं तीं दोगंय भो गरीब जातात. घोव रोगयाळो जाता आनी मरता. गौरी भीकमाग्री जाता आनी तिचे रूप आनी जीण भो लाचार जाता. एक फावट ती आपणाले बापूयचे घराक वता. तिका पळोवन घरकारां सग खप्प जालें. ताणी तिका भायर घावंडायली. एक तरा नाटकांतले भाशेन कवी आमकां गौरीचे घरकारांचे निश्ठूर मनाचो आनी दंभी सभावाचो परिचय दितात. हे कवितेचेर टिकात्मक रुची भो ऊणे जागयली. पूण ही एक अर्थभरीत कविता आसा, कारण ती एक बदलते समाजात उप्रासचीं सामकी लागीची प्रश्नां आनी प्रसंगाची सत्य परिस्थीती सुचयता. ही कविता वळ्ळत्तोळाचे मानवतावादाचें एक स्पश्ट प्रमाण आसा.

वळ्ळत्तोळानी आपणाले समयाक संवंद आसेच आनी एक विशयाचेरीय कविता रचल्या - हिन्दू मुस्लिम मैत्री. हे प्रश्नाक ताणी पळोवपाची नदर आदर्शवादी आनी भावूक आसा. ''भावण्डां मदें कसलेंय झगडें ना, पूण प्रीतीचो खबदळ मात्र.'' कवीचे हे स्पश्ट निवेदन तांचें प्रमाण आसा. पूण तांचे कल्पना करपांत साकून लेगीत कांय मोलादीक रत्नां जल्मल्यांत. गोहत्या आडावंचाक नरहत्या करचें निर्दय मूरखपणा संबंदी ते हिन्दू लोकांक

इशारत करतात आनी वाद्यां आनी संगीताचो विरोध करचे मुसलमानाक ते विचारतात:

संगीताची पूर्ण अवस्था अल्लाह

गीतांचो आनी वाद्यांचे संगीताचो विरोध कता तरी संवसाराचे सागर आपणाले घोल वाजतले की?

जातींची झगडीं जावो अथवा जाती प्रवृत्तीचे विकराळ दोश जावो वळ्ळत्तेळांक आपणाले राजकारणाचे स्वातंत्र्याचे आदर्शां साकून फाटी सरचाक दिले ना. स्वयम वांटून घेतल्लें राष्ट्र स्वातंत्र्य भोगचाक योग्य न्हय आनी कश्ट भोगचे जातीचे लोकांक राजनीतीक स्वातंत्र्य खरें न्हय आसा-असले युक्तिवाद कवीक केन्नाय घुसपायले ना. 'पारवश्यम (गुलामी) आनी 'आमची जाप' नावांचीं कवितांत कवीनी असले नकली संवसारांत जियेवंचे लोकाकं जाप दिल्या. 'भियेतल्याक आपणाली सावळी लेगीन भेश्टायता' अशें ताणी बरयलां. भारतांत तिरस्काराचे भावनेचे प्रश्नाचें मूळ ताणी आपणाले अंतगिन्यानान वळखून घेतलां. भयच हाका कारण आनी हें भय स्वातंत्र्य मेळतरीच पयस वतलें. स्वामी श्रद्धानंदाची हत्या एक धर्म पिस्यान केली, तेन्नाय ते भो खिन्न आनी उबगले जातात आनी ते स्वातंत्र्या खातीर, तुरंत स्वातंत्र्या खातीर प्रार्थना करतात. ''सोसूक जायनासी गुलामी साकून आमकां मुक्ती दी.'' हीच ईश्वराकडे तांची प्रार्थना आशिल्ली. जाती सारके पोरणे रीतरिवाजाचीं बंधनां ताका भेश्टायनात. दीग पावलां दवरन चमकल्यार तीं भेतून कुडके जातलीं.

तांचे राष्ट्रवादी कवनातं 'पारवश्यम्' (गुलामी) एक सशक्त कविता आसा. स्वामी श्रद्धानंदाचे हत्येचे कठीण दुख्खी मनोदशांत ती रचली. वळ्ळत्तोळानी ताका एक दुख्खेस्त राष्ट्रीय घडणूकेचे रूपान पळयलां. राष्ट्राचे आत्मान भोगचाक जाल्ली हार. ते राष्ट्राचे गुलामी पसावत दुख्ख परगटायतात:

म्हजे सुन्दर चंद्रीमाक मुक्ती मेळनातिल्लेवरी

गिराण गिरासलांकी?

रखरख वेतांन उदक आटल्या हे न्हंयक पावस मेळनाकी?

शिशिरांत निस्तेज जाल्या हे वागाचेर वसन्ता देवीची कृपा आसचीनाकी?

निशफळ प्रयत्नाची अस्वस्यताय हे उतरानी परगटायल्या:

जायते रोगानी सतायल्ली शरीरां आनी साबार काळांची गरीबी घेवन, केन्ना मेरेन गुलामीचे वजन आमी व्हावंतले?

मुखार काडची तुतलीं पावलां

मागलान वचाक आमकां लाचार करता आनी चड बेकार काम करचाक आमचान जायना, आमचे पाय दुकतात, आमी खूंटाक बान्दले बैलां सारके आसात.

अशें निराश जावपाक कारणां कितें, ते इशारत करतात:

आमचें मनीसपण लेगीत विसरून

आमी एकमेक झगडत रावल्यार

हाचो परिणाम उपराटें कशें जातलो?

धर्मां आमकां एकचाराची खरी वाट दाकयता,

पूण आमी, धर्माचे भक्त मतभेद सृजन करन झगडतात, आमी उजवाडां साकून काळोख सृजन करतात.

स्वातंत्र्याचे मोगान आमी गुलामीची सांखळ घट करतात.

श्रद्धानंदाचे मृत्यूर शोक परगटावन आनी तांचे व्हडपणाचो उगडास करन कवी देवाकडे मागता:

हे काळवेळाचे आत्मा, ब्रह्माण्डाचे रंक्षक,

तूंच निराधाराक आधार,

आमचेर दया कर आनी आमचे अपराधांक क्षमा कर.

भियेतल्याक आपणाली सावळी लेगीत भेशटायता.

.....

एक आवाजान आमी तुमचेकडे प्रार्थना करतात, ''आमकां स्वातंत्र्य दीवन साबार काळाक सोसचा जायनातिल्ले गुलामी साकून वांचय'' म्हण

ही एक गंभीर दुख्खेस्त कविता आसा. हांत स्वातंत्र्याचे प्रखर इत्सेक अदृश्टाक ना करपाक जावना अशें समजून स्पश्ट केलां. अनुभवाचें एक विशाल दर्शन, जिवीतापासून यथायोग्य अंतर्ग्यान आनी मनाचे विकाराची घुसपण - हे कवितेक एक अप्रूप खोलाय दिता.

'एन्टे प्रयाग स्नानम्' (म्हजे प्रयागा न्हाण) ही तांची आनी एक असामान्य कविता आसा. ही कविता कलकत्तेचे कांग्रसाक (१९३८) आधारून रचल्या. हांत केरळचे प्रतिनिधी म्हण कवीनी भाग घेतलो. सुमार धा हजार कामगार सम्मेलनांत भाग घेवंचाक आयले. काळे रंगाचे निरक्षर अवेवस्थीत मनीस बळान भितर सरले पळोवन वयले वर्गाचे प्रतिनिधी अजापले आनी वेजार जाले आनी भीयेले. ते एक दीर्घ जुलूसा भाशेन आयले आनी कांग्रस माण्टवांत शांत वेसले. तांकां देखचाक - कवीक व्हड आनंद जजता आनी ते म्हणतात:

ओ भारतीयांची म्हास भे! हे धैर्यवंत लोकांक सादर स्वागत कर. सावार वर्सानी हेच वर्सी तुजी ही सभा पूर्ण जाली सर्वय तराचे लोक हांगा येवन मेळ्यात.

हे नवे आयल्यांचे गूण धर्मापासून ते बरयतात:

हे भूंयचेर खयींय आड पडचे शेतकार आसात

ते सर्वय चांगपणाचे मूळ आसात

स्वयं आपणाले खोंप्यांत तान भूक सहन करन पैसेकार लोकांचे घरांतले रवाणा मेजार मधूर खाण पांवयतात.

दुसर्याक उजळ करपाक ते आपण्याक काळे दवरतात. ते स्वार्थ त्यागीं, पोरणे कर्मयोगी आसात.

.....

हीं पवित्र रुषीभूंय भारताचीं पयलीं संतानां आसात.

कवीक धवें वस्त्र न्हेसल्ले काग्रसाचे गोरे सदस्य गंगा सारके आनी भो काळे काकाटे नवे आयल्ले मनीस यमुना न्हंयचे गदी दिसताले. कांग्रेस हे दोनीय न्हंयांचे संगम - एक पवित्र संगम - प्रयाग. हांत परतून परतून बुडून न्हावंचाक कवी अपार आनंद पावंता. कामगारांसबंदी विशेष कर शेतांत आनी भाटांत काम करण्यांपासून, जांचे जीवनाचो साक्षात परिचय तांकां आसा, गंभीर बुजवण आनी सम्मान परगट करची तांच्यो जायत्यो कविता आसात. काय प्रकाराचो आलाशीरो अथवा मायेमोगाचो स्पर्श नातिल्लें, आपणालें पुराय जिवीत कश्ट काडचे लोकांचेर कवी हुसको आनी मान स्पश्ट करतात. तांचे प्रारंभकाळाचे, कवितांत कवीची ही भावना स्पश्ट आनी वळिश्ट आसा. केरळचे राजनीतीक जीवनांत समाजवादाची विचारधारा येवंचे फूडेच गान्धीजीले सिद्धन्तां साकून बळ घेवन वळ्ळत्तोळांचे मानवतावादाक ताणी एक ठेठ रूप दिलें. जातीचे आनी वर्गाचे भायर हाडून तांचे राष्ट्रीयतेक उदार आधाराचें आनी आत्माचें बळ दिलें. 'प्रयागस्नानम्' (प्रयागान्हाण) मानवतावादाचो एक उत्तम नमूनो आसा जो राजनीतीक जीवनांत यथार्थवादाचो एक म्हत्वाचो अंश आसा. कांग्रसांत कामगार वर्ग आयल्ले पंसावत मितवादियांगेली भिजुडकाय कशें नाजतली आनी कांग्रेसाक विलाशर्त स्वातंत्रतायेचें आदर्श कशें आपणावुंक जातलें म्हण कवी तीक्ष्ण अन्तरदृश्टीन हे कवितेंत इशारत करतात. उप्रांतेचे कवितांत तांगेली गान्धीजीची आराधना आनी साम्यवादाचे अनुकूल विचार - हांचे मदें कांय ताळमेळ नासी दिसता. साम्यवादाचेर तांचें साम्यवादाचेर निंबून आसप, कांय विचारांचेर आधारल्लें फरकां पसावत न्हय, पूण स्वतंत्र भारताचे असमानतायेचे आनी गरीबीचे प्रश्नाक उलगडो करपाक सावकास केल्ले पसावत जालां. अहिंसा आनी पूर्विल्ले भारताचे नैतीक आदर्शांचेर तांचो विश्वास केदप हाल्लोना.

वळ्ळत्तोळांचीं देशप्रेमाची कवनां स्वातंत्र्याचे लडायीचे अतिम्हत्वाचे दिसांकच उजवाडायलीं देखून तेन्ना तांकां व्हड स्वागत मेळें. केरळचे लोकांक हाणी व्हड स्फूर्त दिली. आनी 'मातृवंदनम्', 'पोरा पोरा' आनी 'एन्टे गुरुनाथन' सारके तांची कविता उगडासान पाठ करचे हजार लोक आशिल्ले. ह्यो आनी ताणी रचल्यो देशप्रेमाच्यो दुसर्यो कविता मात्सी तांचे काव्य गूणां निमित्तीं आनी मातसी भारतीय मनांक तांचे विषय भो पसंद आयले निमित्तींय आतांय लोकप्रिय आसात. एक कवीची व्हडकाय समकालीन धडणूकांत सामील जावंचांत न्हय आसा, पूण इतिहास रचचेवेळार जीवन करप, आपणाले देशाचे व्हड मनीसांचे समकालीन जावप, आनी जे मुरवेल प्रसंग घडतात ते प्रत्यक्ष पळोवपी गवाय जावप हें सग एक दुर्लभ सौभाग्य आसा. ही एक व्हड जवाबदारीय आसा, वळ्ळत्तोळानी आपणाले सौभाग्याचो आनन्द घेतलो आनी आपणाली जबाबदारी पुराय केली. एक कवी आनी मनीस म्हण ताणी आपण्याक वुजवण दिवपी आनी म्हान म्हण सिद्ध केलो. समस्त लोकांचे मनोभावाचो प्रभाव तांचेर पडलो. इतिहासाचे म्हान नाटकाक अनुकूल रावचें

प्रमाणीकपण आनी कल्पनाविलास तांकां आशिल्लें. आपण लोकांचे म्हत्व चड करपांत आनी भयनातिल्लें उलोवंचे धाडस आनी अभिमान वाडोवपांत ते चड मन दिताले. तांचे अभावांत केरळची राष्ट्रीयता परगट करपांत ऊणे जातली आनी नैतीक आनी काल्पनीक जाणवीकाय शीमा भितर रावतली आशिल्ली. विचार आनी मनोभाव, स्पश्ट आनी सुसंगत केल्यारीच निर्मळ जातात आनी असले स्पश्टतायेंतच जनतेचा निर्माण जाता.



# अध्याय चार

## वळ्ळत्तोळांचे कांय लघु कवितांचे तोलमोल

वळ्ळत्तोळांची लघु कवनां 'साहित्यमंजरी' नावान 11 भागांत संकलन करन प्रकाशन केल्यांत. 'वीर शृंखला' (वीरांक वाळो); 'दिवास्वप्नम्' (दिसाचें सपन); 'विषुक्कणी' (विषु दिसा फांत्यार जागून घेवंची भेट); 'इन्ड्ययुटे करचिल' (भारताची दुकां) आनी 'वळ्ळत्तोळ रष्यिल्' (वळ्ळत्तोळ रूसांत) सारके कवनां दुसरे संग्रहांत आसात. हे संकलनात सग मेळन 224 कविता आसात. हांत मदें साहित्य मंजरीचे पयले सात भागांतली कविता अति श्रेष्ठ आसात.

वळ्ळत्तोळाले कवितांत विशय आनी आकार, ध्वनी आनी मनाची स्थिती, छंद आनी पदविन्यास हांची चड विविधताय आसा. देखून तांची वर्गवारी करप कठीन आसा. पूण तांचे मुळाचे काव्यगुणाचे नमूने रूपान तांची कविता मानून घेवयेत.

कविता : ही शार्दूलविक्रीडितम नावांचे छंदांत रचल्ली 10 श्लोकांची लघुकविता आसा. 1927 वर्सा प्रकाशन केल्ले. साहित्य मंजरीचे सठवे भागांत ही कविता घेतल्या. एक कवी कवितेपासून वरयता आसतना ती तांचे विश्वासा आनी आदर्शाची घोशणा जाता. वळ्ळत्तोळांची 'कविता' नावांची रचना एक सुन्दर कविता आसा. हांत कविता म्हळ्यार कितें हें स्पश्ट करता आनी आडवाटेन साधारणतायेन तांचे कवितेचे विशेष गुण समजायता. तांकां कविता एक देवी आसा, एक सुन्दर युवती आसा, अजिक्य शक्ति आनी अदृश्य उपस्यीती आसा. ती आडवाटेन देखयेत, आयकयेत आनी अणभव कर्येत.

ही कविता काव्यदेवतेचे दयाळ नदराचें वर्णन सयत शुरू जाता. कीर्तीचे नक्षत्रां खातीर रातीचे येवप, मजाचे रूपान चातक पक्षी खातीर काळे वादळाचें येवप, साहित्याचे छातीचेर काळें नीळ रत्न-अशें. सुन्दर युवतीची नदर कवीनी 'काळी' म्हण कल्पना केल्या. देखून काव्यदेवतेचे दोळ्यांक काळे अथवा काळे नीळ वस्तूचे अनुक्रम बरोबर तुळा करप एक प्रसन्न करची कल्पना आसा. कविता अखंडीत कीर्तीचेर निर्देश करन सुरू जाता म्हळ्ळेलेंय म्हत्वाक कारण जाता. मिलटनाचे मनां सारके वळ्ळत्तेळांचे मनाकय कीर्त स्पूर्त दिता सी दिसता. सुरूवेचो श्लोक विचारांत सामान्य आसा तरी बरोवपाची रीत संस्कृत उतरांचे

बलिश्ट प्रयोगानी आनी काळे नदरेचे सुन्दर बिंबानी वळिश्ट आनी उज्वल जाल्या. उपरांत दुसरे अध्यायांत पयलींच उद्धरण केल्ले वळ्ळत्तोळांचे नामनेचे श्लोकांत एक मेळता. तांत शूरवीराचे झिगझिगपी तरवारांत, आपणाले मोगाळ प्रेम्याक मोगाचे नदरेन पळोवंचे सुन्दर युवतीचे दिश्टींत आनी खेळचे चेरडाचे फुलासारखे गालांचेर फुटले हूमेचे थेंब्यात कवी कवितेचें सुन्दर रूप देखता अशें कवी म्हणता. मागीरचे श्लोकांत वसन्त रूतूचे सुन्दरतायेक कवितादेवीचे वेगवेगळे अवयवांचे आकार म्हण कवी वर्णन करता. कोगुळाचो गीत तिचो गीत आसा. वालीयांचो नाच तिचो नाच आसा. फुलांचो म्होव तिचे प्रसन्न संवादाची गोडसाण आसा. हे दोन श्लोक वळ्ळत्तोळांचे कवितेचे, इन्द्रियांक खोस दिवपी गरजेचे गुणधर्माची स्पश्ट घोषणा करतात. तांकां सुन्दरतायेचो अर्थ - इन्द्रियांक सूख दिवपी सुन्दरताय - प्रत्यक्ष, स्पश्ट आनी अनंत नवीन सुन्दरताय - अशें आसा. हे दोन श्लोकांत पयलेंत ताणी पसंद केली तीन बिंबां तांचे कवितेचे तीन मनोभावांचे प्रतिनिधी आसात-

वीर, शृंगार आनी वात्सल्य - वीरताय, प्रेम आनी भुरग्यांचेर अपूरबाय. हो श्लोक ताचे उतरांचे प्रयोगांत कवीचे जायते प्रकाराचे अनुभव उणे उतरांनी परगट करची चतुराय आनी शिल्प पुराय करपांत तांची कार्यक्षमता यथायोग्य परगटायता. कवितेचे मागीरचे भागांत कवी म्हणता- कवितादेवीचो मंदहांस चान्याक सरी उजळ करता. तांत अजाप कांय ना, कारण संवेदनशील मनीस तिजे दुःखाक सरी गुलाबाचे अत्तरा वरी प्रसन्न मानता. दुःखाक लेगीन आनंदांत बदलपाचे कवितेचे शक्तीचेर कवी हांगा संकेत करता. कवितेची दया बरे भाग्याची चावी आसा आनी एक मनीशाक ती मेळना जाल्यार ताचो उगडास कोणेय करना. तेन्ना एक वीर भिजुड जाता, पंडित मूर्ख जाता गुण्डो केवल तणाची राश जाता आनी राय केवल मिरवारी जाता. कवितेचे खूब म्हत्वापासून सुचयलां. वेद तिचे सेवक आसात; पुराण तिचे हिताचे उपदेश आसात आनी चडरुचीक कविता तिची मोगाळ गजाल आसा. ती हृदयांत प्रतिभेचें बीं वोयता, दुःखाचे वेळार म्होवा सारके ओखद दिता. स्वतंत्रतायेचेर कसलेंय नियंत्रण नातिल्लें कोणाकय जीणेची खरी वाट दाकोवन दिता. कवी मागीर कविता कशें जल्मांत येता तें वर्णन करता. जेन्ना अंधकाराक पयस घावंडावन उजवाड येता तेन्ना समस्त विश्व कवितेचे तोखणायेचें गीत गायन करता.

समुन्दराचो देव आपणालें पेपारें किणकिणायता उज्वल अरुण सूर्य आपणाले भांगरा रंगाचे वीणाची तार वाजता सवणीं आपणाले मधूर सुरान गायतात, फुलां भोवरांचे गूं गूं आवाजान मंत्र जपतात. ओ आवाजाचे म्हादेवते, काळोख पयस गेले वेळार समस्त विश्व मग्न जावन तुका तुस्त करता.

रात सोंपून फालें जावचे प्रतीक रूपान मनाचे दुर्गुण ना जावन सद्गूण वयर येवप सुचयता. स्फूर्त येता आनी मन पवित्र जावंचे वेळार मात्र नादब्रह्माची उपासना करपाक जाता. सग कवीकं स्फूर्तीची चपळ आनी पारपोळ सभावाची जाणवी काय आसा, अशें आखरचे दोन श्लोकांत फिर्याद केल्या. कविता देवी निंबूक योग्य न्हय जाली, भुलोंवची

आनी चंचल मनाची वायलमनीशीचे बरोबर आसा. जेन्ना कवी तिचे पांयजोळांची किण किण आवाज आयकता आनी तिचे सुन्दरतायेची प्रभा पळयता, तेन्ना तो चड खोसयेता, पूण अकस्मात ती दिसना जाता आनी मागीर घोर काळोख पसारता. ते स्थीतीर तो केवल प्रार्थनाच करूं शकता. 'ओ म्हजे हृदयाची राणी! म्हजे कडे साकून पयस वच नाका. ही भायरची प्रकृतीय चड अनुकूल न्हय म्हण ते समजतात. तीं नक्षत्रां समान प्रजळचे अक्षरानी आकाशाचे नीळ पानार कांय वरयता, आनी मागीर पुसून उडयता आनी परतून सुरू करता. एक दैवी यश, कविता देवी कोणाचेय मुरवार परिस्थीतीक लागून स्वयम् अर्पण करना.

हे कवितेतं वळ्ळत्तोळ कवितेचे तीन गूण धर्माचे म्हत्व समजायतात, इन्द्रियां संबन्दी, नीती संबंदी आनी ईश्वरसंबंदी. इन्द्रिय गूण तिका फुसलायता. नैतीक गूण तिका भो गरजेचो आनी दैवी गूण तिका पलायनवादी करता. कवितेक आधार दिवचे काय विचार हांगा मेळतात. ते हे - कविता एक दैवी प्रेरणाचो परिणाम आसा. ताचें मूळ स्वर्गाचे रहस्याक लागून आसा. ताचे प्रयोजन आनंदाचे वाटेन शिक्षण दीवप आसा, आनी हो आनंद एक मनोभावाक रसाचे श्रेणीर मेरेन पावोवन एक आदर्श विश्वाचे निर्माण करचे शक्ती साकून मेळता. अति सूक्ष्म इन्द्रियसुख मेळचो जागो, झगझगची तलवाराची चमक आनी चितळा दोळ्याचे प्रेमिकाची दिश्टी - वळ्ळत्तोळांक हेंच आदर्श विश्व आसा. देखून तांकां हांत साकून आनंद मेळता. ही कविता शास्त्र रीतीचे विचार ऊणेच उतरानी परगट करचो एक वरिश्ट नमूनो आसा. हांत संस्कृत भासेचीं उतरां जायते प्रमाणांत आसात. संस्कृत छंद, संस्कृत विन्यास, परंपरागत बिंवां आणि कवितेपासून तांची परंपरागत धारणा - हीं साधनां हे कवितेक स्वयम् संपूर्ण करतात आनी वळ्ळत्तोळांचे कवितेचे पुराय सभावाचे प्रतिनिधित्व करतात. कवितेचे साधारण दर्जेचे रीतीर साकून कवितेचो दुसरो श्लोक, ताचे असामान्य सुन्दर धादोसकायेचीं रूपकां आनी परगट करची विशेष रीत सुन्दर आसा. ते रीतीक संस्कृताचे मान भोवमानाचे अवस्थे पाशीय मलयाळम भासेचें स्पश्टपण आनी तिची मधूरसाण चड आसा.

किळिक्कोंचल (पक्षीचें कल कूजन) :

ही वळ्ळत्तोळांगेली चड सुन्दर कवितांत एक आसा. द्राविड छंद 'मंजरी'त रचले हे कवितेंत वळ्ळत्तोळ-कवितांची सग अपरूप विचित्रतायो दिश्टी पडतात. 1924 वर्सा प्रकाशन केल्या साहित्य मंजरीचे चौते भागांत ही संकलन केल्या.

कवी आपणाले वाचप्यांक कल्पनेचे विमानार बसोवन भूतकालांत सफर करचाक घेवन वतात. तांचे मुखार जनक रायाली राजधानी मिथिला दिसता. आपणालो राज दंड घेवन हे संवसार सागराचे पलतड वचे जनक रायालें रावळार दिश्टी पडता. थंय नांगर निशानीचे झण्डे वयर उडचीं व्हड व्हड घरां दिश्टी पडतात. थंय संत याज्ञवल्कयाचे शिष्य गण वेसून ग्रन्थ रचपांत गुल्ल आसात, तसलीं व्हड व्हड सभा घरां आसात. थंय शिवजीलें धनुश त्रयंबक दवरल्लो व्हड सोपोय आसा. पूण कवी आपणाले वाचप्यांक ताकतिकेन राज

उद्यानाकडे घेवन येता:

ओ म्हजे दोळ्यानों,

दर एक फूल आनी दर एक कोमळ पान पळोवन घुसपून्हयें. उद्यानाची देवी स्वयं हांगा हे सुन्दर वारांदार बेसल्या.

ती पांच वर्सांची चली खेळांत गुल्ल आसा.

तिचे शरीर चंप्या फूलच दिसता.

आनी मुखामळ तांबडे गुलाबा वरी दिसता

तिचे सुन्दर दीर्घ दोळे नीळ काळीं फूलां सी दिसतात तिचे सुन्दर मुदयाळे केस भूजार साकून सकयल भोवंरा वरी हुमकळतात.

तिचे हात वाली बेल्लावरी नाजूक आनी तरणे पानावरी मोवाळ आसात.

ती चली जायते तराचे खेळांत गुल्ल आसा. तिगेलीं सुमार जनावरांची बावलीं आसात. ती तांकां फांतीर बेसयता आनी एक घर. संवसार चलोवपी बायल मनीसी सारके ती तांकां सर्वांकय दूद, फळां आनी शक्कर सारके खाण खावयता. अप्रांत एक भांगरा कळसांत उदक भरन हाडता आनी झाडांक शिंपता. तीं झाडां आनन्दान माथें हालोवन अपणाली प्रसन्नताय दाकयता. तीणे न्हेसिल्ली सिल्क सारीचें एक तल्लव सकयल भूंयचेर पातलावन आपणाले बावल्यांक ताचेर दवरता आनी आवयचे वरी तांकां गीत म्हण निदायता. तेन्ना तिचे मोवाळ हातान बावल्यांचे जांघेर ताळ घरता. उपरांत ती विष्णू बावल्याक फूलांनी पूजा करता आनी आपणाले दीर्घ दोळे धांपून संत गार्गी वरी ध्यानांत गुल्ल रावता. अशें ती जीवनाच्यो कांय घडणीयो तय्यार करता. तेन्ना कीरांची एक जोड आकाशाक तुस्त करन गीत गायन करचें ती आयकता:

'आ, तूं आयकना व्हय,

हे कीर आमी उलोवंचे भाशेन उलयतात.

हांव तांकां घरतलीं'

अशें एक नवे बावल्याचेर मोग दिसून आपणाले दासींक सांगचे वरी तीणे म्हळें. तिची दासीयो कीरांक घरन तिका हाडून दितात. ती भो प्रसन्न जाता. तीणे तांकां भागंरा आनी रत्नाचे माळानी झगझगीत आपणाले छातीक लागून वेंग मारन घरले. तीणे तांची चोंच आपणाले गालार दामून धरली. तेन्ना थंय. तांवडे पवळ्या सारके सोबा दिसली. तीणे अपणाले विलूसा पाशीय मोव हातानी तांचे विलूसा सारके शरीर परसलें.

ती तांकां दूद आनी म्होवदिता, पूण भियेल्लो पक्षीयो एकमेकाक चोयतात मात्र.

भांगरा उज्वल पांजरो तरीय

बंदखणीची ख्यांस्त ख्यास्तच.

उपरांत सीतेचे आवयचे कूडांत सुवात बदलता. जनकरायाची पत्नी ती, एक व्हड कूडांत सुशेग घेता. भोवंतणी शान्तताय पसरल्या. ती मैत्रेयीन शिकयल्ले वेदान्ताचे

तत्वाचेर मनन, चिंतन करपांत गुल्ल आशिल्ली. वेदानी तुस्त करचो ब्रह्मानन्द तिका एक भांगरा फूल वार्यांत उबून येवंचे सारके घावन येवंचे घूवे रूपान तिचे कडे आयलो. लक्ष्मीदेवीचे आशिर्वादान सर्व प्रकाराचेय यश येता- तशें तांची दासीयो सीतेचे फाटल्यान आयल्यो. आपणाले चेरडाक पळोवन राणीयेचे खोसीचें वर्णन कवी अशें करतात.

बागांत खेळांत तल्लीन आपणाले घूवेक
जेन्ना तिका अपार आनन्द जालो.
एक आवयक, साबार दिसांचे वियोगा उपरांत.

तिची घूव परतून मेळ्ळी सारके, तिचो चेरो फुल्लो. कीरांची खबर सांगचाक उत्सूक जावन घूवेन म्हळें:

आवय, तो कीर कितलो आडांगी आसा,
तो सांगता 'तुगेले घूवेक लग्न करपाक रामयेतलो'
हांव ना...

पूण आवयन तिका मना केली आनी सेविका कडे कांय कितें म्हण विचारलें. तीणे म्हळें 'वाल्मीकी मुनीले आश्रमा साकून कीराची एक जोड उडून आयल्या (वाल्मीकीचें नाव आयकचाकच राणीयेचे हात दोनीय कमळा कोळ्या सारके अंजली बद्ध जाले) आनी ते वाल्मीकीन रचल्लें रामायण पाठ करन आयकोवंचाक शक्त आसात.

बुदवंत वाल्मीकी म्हणतात
दशरथ रायालो पूत राम
तुचे बाल सीतेक लग्न करतलो.
कसलें व्हड भाग्य!

तेन्ना घूवेन तिका विचारलें 'वाल्मीकी म्हाका रामाचान लग्न करयता कित्याक?' आवयन तिका समजायली आनी म्हलें, 'म्हजे घूवे, चेडुवांक आपणाले जीणात असले एक काम करुंक जाय जातलें? सीतेन थारायलें 'कोणेय म्हाका लग्न करचो न्हय, केवल म्हाजी आवयीच करो.' हे आयकून सग हासलीं आनी ती आवयक वेंग मारन रावली.

ही वळ्ळत्तोळांची एक सुन्दर लघु कविताच मात्र न्हय, पूण ही कवींची एक व्हड सिद्धीय आसा. पुराय घडणी समजपाची तांक, नाटकांतले आशेन घडिल्लो प्रसंग, खाशेल्लें वर्णन, मंजरी छंदाची अपरूब गती आनी उतरांचे प्रयोगाची रीत - हे कारणानी उवगण येवनातिल्लें मधूर आसा. संगीतय कोमळ आसा. कवीनी हे कवितेंत चेरडूपिरायी पवित्र सुन्दरताय परतून घेतल्या - भोळेपण, सादेपण, स्वार्थ त्यागाचो आनंद, सांगून समजावूंक कठीन अशें एक जादू - हांचें एक मिश्रण रूप. तांची सीता मलयाळम कवितेचें एक मंजूळ विचित्र रूपचित्र आसा.

नरेन्द्राली प्रार्थना - ही 'पाना' नावांचे द्राविड छंदांत रचल्ली एक लघुकविता आसा. साहित्यमंजरीचे पांचवे भागांत ही संकलन केल्या. ही कविता स्वामी विवेकानन्दाचे जीवनाचे

एक प्रकरणाचेर आधारून आसा. सन्यास स्वीकार करचे फूडे तांचे नांव नरेन्द्र आशिल्लें. तांणी श्री रामकृष्ण परमहंसांगेली वळख कंरन घेतली आनी ताणी तांकां आपणाले गुरू मानून घेतले. एक दीस आपणालो शिष्य दोळयांतल्यात दुकांचे थेंबे काडतालो परमहंसानी पळयलें. ते सुंदर सभावगूणाचे तरणाटयाली दुखां पळोवन श्री रामकृष्ण परमहंसानी ताका विचारलें. नरेंद्राचे गीत गायन परमहंसाचे आत्माक आनन्द दितालें.

रे नरेंद्र, तुचे घराकडे कांय तरी जालां की?
तूं अशें रडता कित्याक? म्हाका सांग.
हे दु:खी संवसाराची दुकां पुसून काडपाक
वस्त्र सोदचे तुचे दोळ्यांत अकस्मात
दुकांचे थेंबे आयले कशे?

ताची आवय भूकेन वळवळता म्हण दुर्बळ आवाजान ताणे जाप दीली. ताजो बापूय आसतना तांचे घर समाजकल्याणाची रावतिका आशिल्लां. पूण आज तें कठीन गरीबीचें घर जालां. ज्यामोगाळ आवयचे थाने-दूद पीवन हांव वाडून व्हडजालां ती आवय आज भूके पीडेन तळवळता. आवयगे! हांव कितलो कृतघ्न जालां!

तो एक दम वेजार जालो. आनी दुकां सहन करचाक जायनातिल्लें उखलसून रडलो. मोक्षाचीं तत्वां शिकोवंचे रामकृष्ण परमहंसानी आतां आपणाले शिष्याक दुडू जोडपाची वाट सांगून समजायलो:

मोगाळ पूता, वच आनी तुगेलें दुख्ख
आमची आवय म्हाकाळीक जाणय.
तिचे निमित्तीं रुपें कडून संवसारात गंगा रूपान व्हळता.
तिचे विनियोगान सूर्य केन्नाय भांगरा शिंवर घालता.
तिचे मोलादीक रत्नानिमित्तीं काळखी रात सरी परजळता.

संवसाराचे ते मालकीशीन तुजेर दया दाखयल्यार असली कसली गरीबी आसा जी दोळ्या आड जावना?

नरेन्द्रान सुस्कार सोडलो. ताणी खांदार घालेले शाळेचें तलव कवळून काडून दोळ्यांर घालन दामून दुकांचे थंवे आडायले. माथें वावगोवन तो काळीचे म्हादेवळांत गेलो. कांय वेळ उप्रांत तो परतून आयलो. ताचे दोळे फूडे वरी ढुकां थेंब्यानी भरन आशिल्ले. रामकृष्ण परमहंसानी तें पळोवन ताका विचारलें:

तू परतून रडता कित्याक?
ते कल्पलतेनय म्हजे पुताक चिकूळा की?
सांग रे पूता! तूवें तिजे कडे कितें मागलें?

फूडार सन्यासी जातल्यान तांचे कडे सत्य सागलें. हांवें धना खातीर न्हय, धनाचेर अनासक्ती जावो अशें तिजे कडे मागलें.

पूण हाय! म्हजे घरांत...

रामकृष्ण परमहंसानी ताका मना केलो आनी मुमुरख्यानी हासून म्हळें:

तूंवे 'माया' क पुसून उडोवपाकच जल्म घेतला म्हण पयलींच म्हाका कळतालें. कशेंय जावो, देवीकडे क्षुद्र वस्तू खातीर प्रार्थना करन ते राणीये मुखार फुटलें भीखे आयदन घेवन रावतल्लो न्हय तूं.

ही एक सुन्दर कविता आसा, उतरांचे प्रयोगांत स्पश्ट, आनी फळादीक, नाटका भाशेन घट आसा. गुरु आनी शिष्य - दोगांचेय म्हत्व स्पश्ट करता. नरेंद्राचो तरणो आकुळ-पीकुळ सभाव, आपणाले गुरुंचेर पूर्ण विश्वास, आपणाले शिष्या खातीर गुरुंगेलो अनंत प्रेम, रोखडच फळ दिवंची सर्वव्यापी सत्य परिस्थितीचे देवीचेर विश्वास, तिचे मुखार नरेंद्राचो खरो सभाव - हें सर्वय दोगां व्यक्तींचे गजालींतल्यान स्पश्ट केलां. पवित्रताय आनी पूर्णताय - दोनीकय मेळोवन सोबिताय हाडप वळ्ळतोळांचे खाशेलपण आसा. आनी ही कविता हे दोनीय गुणविशेषणाचो श्रेश्ट नमूनो आसा. विशयाक अनुसरून सरळ आनी आत्मग्यानी न्हय आशिल्लें गौरव हांत दिश्टी पडता. सरळ संस्कृत आनी मलयाळम उतरांचे कुशल संयोगाचो विन्यास 'मणिप्रवाळ शैली'ची पवित्रताय आनी भावगीताची लय - हांचो परिचय दिता.

शेतकरांचे गीत

'केका' छंदांत रचली ही कविता साहित्य मंजरीचे सातवे भागांत संकलन केल्या. मनाचेर परिणाम करपी हे ओळीनी कविता सुरू जाता:

लोखणाक उणे कांय दुकांचे थेंबे आसात तरी ते हांगा पडतले आनी हीं उतरां जावन बदलतले.

हांगा उतरां म्हळ्यार सुखार्थी मनीसांगेले लोखणाचे दुर उपयोग करचे दुख्ख परगट करचीं उतरां आसात. जिवीत दिवपाक फाव जाल्लीं आवतांक जिवीताक नाश करचीं आयूद म्हण उपेग करतात. खयींय एक माथें ऊंच दिश्टी पडता तरी ताजेर तलवार हासून पडता आनी ताजेर भालो सोडता आनी रायफळ ताजेर गोली मारता. लोखणच हे जुल्मी सत्ताधीशांक हत्या करपाक पालव दिता. पापाचे हे काळे खतांसाकून ते केन्नाय मुक्त जातलें की?

पूण निरक्षर शेतकारांचो काळो देश न्हन्तना लोखणाचें दुख्ख आयकतल्लो कोण आसा? झूजाचे जोतीन आकाश काळें करन आपणालें नांव उजळ करचे वीर न्हय भारताचो लोक. दुसयीक दामून दवरचो खोटो अभिमान घेवंचाक भारताक आकर्शण ना. 'हिमालय दुसरे पर्वतांक पयस दवरून आपणालें गौरव पावना.' जेन्ना मेरेन आपणाले संगाती प्राण्यांचेर प्रेम शेतांत उपजना तेन्ना मेरेन आमकां तीं वंजारांच उरतात. शेतकार म्हणतर रावतले:

एय म्हजे शरीर, गायचें शेण एकटाच करचाक बागोवन घे. पूण जुल्मी राजवटामुखार केन्नाय बागोव नाका. म्हजे खांदो, संतोशान नांगरा भार घरन घे पूण सुवार्थाचे आज्ञेक

केन्नाय आंगार घेवनाकात.

'स्वतंत्र भारतांत तांचो वावर दुसर्यांचे भलायकी खातीर आसतलो. केन्नाय तांचे नाशा खातीर न्हय.' अशें ते अधिकारान स्पश्ट करतात. एक हत्ती अपणाले सांखळेचे कुटके करचाक प्रयत्न करचे वरी कवी भारताची कल्पना करता. तो आपणाले स्वातंत्र्य भुंजून नाश करचाक न्हय पूण गुलामीचे कश्टांत दुख्ख भोगतल्यांक आपणाले बळान वयर काडचाक इत्सा करता. शेतकारांची पूर्विल्ली प्रार्थना परतून म्हणून कविता सोंपता, 'लोका समस्ता सुखिनो भवन्तु.'

हे कवितेंत श्रेश्ट मनोभाव मेळतात. केन्ना केन्ना एक सुन्दर विंबय परजळायता. हांत विचार कल्पनेचे मुखार चलता आनी केन्ना केन्ना संत चमकता. ही वळ्ळत्तोळांची आदर्शवादी कवितेचो उत्तम नमूनो आसा.

हाची प्रेरणा आदींमदीं मंद पडता. पूण आदर्शवादाचो सूर वरे भाशेन चालू दवरता.

एक पिंजल्लें पोरणे उशें

ही कविता 1916 वर्सा रचली आनी साहित्य मंजरीचे पयले भागांत संकलन केल्या. ही वळ्ळत्तोळांगेली लोकप्रिय कवितांत एक आसा. ही कविता कवींचे शैलीचें स्पश्टपण आनी सादेपण- हांचो, आनी सुळसुळीत सरळ गतीचो सुन्दर नमूनो आसा. एक पोरणे पिंजल्ले उश्याकडे कवी गजाली करता. तें उशें बुरसल्लें आनी तांतलो कापूस भायर येवन आसा. कवी ताचे कीर्तीचे दिसां पासून उगडास करता:

एक फावट तूं लकलकीत, झिगझिगीत घवें आशिल्लें तुका आफडुक कोणाकय आपणाले हात धुंवुक जाय आशिल्ले. पूण आतां तुजे दुर्भाग्य असलें कि तुका हात लायल्यार ते हात धुवुंक जाय जातले.

फूडे हें उशें एक सुन्दर युवतीचे फूलावरी हांतूण आशिल्लें:

शरद रुतूंत जमनींतल्यान फुटिल्ले उदका देगेर चांदनें झळकचे वरी घवे शोबीत सिल्काचे चादर आवरण केल्ले तिचे हांतूणार तूं लकलकतालें तुजो भायलो भाग तिका केन्नाय सुळसुळीत न्हय दिसल्यार ती आपणाले कोमळ हातांनी भो संत

तुका थापटायतली

जशें एक आवय आपणालें चेरडाची जांग परसून ताका निदायताली.

तुजेर तीणे फूलां शिवंडावंचे वेळार

तुका आनंद दिसतालो ताचे पाशीय चड आनंद तेन्ना दिसतालो.

तिजे लग्न जाल्ले दिसांचे सुन्दर घडणीचे. उशें एक शांत गवाय आशिल्लें.

जेन्ना तिचो घोव तिजे ओंटांचो उमाव घेता तेन्ना नवेंच लग्न जाल्लें निमित्तीं

ती लजेन तुजांत जायते वेळा

तिगेलो चेरो निपयताली.

त्यावेळार तिचे घोवाक तुजेर कितले जाळ आयले आसतले.

रातींत आपणाले माथें उश्यार दवरून तीं दोगंय सुशेग घेतालीं तेन्ना तांचे मनांत फुलचे प्रेमाचे फुलांघोसांचे म्होवा सारके तांचो प्रेमसंवाद वार्यान आयकूचे फूडेच सर्वप्रथम ताणेच आयकून आनन्द घेतलो आसतलो.

चितळा दोळ्यां सारके दोळ्याची व्हकल सांजे न्हाण जावन आपणाले वोल्ले केस घवी गिंवसण घाल्ले तुजेर विस्कळ घालन पडतली तेन्ना तूं काळे कूरपानी पसारलें शरद् रुतूचे मळबा सारके दिसता. काळबाणींत रातीक मेरेन हारवोवंचे आनी फुलां माळेले तिजे सुंदर केस साबार थळाक तुका लागून आसल्यान इल्लो परमळ आतांय तुजांत बाकी उरला.

आतां सुखसमाधानाचे ते दीस गेले. आयाज एक रेवट सारके जागो उश्याचे मुखार दिश्टी पडता. तें पळोवन ताका अपणाले पोरणे सुखसमाधानाचे दिसांचो उगडास शेंवर टक्के प्रखर जाता. पूण उश्याक हें नशीब कशें आयलें म्हण कवी चिंतन करता. ताणे दुसर्या खातीर सेवा करन अपणालें जीवन अर्पण केलां.

रात दीस दुसर्यांची सेवा करता करता तुजे शरीर पिंजून दुर्बळ जालें तरी कितें?

तुजे हृदय एक कर्मयोगी सारके दुशण नातिल्लें पवित्र आनी शान्त आसा.

कपूस भरन गिवसण घाल्ले नवे उश्याक सेवाकरचें एक नवें जीवन मेळो अशें इत्सा परगट करन कविता सोंपता. उश्यांत भरलो कापसाक कवी 'सुस्थिरात्मो', 'थीर आत्मो' म्हणता. कवितेचो पुराय विचार भगवत् गीतेचो 'वासांसिजीर्णानी - हे श्लोकाक आधारून आसा.

ही कविता विचार, विन्यास आनी शैली- हांत सुन्दर आसा. ही वळ्ळत्तोळांची नामनेची कवितांत एक न्हय, पूण तांचे साहित्य मंजरींतली सामान्य कवितांचे प्रतिनिधीत्व करता.

एन्टे भाषा (म्हजी भास)

1927 वर्सा रचल्ली ही नामनेची कविता कवींलो आवय भासेचो अभिमान परगटायता. ही द्राविड छंद 'माकन्द मंजरीं'त आसा, आनी साहित्यमंजरीचे सातवे भागांत संकलन केल्या.

कविता निजाचे गुणांचे वर्णनान सुरू जाता.

आपणाले लागीचे सागराची गंभीरताय आनी सह्य पर्वताची थिरताय, 'गोकर्णाचे देवालयान दिवचें स्वर्गसुख आनी कन्याकुमारी' देवीची प्रसन्न उजळकाय पेरियार न्हंयची गंगा सारकी पवित्रताय

(1. गोकर्ण - पुराणाचे प्रमाणीं केरळची उत्तर शीम.

2. कन्याकुमारी - पयलीं केरळची दक्षिण शीम आशिल्ली, आतां तमिल देशाची शीम.)

आनी सियळ्या उदकाची गोडसाण गान्दाचो आनी जायते मसाल्यांचे जिनसांचो परमळ संस्कृत भासेचें सभावीक चैतन्य, आनी मधूर तमिळ भासेची सुन्दरताय-

हांचे सर्वांचेंय जमयलें रूप आसा म्हजी भास. ओ अभिमानी, तूं आनन्दान नांचून घे.

एक चेरडाचे आरोग्यवर्धक उदरगतीक आवय भास कितली गरजेची आसा अशी उपरांत ते म्हणतात.

चोंचरे उलोवपाक प्रयत्न करचे चेरडाचे मोवाळ ओंठांचेर आवयचे हूदाक लागून भरसून येवंचे पयलें उत्तर

'अम्मा' (आवय) आसा.

दुसर्यो भासो फक्त सांवाळच्यो आवयो आसात- आमची आपणाली भासच आमची 'आवय' आसा. चेरडूवां आवयचे मोगाळ प्रेमाचे दूद पितात तरी मात्र ते भलायकीचो विकास पावंतात.

स्वर्गाचे अमृत लेगीत तेन्नाच आमकां अमृत जाता जेन्ना आवय तें आमकां वांटून दिता.

वेद, शास्त्र, काव्य - कांय पुणीय आसो - जें कांय आमी शिकतात, तें सग आवय भासेंतल्यान जाल्यार मात्र आमचे मनार प्रभाव घालूं शकतलें. तेन्ना तें आमचे मनाचो म्होव जाता. न्हयतरी ते केवल मनाचे फूलाचे पाकळेक लागले शोबाय वाडोवंचे दोवाचे थेब्यां सारके आसतले. 'आवय भास अपात्र आसा.' हे आरोपाक कवी जाप दिता:

कैरळी अपात्र अशें कोण सांगता

जीणे आपणाले लोकांक प्रथम काव्य (1) पंचम वेद (2) धर्मशास्त्र (3) आणि उपनिशद म्हण आयकयंलां.

1. प्रथम काव्य - रामायण
2. पंचमवेद - भागवत
3. धर्मशास्त्र - नीतीसार, हे आनी हेर

उपरांत, रवंयच्याय एक विदेशी भासेंतल्यान मनीसाक समाजांत पुराय म्हत्व घेवंचाक जावना म्हण ते समीक्षकांक शिटकायतात. ''जेन्ना पर्यान तुमची भास लागून उपेग करन कार्यक्षमता, कुशळताय. पयसाय आनी विकास जायना तेन्ना पर्यान तुमी अकुशळ आनी अर्दकुटे आसतले.'' मल्याळम एक गरीब घरकान्न आसा. ती आपणाले भुरग्यांक चांग.चांग पुस्तकां दीवन तांची बरे पुस्तकांची भूख ना करपाक फाव न्हय म्हण कवी मानून घेतात. पूण दूसरे भासांचे सागरांत उडकी मारपी लोक तांचे खोलाये साकून एकटावंची उज्वल रत्नां आपणाले आवयक अर्पूक फूडे सरप - हें कांय धादोशींगेलें कर्तव्य आसा:

तुमी आपणालें पुत्र धर्म विसरले म्हणचें कितली लजेक घालपी करनी, कितलो चिंतेस्त विशय आसा. तुमी आपणाली आवय भासेची सेवा करनांत तरी तुमी राज करपाक फावो न्हय जातात, तुमी आपणालीं माथीं बावगोवन तिजो मान करन पूज्य भाव दाकयनात तरी तुमी अभिमानान तीं वयर घरचाक शक्त जावना.

फुडले काळांत आस्त बाळगून कविता सोंपता: हांवे चडकांय उलोवुंक जायकितें?
फायसाकून ग्यानाची भीख मागून घेवंचाक

केरळांत जो कोणेय येता तरी तांच्यो चीरीयो भरन आसतल्यो. हें केरळ आपणाले चड उदार सभावाक अतिपूर्विल्लो काळ साकून फांकीवंत देश आसा.

ही कविता प्रतिकूल नदरेचे अपेक्षाक घरन केल्लें एक कठोर तथ्यांचे समर्थ निवेदन आसा, आवय भासेचेर विश्वासाची घोषणा आसा, तिजे कीर्तीचें गीत आसा, आनी तिजे सेवेचे कार्याची मान्यताय आसा. एकलाचे भासेचो हो अभिमान, एक बळिश्ट समजिकाय वळ्ळत्तोळांत भो चड प्रबल आसा, कारण तांचो परंपरावाद आनी राष्ट्रवाद आसा. पूण कवी भासे खातीर भासे पिशो न्हय. स्पश्ट चिन्तन करपा भायर कवितेक एक सुन्दर गीतिकाव्याचो पद विन्यासूय आसा.

हांगा सुचयल्यां कांय कवनां वळ्ळत्तोळांचे विशाल काव्य साहित्याचें प्रतिनिधीत्व करना, पूण तीं तांगेले विचाराचे आनी शैलीचे फावो तितले नमूने आसात.



# अध्याय पांच

## वळ्ळत्तोळांची आख्यान काव्यां

वळ्ळत्तोळांची चड कवनां आख्यान काव्यां आसात. 'चित्रयोगम' एक दीर्घ आख्यान काव्य आसा. साहित्य मंजरींतय अनेक आख्यान काव्यां आसात. तीं एकच नाटकांतले भाशेन भावगीत आसात न्हय तरी वर्णन केल्लीं काव्यां आसात. पूण एक आख्यानक कवी म्हण तांची कीर्त पांच मुखेल काव्यांचेर आधारून आसा. 'बंधनस्तनाय अनिरुद्धन' (बंदी अनिरुद्ध), शिष्यनुम् मकनुम्' (शिष्य आनी पूत), 'मग्दलन मरियम' (मेरी मागदलीन), कोच्चु सीता (बाल सीता) आनी 'अच्छनुम् मकळुम' (बापूय आनी घूव). हीं काव्यां तांचे काव्य जीवनाचे वेगवेगळे काळांत रचलीं आनी वेगळीं वेगळीं करन तांचे प्रकाशन केलें. आपणाले काव्य शिक्षण घेवंचे वेळारीय 'गणपती' सारके पुराणांतले विशयांक आधारून ताणी दुसरीं कथा-काव्यां रचलीं.

1924 वर्सा आत्मपोषिणींत 'अनिरुद्ध' काव्य प्रकाशीत जालें. तेन्ना साकून वळ्ळत्तोळ सुप्रसिद्ध जाले. उषा आनी अनिरुद्ध हांची कथा आदले मल्याळम साहित्यांत जायते आकारान उजवाडाक आयल्ली आसा- चंपू, कंथाकळी आनी तुळ्ळल रूपानी. हे पौराणीक प्रेमकथेक आधारून वळ्ळत्तोळानी एक लघुकाव्य अथवा खण्ड काव्य रचलें. काव्याचे आरंभाक आमी उषाक दुख्खी देखतात कारण तिचो बापूय बाणान तिचे मोगी अनिरुद्ध हाका बंदरवणीत घाला. उषा पूज्य म्हंतारो मंत्री कुंभाण्डाक सोदता, अनिरुद्धाक मेळचे खातीर ती ताची- परवानगी मागता. ताचे 'मौन' ताची परवानगी म्हण समजून उषा अनिरुद्धाक घाल्ले काळखी बंदखणींत वता. कवी तांचे संगमाचे आनी संवादाचे वर्णन करन सुखी भविष्याची आस्त बाळगोवन प्रसंग सोपंयतात.

हे काव्यांत चार-चार ओळींचे 73 श्लोक आसात. केन्ना केन्ना वर्णनानी आनी केन्ना केन्ना संवादानी कथा फूडे सरता. काव्याच्या अर्द वाण्टया पाशीय चड भाग उत्तम पुरुष सर्वनामांत आसा, देखून तें फकत वर्णन करचे मात्र न्हय, पूण चडय नाटकांतले भाशेन आसा. कुंभाण्डा कडे उषाची उतरां चडय नाटकांतले भाशेन आसा. कुंभाण्डा कडे उषाची उतरां चडय मर्यादा भितर आसात. पूण तीं तिगेले दुख्ख आनी कश्ट परगटायतात. ती

म्हणता: 'अनिरुद्ध बंदखणीची ख्यास्त भोगचाक फावो तरी हांव मृत्युदंड भोगचाक लायक आसा.'

अथवा म्हाका आनी दंड कित्याक दिवपाक जाय? तूंवें पयलेच म्हाका जितो मारनातिल्यानच म्हजो जीव घेतला मू.

तिचीं उतरां अडखळीं. तिचान उलोवपाक जाले ना. ती एकदम बेजार जाली आनी एक चेरडा सारके रडली.

अनिरुद्ध भो दुख्खी जालो, कारण उषा ताका मेळचाक जेलांत येवंचाक लाचार जाली.

एक गरीब मनीसूय आपणाले प्रेमिकाक लग्न करन आपणाले घराक घेवन वता. पूण हे निभागीक लग्न करन म्हजे प्रेमिकाक ही काळखी वंदखण - तिचे नवें घर मेळां!

तिचे दुकांचे थेंबे पळोवन तो भो दुख्खेस्त जाता:

म्हजे हृदयाची राणी, रोडू नाका, म्हजे दुश्मनानी म्हजेर सांडल्ले बाण हांव सस्ततायेन तगन:

पूण तुचे दुकांचो एक थेंबो लेगीत हांव सोसचाक शक्त न्हय.

तिचे वांगडा जेलासाकून भायर वचाक तिचे निमंत्रण तो न्हयकारता.

जेलां साकून पळून वचाक तुचो थोव

इतलो भिजूड की?

ओ यादवकुलाचे सूने,

एक शूर बायल तूं, तुका म्हजेर आशिल्ले बुजवणी खातीर आपणाली इज्जत समर्पण करू नाका तुचे नवे संबन्दी म्हाका जेलां साकून धाडशीत सोडोवपाक वेगीन येतले.

आनी तो तिका घटाय दिता:

ओ म्हजे मोगीण, देवान स्वयम आमचे हृदयांत वोयल्लें प्रेमाचें बीं वगडावना.

हे काव्यांत परंपरागत शृंगाराचे मंदतकायें साकून मुक्त संस्कारीत मधूर प्रेम मेळता. कवीनी एक मधूर आनी मनाची उदार भावना फक्त परगटायल्या. मात्र न्हय पूण पात्रांक रसरशीतय केल्यात. आनी परिस्थीतीचो हुसकोय स्पश्ट केला. कुंभाण्ड पूज्य आनी दयाळ आसा. ताका उषाचेर बापू समान नाजूक आदर आसा. हे कवी ताचे चेर्यार नाटका भाशेन सिद्ध करता. उषाचे दुख्ख पळोवन तो एक 'खांब्या सारके निश्चेष्ट' रावता. तो तिका बुजवण दिवपाक इत्सा करता. पूण तिचे कडे कितें सांगचें म्हण ताका कळना. जेन्ना उषा जेलां वचून अनिरुद्धाक मेळुंक इत्सा परगटायता तेन्ना तो उत्तेजीत जाता आनी ताका अजाप जाता. अहंकारी, चड दुख्खी, रागान भरल्ली आनी प्रेमांत गुल्ल ती एक चित्र समान स्तब्ध बासता. 'तिचो दुख्खाळ चेरो बावगोवन, आपणाले नाजूक हातान हूमेलें निडळाक तेंको दीवन' जेन्ना ती कुंभांडाकडे उलोवपाक लागता तेन्ना उज्या सारके रागान तिचे दोळे तांबडे जातात. पूण तेन्नाच ती एक चेरडा सारके हुडकयानी रडता. तिचे दुकांचे थेंबे तिका अनिरुद्धाक देखचाक मान्यताय दीवयतात. तीर अंवसरान बन्द खणींत वता आनी अनिरुद्ध

तिका मेळचाक मुखार येवंचे फूडेच ती ताचे व्हंटींत पडता आनी तिका आपणालीं दुख्खां निपोवंचाक जायना. लहवू लहवू ती ताचे शरीराचे घाय परसता आनी ताणे भोगले कश्टां पसावत चिंतन करन एक वीराची वायल म्हळ्ळो जादू ऊणे जाता. जेन्ना तो तिका परतून वचाक मागता तेन्ना ती हात जोडून थंयच ताजे वांगडा रावचाक मागता. अनिरुद्ध तिका वचाक नेटान सांगता तेन्ना ती ताकाय तिचे वांगडा येवपाक निवेदन करता. ती सरळ, हटी आनी कुळवंती आसा. अनिरुद्ध चड वीर आनी पराक्रमी आसा शान्ती आनी कीर्तीची देवी वास करचे आपणालो आजो श्री कृष्णाले नगरींत आपणाले घरांत आसचे समान बंदखणींत तो प्रसन्न आनी शांत आसा. उषाचेर ताचो पुराय प्रेम एक घंटे लेगीत यांगा रावचाक जावो बंदखणींत साकून भायर येवंचाक जावो ताका मोहांत घालचाक शक्त जायना. पूण तो वीर लेगीत आपणालो शांत सभाव वगडायता - असलेय संद येतात:

जेन्ना ताणे बंदरवाणीचे अस्पश्ट उजवाडांत असमयार काळे केस उबोवन आयल्ली उषाक पळयल्या तेन्ना जेलाचे अस्पश्ट उजवाडांत ताचें काळीज डसकलें.

जेन्ना तो तिची उतरां कान दीवन आयकता तेन्ना 'ताचें हृदय खवदळता, शरीर हूमेवन वोल्लें जाता, नांकां पूडां सान व्हड जातात आनी दोळ्यांत दुकांचे थेंबे भरतात.' ती ताचे मुखार हात जोडून मागता; तो तिचे हाताक उमो दिता, तिका वेंग मारता आनी आकूळ पिकूळ जावन म्हणता. ताचो आवाज, हावभाव, दिश्टी आनी उतरां - हीं सर्वय तो एक कुळवंत, मोवाळ हृदयाचो आनी मनान धीर तरणाटो म्हण दाखयता.

कविता सरळ आनी सादी आसा. हांत संयम आनी संवेदनाचो सुन्दर मेळ आसा. हाची एक एक ओळ चकचकीत वज्र आसा.

चार वर्सां उपरांत 'शिष्य आनी पूत' नांवांची कविता उजवाडांत आयली. चार चार ओळींचे 69 श्लोकांचें हें काव्य चड करन अनिरुद्धा सारके दीर्घ आसा. हे काव्याचेंय विशय पुराणाचेर आधारून आसा. मनीस पात्र परशुराम न्हन्ता बाकी सर्वय पात्र स्वर्गवासीच आसात. अनिरुद्धा पाशीय हांत पात्र, दृश्य, विकार आनी मनोभव चड आसात, देखून नाटकाचे भाशेन चड उमेद आसा. आलका देशाचे वाटानी परशुराम शिवाचें निवास कैलासाक वचें वर्णन साकून काण्याचो आरंभ जाता. दुसर्यांचेर प्रभाव घालचे बळाचे आधारार परशुराभाचें म्हत्व सिद्ध केलां. तो वावरांत गुल्ल रास्तेवेल्यान चलाता आसतना जायते तरांत गुल्ल आशिल्ले मनीस, आपणाले काम थांबून ताका पळोवन रावले.

कांय लोक चड नम्रतायेन हातान तोण्ड धांपून आपणाले सेजार्याकडेन फुसफुसले 'व्हडान उलोवनाकांत' सुन्दर आनी उज्वल परशुरामाक यक्ष बायलानी माळ घाली. आनी आपणाले काळे नीळ दोळ्यांनी ताका पळोवन 'आमकांय ताचे सारके पूत मेळो' अशें देवाकडे मागलें. मार्गार वाटेचे दोनीय तांत वेसल्लें जनां बेगान उठायलें. वाटेन वतल्यानी ताका वचाक वाट केली. सन्मान, भय आनी आदर हांचान वाट शांत जाली.

तो कैलास पावंता आनी शिवाचे पूतांक - गणपतीक आनी सुब्रह्मण्याक शिवाचे घरचे

आंगणात देखता. तांकां सडसडीत नमन करन तो अंवसरान मुखार सरता तेन्ना गणपतीन ताका आडायलो. 'हो धावांधांव कित्याक? म्हजे वाप भितर आराम करता. सुब्रह्मण्याय ताका आडावन म्हणता 'म्हजे भावा, कोणाचोय गुरु एकलोच वेसल्ले वेळार फुडेच अनुमती घे नातिल्लें ताचे कडे वचें योग्य व्हय?

पूण परशुराम म्हणता 'एक शिष्याक केन्नाय आपणाले गुरूंकडे वसपाक स्वातंत्र्य आसा.' अशें सांगून घरांत वसपाक लागता, तेन्ना गणपती ताका परतून आडायता. दोगांचेय मदें लडाय जाता. शिवजीचीं किंकरां 'भूतां' राबून पळयतात. हती तोण्डाचो देव गणपती ताची सोण्डाळ ताचे भोवंतणी घालता आनी ताका चारीय तांत घुवंडायता.

सन्यासी गणपतीक खेळपाक एक भोंवरा सारके जालो. ताणे ताका ऊंच काडलो आनी घुवंडायलो आनी परशुरामान जायते फांतां भूंय आनी सकयलो संवसार पळयलो.

पूण खेळाची आवड आशिल्ले गणपतीक चड मान दिसलो. हो परिहास देखून परशुरामाक राग आयलो. ''देवानी मेरेन हाडलो परिहास पूर्विल्ले भारतीयांचे रगताक सहन करपाक जाले ना.'' तो शिवान ताका दिल्लें दिव्य अस्त्रां साकून एक खंजीर काडून गणपतीक नदर दवरून सोडता, ती ताचे गालाक लागता आनी ताचो एक सूळो मोडता आनी गाजेचे आवाजान सकयल पडता:

जेन्ना रगतांत न्हाल्लो तो गज दंत सकयल पडलो

तेन्ना सगळें ब्रह्माण्ड भियेवन कडकडलें.

तो गजदंत सकयलचे तांवडे भूयां साकून उठून उबो रावचे कैलास पर्वताचे शिखरा सारके दिसतालो.

पार्वतीचो बापूय हिमवान आपणालें दोवाचें गोरे माथें उवारून आपणालो नात कशें गरगडलो म्हण अजापान पळयतासी दिसतालो. सर्व कृतींचोय गवाय सूर्य ही घडणी पळोवपाक शक्त न्हय म्हण लेकून कैलास शिखरार साकून अळंग वतालो. तो एक खीणाक मोडांत लिपलो.

...

स्कन्द मंद हासलो, नंदीन दोळे वारीक करन पळयलें, वीरभद्रान आपणाली गदा घोलयली,

रुरून सुसकारो सोडलो, कुंभाण्डान आपणाले हात पशयले.

आनी चन्दान आपणाली जीभ चाबली.

सेवेकारांचे विळाप आयकून ब्रह्माण्डाचे आनी गणपतीचे माय-बाप शिव आनी पार्वती थंय ताकतिकेन धावन आयलीं. आपणाले पूताक रगतांत न्हल्लो पळोवन पार्वती ताचे कडे धावन पावली आनी ताका आपणाले व्हंटीत घेतलो. परशुराम शिवाक शरण येतालो. सुब्रमण्यान आपणाले बाय-बापाक जाल्लें सर्वय सांगून आयकयलें:

पार्वतीन दावे हातान आपणाले मेकळून आशिल्ले केस कडेक काडून उजो जळचे

गदी नदरान घोवाक पळोवन म्हळें:

"आपणाले वरिश्ट शिष्यालो उपकार तुमी पळयलो नाकी:

तुमचे कडे आनी कांय दिव्य शस्त्र बाकी आसा तरी आशीर्वाद सयत तेंवंय ताका दिवंचें:

तुमचो पूत मेलो तरी कितें जालें?

तुमकां आपणालो वरिश्ट शिष्य मेळो मू ना?

'राम अपरूब शिष्य आसा' अशें

तुमीच एक वेळा म्हळें मू.

'एक लायक पात्र जातल्याकच विद्या दिवपाक जाय.'

पार्वतीचो राग अशी भायर व्हळता आनी ब्रह्माण्डाचो नायक शिव कितें करचें म्हण समजनातिल्लें रावलो. अकस्मात एक दिव्य वांसुरीचो आवाज थंय आयकुक पडलो. तें मधूर आनी असामान्य संगीत कैलासाचेर सर्वांकय सुख आनी शान्ती सादर करता. संगीताक लागून संगीतकारूय येवन पावंता. तो दुसरो कोणेय न्हय, श्रीकृष्णूच आशिल्लो. ताचे संग राधाय आशिल्ली. राधा आनी कृष्ण हांची उजळकाय भो तेजवंत आशिल्ली. तांचे उपस्थितीत तेजवंत शिव लेगीत दिसा उजवाडांत दीव्या सारके निस्तेज जालो. कवी उज्ज्वल उतरानी तांचे सुन्दरतायेचें वर्णन करपाक यत्न करतात:

तो पावसाडेचे मोडा समान काळो, नीळ आनी सुन्दर आसा चंचल सभावाचो, बिजलीचे प्रकाशासमान घवें वस्त्र न्हेसला; ताजो हात फूला पातिये सारके मोव आनी उजळ आसा तांत तांची मोगाळ मुरळी आसा.

आनी ताचे सुन्दर केसाचेर मोरा पाक साजतालें.

ताणे हाताक धरल्ली युवती

भोवंतणी परमळ पसारचे चांप्या फूला सारके आशिल्ली. तिचो चेरो प्रभात सूर्याक देखून फुल्ले पद्माक्षा सारके आसा. आनी मतीयां सारके लकलकची सिलूक सारी न्हेसल्या.

हे सुन्दर जोडीक कैलास खुशाल भरीत थेवकार दिता. थंय आशिल्ले सर्वय अतिथींचे पायांकडे नमन करतात. एकादे पार्वतीचे रागा भयान अथवा गणपतीचे इश्टागतीक इबाड आयल्ले दुख्खान. परशुरामाचो चेरो निस्तेज जाता. राधा आनी कृष्ण तांचेर दया दिश्टी घालतात. राधा गणपती कडेन वता आनी आवय सारके माये मोगान ताका कव्हण्टींत घेता आनी तिचो हात ताचे घायाळे गलार घावंडायता. अकस्मात घाय भरता. गुणवंती राधाचे हातांत स्वर्ग सुख दिवपी अमृत आसा. कृष्णाची बांसुरी पाशीय चढ मधूर उतरानी राधा पार्वतीक सांत्वना करता:

जेन्ना भुरगीं एकमेक आडांशी जातात तेन्ना एक आवय इतली रागीश्ट जावयेत की?

ओ देवी, जेन्ना राम तुचे धोवाचो शिष्य जाला, तेन्ना आपणाक तेगां भुरगीं आसात अशें मानुंक जाय. हे कुळवंत मनीशाक तुचे पूता पाशीय चड मोलादीक मानुंक जाय.

गुरुवारपण आनी वेते दुकी - हांनी मनांक सताव नातिल्लें, हो पूत तुका मेळा.

आनी अशें रामाचेर पार्वतीचो राग ना जाता:

तिचे घोवान तिका हासून पळयलें, तेन्ना रुद्राणीचो चन्द्रमा सारको चेरो लजेन बागयलो, तिचे मनांत प्रेम उदेलो, तिचे पायांकडे पडल्ले रामाक तीणे उठकरायलो आनी ताका अपुर्बाय केली. निर्मळ, धाडशी आनी सैनिकांचो सैनिक परशुराम चौदाय लोकांचे आवयचे व्हण्टींत एक चेरडा सारके सोबीत जालो.

कवितेन देवांक मनसाळे केले. तांची दिव्य प्रतिशठा पुराय सोडनातिल्लें तांकां घरचे झगड्यांत वाण्टो घेवयलो. ब्रह्माण्डाचे माय बाप हे रूपान शिवपार्वतीचे गुण विशेषण, ईश्वर, अष्टमूर्ती आनी महादेवी, राधा आनी कृष्ण - हांचे दिव्यसुन्दरतायेचें वर्णन आनी कवितेची श्रेशठ शैली हे सर्वय गुण देवांक देव म्हण लेकचे उपाय आसात. लोकगीतांत आनी पुराणांत देव जायतेदां मनीश सारके वेव्हार करतात. आनी हिन्दू मन दिव्य पात्रांचो मनशाळो करपांत अप्रसन्न जायनात. हिन्दू मानस शास्त्राचे हे मूळ तत्वांचो कुशल प्रयोग कवी वळ्ळत्तोळ करतात. प्रत्येक ओळीचे अचूक परिपूर्णताये कारण ही कविता काव्यकलेचो अचूक नमूनो आसा. ही कविता एक सोबीत लघुनाटक आसा. हांत धाडशी राम, उमेदी गणपती, बुदवंत सुब्रमण्य, रागीश्ट पार्वती, तिचो घुसपल्लो घोव आनी शान्ती स्थापन करवी सग बरे आनी सुन्दर पात्र मेळतात. अलकाचे वाटानी रामाचे चलप, शिवाचे पूतां लागी तांचो संवाद, लडाय, गणपतीचे सोण्डाळेन ताका घुवण्डावप, ताचो गजदंत मोडप, शिवाचें सेवकांचे तारेकवार प्रतिक्रिया, पार्वतीचो जळचो राग, शिवजीची घुसपण, राधा आनी कृष्णाचे आगमन, पार्वतीक पळोवन शिवाची खोशी जाचान ती शान्त जाता - असलेया सुन्दर घडणीयो हांत आसात.

'अनिरुद्ध', 'शिष्य आनी पूत' - दोनीय गुणधर्माचे आधारार गरजेन नाटकांतले भाशेन घडिल्ले प्रसंग आसात. तांकां सोंपे पणान लघु नाटकांरूपान बदलयेत. तीं उतरांचे क्रमान आवाजाचे सूर, चेर्याचे हाव भाव, आनी विषयाक अनुसरून जीवंत वलिश्ट संकेत दितात. आपणाले शैलीचे सुन्दरताये भायर दोनीय काव्यांत जोखून वेंचून काडल्ले तपशीलांचे एकात्मीकरणा पासून आयल्ले विशेष घट बळ आसा.

कांय किरिस्तांव मित्रांचे मागणेक लागून वळ्ळत्तोळानी आपणाले मागीरचे कथन करव्याक बायबळासंबंदी विशय घेतलो - संत लूकाचे शुभवर्तमानाचे सातवे अध्यांयांतले मेरी मग्दलीनाचे कथेक आधारून तांचें मग्दलनमरियम' काव्य 1921 वर्सा प्रकाशन केलें. हें तांचे कथन काव्यांत सर्वश्रेश्ट म्हण तुस्त केलें आनी तें अदीक लोकप्रिय सिद्ध जालें. 'अनिरुद्ध' आनी 'शिष्य आनी पूत' हांत साकून वेगळे तरेचें हें काव्य द्राविड छंदांत रचलां - एक गेय छंद 'मकंद मंजरी'. हांचो सफल प्रयोग ताणी साहित्य मंजरींतल्या कांय कवनांत फूडेच केला. हे काव्य पांच भागानी वांटून आसा. पयले भागांत सायमणाचे घराकडे ईसाचें वर्णन केलां. दुसरे भागांत ताका मेळचे खातीर मरियमाचे यात्रेचे वर्णन, तीसरे भागांत तिचे

फाटिल्ले काळार कवी दिश्टी घालता, चौते भागांत तीणे आयकल्ले ईसाचे उपदेशाचे परिणामान तिचे जीवन परतपाचे सर्वेक्षण आनी निमाणें पांचवे भागांत ईसाकडे तिची भेट जाले मात्रान तिचे जीवनांत आयल्लें परिवर्तन - हो काव्याचो परमोच्च बिन्दू आसा. काव्याचें पांच भागांत विभाजन, सुन्दर वर्णन, सुळसुळीत आनी स्पश्ट कथनरीत, काव्य विंबांची कामाक येवंची योग्यता, ओळीयांची आनी वाकप्रयोगांची मंजूळ सुन्दरताय, कवितेची कोमळ आनी संपूर्ण गती - हें सर्वां चेरीय वळ्ळत्तोळानी हे कवितेंत कितली विशिश्ट जाग्रती दाखोयल्या म्हण स्पश्ट जाता.

पयले दृश्यांत ईसा सायमणाचे घराक पावंता. पूण ते धनवंतान ताका आपयला तरी ताका येवकार दिवपांत कांय व्हड उत्साह दाखोयना. तो ईसा मुखार दिमियेन वेसना, ताचे पाय धुवपाक उदकय दीना. आनी ताचे हाताचो उमावूयघेना.

संसाराक तिची संपत्ती दिवंचे ते दिव्य हाताचो उमाव घेवपाक कांय पैसेचे बळार व्यर्थ घमंड दाखोवंचें गर्विश्ट माथें वागोवना की?

जाय, चांपें आनी अशोकांची फुलां शिवंडून पडल्ले वृन्दावनाचे प्रदेशाचे रानांत कृष्ण आपणाले दोस्तां सयत बेसलो - ते सारके ईसा आपणाले शिष्यां सयत बहुरंगाचे कांतिवंत सिल्काचे जमखानाचेर वेसता. जाणी आपणाले दिव्य स्पर्शान उदकाक 'वायन' केला तांकां सायमणाचे सेवकानी खावपाचे मधूर खाण वांटलें - सवणीं तांचे यश गायतात आनी परमळाचो आयणो ताका थंडसाणेन वारें घालता. तांचो गाड काळो केस आनी तांचें खाड अथवा कवीचे उतरानी ताचे कमळा समान चेर्‍याचे भोवंतणी स्वल्प झेल घेतात आनी काळिन्दी न्हयचे उदकांतलीं ल्हान काळी लव्हरां सारके चकचकता. आपणाले चमत्कारांचे चर्चेचे आनी 'महेश' सारके तांची विशेषणाचे भायर ईसा परंपरेक अनसरून 'धीर लळित नायक' सारके आसा. आनी सुंदर रात आनी सायमणाची चड सोवीत बेसपाची कूड एक प्रेमाचे घडणीक योग्य फाटमूंय तय्यार करता. ईसा 'नायका' आनी ईसा 'सोडवणदार' (जेजू क्रिस्त) हांचे मदें कवीनी नाजुक संतुलन शकलां. लागीचे प्रसंगांत 'नायिका'ची वळख करन दितात:

नक्षत्रानों,
तुमी अशें उगो रावल्यात कित्याक आनी लागून सकयल पळयतात कित्याक?
तुमचांत साकून कोणेय एकलो
सकयल भूंयचेर गरगडेला की?

होय, हांगा वाटेर चडान चड नक्षत्रा सारके एक रूप आसा अथवा घवे जायचें फुल फुल्लेल्या वरी अनी एक लघु चान्दीणे जावयेत.

कवीनी तीचे सुन्दरतायेचें खोलायेन वर्णन केलां. तीचे शरीराची गोलाय, घट केस, शरीरां साकून परजळवचो परमळ - हांचेर कवीनी आमचें ध्यान आकर्शीत केलां. ती आपणाले प्रियतमाक मेळपाक वता जावयेत. पूण तिचे तोण्डार भययना दुबावूय ना. तिका

भय आसच ना कारण प्रत्येक आत्मा मेळचे प्रियतमाकडे तीवय मेळपाक वता. त्मरिंयम सायमणाचे घराक पावंता आनी तिका थंयचे उगटें दार सर्गार प्रवेश करचे दारा सारके दिसलें. जशें न्हंय सागराकडे पावंतर तिचो प्रवाह सन्त जाता तशें तिची चलपाची गती सवकास जाता, मागीर परतून ताकतिकेन घावंचे वरी मुखार वता, आनी मागीर दारार मातसो थांबता:

ओ मोगाळे, अनमनान दारार रावचें न्हय,

खोशी खोशी भितर येवयेत.

इवाडिल्ले वाटेन गेल्ली देखून तुजे पावलांक लागल्लो चिखल तुजे आपले दुकांचे थेंब्यानी धुवन पुसून उडकायला.

काव्याचे मागीरचे भागांत तीणे मानून घेतल्ले वायट मार्गाचेर उजवाड घालता. ती एक गरीब लाचार खोंपीयांत जल्मली पण भो सुन्दर आशिल्ली. खडली जमीनीचेर एक गुलाब कशें फुल्लें म्हण कोणाकय कळना. जेन्ना तिची सुन्दरताय तरणेपणाचे परिपूर्ण अवस्थेर पावली तेन्ना तिची तोखणाय करतल्ले तिका दुर्मार्गार घेवन गेले. पयलें तिचे अंतस्कर्णान तिचे वायट संगतीचो विरोध केलो. पूण आपणाले सुन्दरतायेचे तोखणायेचे जायते स्तवनाचे गोन्दोळांत ताचो आवाज दामून गेलो:

आपणाली भूख नाकरपाक हात भरन तांदूळ ना आशिल्ली ती राजाची सातली धरन राणी जाली.

ओ सौन्दर्य, जेन्ना तूं एक वयलेचें शरीर शृंगारता तेन्ना तूं जिखनातिलें कसलें यश आसा?

पापाचे फोण्डांत पडल्ली ही वायल मनीश आयज कशें भलेपणाचे समजिकायेन कशें त्रास पावली? शीतळ वार्यान घेवन हाडल्ले अमृताचे थेंब्यां सारके ईसाचीं उतरां पयस साकून तिचे कडें आयल्यांत. ती कृष्णाचे वासुरी गीत तटास कान दीवन आयकूचे वृन्दावनातले चितळा सारके जाली. ते म्हान गुरूंचे उपदेश तिचे मनां सरले आनी तिका आपणाले जीवनाचेर दिश्टी घालचाक जबरदस्ती केले. पातिव्रत्य उतराक तिचे जीवनांत कांय जागो ना आशिल्लो आनी आंता ती एक नवे भयान कडकडली. त्या उपरांत तिचे वळखीचे सेजार तिका भिरांतीचे जाले. आपणालो बंगलो तिका नरक सारके दिसलो. मोलाचें हांतूण खीळयाचे भाशेन आनी सेवक भिरांतीचीं भूतां सारके दिसले. तिचे मन एक व्हड बाळवट जालें. आनी वायट सपनांची आवड तिका कश्ट दिवपाक लागलीं. भव्य प्रतापान भरल्ले आनी सेतानान उज्या समुद्राचे मदें व्हरन घिंगळून सोडल्या एक भांगरा तारूंवार घल्ले भाशेन तिका दिसलें. भय, निराधार आनी एकलीच दिसून ती सडळ जाली आनी रडूंक लागली:

रड रड, चितळा दोळ्यांचे,

रडतल्यांक ईश्वर सुख दितलो.

ईसाचीं सूख दिवंची उतरां तिचे कानार पडलीं. तीणे आपणाले वायट वाटेन जमा केल्लें पूराय धन गरीबांक वांटून दिल्लें आनी तिचे जीवनाचे बाकी उरल्ले दीस प्रार्थनेंत दिल्ले.

काव्याचे निमाणें भागांत मरियमाची भेट ईसाकडे जाता. ती ईसाकडे पावन तांचे पायांकडे शरण येता. पुरायेन तिचे ईश्वरावयलो फ्रेम दुकांचे थेंब्यारूपान व्हळता. ती ईसाचीं पावलां आपणाले दुकांनी घुयता. आपणाले सिल्का समान केसानीं तीं पुसता आनी आपणाले पवित्र ओंठानी तीं चुमता: ओ देवी, आयज तुचे ओंठ निर्मल जाले.

आयज ताणी जंय चुमुक जाय थंयच चुमलां.

उपरांत तीणे हाडल्लें अपरूब अत्तरान फुलांक परमळ दिल्ले ताचे माथ्यार धारेन ओतता. ती ताका सांगता:

ओ गुरो, तुचे दैवी आज्ञेक मान दी नातिल्लें

हांवें जयत्यो चूकयो केल्यो.

ओ संसाराचे सत्ताधीश, म्हजे पापांक माफी कर आनी आपणाले हे सेविकेक तुचे पायां कडे राख.

.....

करचाक पाडना जाल्लें हांवें केलें तरी हे प्रभो, म्हाका सोड नाका.

उज्याक पर्यान थंड करचे तुचेच हातानी रचलो प्राणी हांवय.

सूर्याचे पयले किरणा भाशेन अग्यानाचें कळखां पळ्ळी मरियमाचेर ताची दया दिश्टी पडता आनी तो तिका सांगता:

म्हजे घूवे, समस्त दुख्खां साकून मुक्त जा आनी वच, तुचे मनांचो विश्वासूच तुका राखूक पावला. तुवें केल्लें प्रत्येक पापाक हें पच्छातापच प्रायश्चित्त आसा.

हे काव्यांत तीन पात्रां आसात-सायमण, मरियम, आनी ईसा. सायमण उलयताच ना. ताणे उमेद कांय नातिल्लो येवकार दिल्लो. ताणे हो येवकार केवल आपणाली जिज्ञासा शांत करपाक दिल्ला. कि आपणालो प्रभाव सोयर्याचेर घालचाक केला. म्हण दुबाव जाता. आपणाचे घराक आयल्ली मरियमाक स्पश्ट नापसंद करप जो एक संवसारिक आनी निश्ठुर मनाचो मनीस म्हण सुचयता. नाटकांतले वरिश्ट भाशेन वळ्ळत्तेळानी सायमणाचे सभावाचेर संकेत केला. ईसा - देव आनी मनीस, दोगंय आसात, लागसारपणान मनीस आनी आपणाली अद्‌भूत शक्ती पासून देव. आपणाले दिव्य अधिकारान तो ते पापिणीचीं पापां धुयता. तो भगवंत कृष्णा समान प्रेमभक्तीचे वरिश्ट आनंदाची प्रेरणा दिवपी परमात्मूय आसा. निमाणेचे दृश्यांत मरियम मनाचेर चड परिणाम घालपी जाता. तेन्ना ती प्रेम, दुख्ख आनी पच्छात्ताप - हाणी मनार परिणाम करन ईसाचे पायांर पडता आनी दया मागता. वळ्ळत्तोळांची कविता हे तरेची जोखीमाची कांय जबाबदारी आंगार घेना. हें काव्य परिस्थीतीचे भायरची हालचाल वर्णन करचे परिकथेचेर आधारिल्लें मूक नाट्य आसा. आनी

तें पापाचे मानसशास्त्रांत अथवा धर्मांतराचे प्रक्रियेचे तपशीलांत चड करन खोलायेन वचना. पूर्विल्ले कले सारके एक प्रसंगाचे भायले आनी विश्वव्यापी स्थीतीपासून कवी संबंद दवरतात.

ही कविता भावगीत, सुन्दर वर्णन, नाटकांतले भाशेन चळवळ, मनोभावांचे भोळेपण, स्पश्टतकाय आनी अलंकार शैली - हांचानी संपन्न आसा. बैबळा संबंदी विशयांक गरजेचें वाखाणप आनी प्रेम भक्तीचे श्रेष्ठ मनोभाव मेळोवन सोविताय हाडपहीं दोनीय कवितांत खूब दिश्टी पडतात. 'मग्दलनमरियम' कलेची अजापाची सिद्ध - उतरांचे प्रयोगाचे निर्मल सभावान सुन्दर आसा.

वळ्ळत्तोळांचे मागीरचे कथानक काव्य 'कोच्चुसीता' (बाल सीता) 1928 वर्सा उजवाडांत आयलें. बाल सीता चंपकवल्ली नावांची एक तरुण नर्तकी आसा. ती रामायणांतले सीतें साकून प्रेरणा घेवन 'सीते'सारके पवित्र आनी निर्मळ जावुंक इत्सा करता.

ते तिका कठीन जाता, कारण तिका पोसची तिची आजी तिका आपणाले कुळ परंपरेक अनुसरून वेश्या वेवसाय करपाक जबर्दस्ती करता. तिची सीताभक्ती आजेचे तिरस्काराक कारण जाता. वेश्याधर्म कितें म्हण ती आपणाले नातीक समजायता. ती म्हणता:

पातिव्रत्य रचणारान दिवंचे सुन्दरतायेचें रत्न
घेवंचाक फावनातिल्ले चलीयेचो धर्म आसा.
राजा लोक लेगीत फुल्ले चांप्या फुला समान
तुका घेवपाक इत्सा पावंतात.
परमळ नातिल्ले ते फुलाक - पातिव्रत्य
स्वीकारपाक तूवें इत्सा पावंचाक नज.

पूण वाडून व्हड जावंचाक चंपकवल्ली सीतादेवीची परंभक्ता आनी पातिव्रत्य धर्माची आदर्शा जाता. एक राती तिची आजी तिचे कूडांत एक गिरायकाक धाडता. तेन्ना ती थंय साकून धावन वता. धा दीस उपरांत आपण आत्महत्या करतां म्हण जाहीर करचें तिचे एक पत्र तिका मेळता.

हे कवितेंत कवींचे विचित्र काव्य कलेच्यो सुन्दर ओळ्यो आना ताचीं प्रतिरूपां मेळतात.

म्हन्तारेचें वर्णन कवी अशें करतात:

चलीयेची म्हन्तारी आजी
कामदेवाले कुटके जाल्ले घणुवा सारके
एक तांत बागोवन सदळ जावन
खाटल्यार आड पडून आसा.

चेंपकवल्ली बसून वाचचे थळार थावन उठायता आनी वचाक तय्यार जाता:

जवानीचे संपत्तीन उबरल्ले आनी तांबडे सिलकाचे जाकेटांत निपयल्ले तिचे छातीचेर तीणे रामायण पुस्तक दवरलें. ताची देग तिचे गळ्याक स्पर्श करताली.

तिचो गळो मतीं पवळें आनी भांगार - हांचे अलंकारानी लकलकतालो. चिके बागवून आशिल्ले कमळा सारके

तीणे आपणालें तोंड एक तांत वागवयलें आनी आपणाले खाडकीन तीणे पुस्तक चिरडून धरलें.

आनी मुदीयानी परजळीत हातान
तिचे फाटीर उबचे केस बान्द्रून दवरले.
तिची पावलां तांवडी आशिल्लीं
तिचे सिल्काचे स्कर्टाची देग
तिचे पावलांक स्पर्श करताली.
तीणे चमकल्ले जमीनेचेर
शेंदूर फाफडल्या प्रमाणी दिसतालें.
ती कूडांत गेली तेन्ना
तिचे मनात वरे विचार आशिल्ले.

तिचे निमाणें पत्र भारताचे आपणाले पातिव्रत्य धर्मापासून नावांदीक नायिकांचे सुंदरभाशी चित्र आसा. आत्महत्या करचाक कारण कितें, हें परतून सांगून ती प्रार्थना करता, 'हे म्हजी मातृभूमी भारत, तुचे पायांकडे म्हजे हें निमाणें नमन आसा. म्हाका दुसरो जलम मेळता तरी हांव तुचे व्हण्टींत जलम घेवन येवूं आनी आपणाले भयण्यांक तांगेले पराधीनपणां साकून मुक्त जाल्लीं देखचाक योग्य वेळ पावूं.

ही एक रुचिर कविता आसा, पूण दुसरे कवितां पाशीय नाटकांतले भाशेन अजापाचें प्रसंग उणे आसात. आनी निमाणें भागांत उकळ दीर्घ पत्र कले रूपान न्हय देखून कवितेचो प्रभाव उणे जाला.

1941 वर्सा वळ्ळत्तोळानी 'अच्छनुम मकळुम' (बापू आनी धूव) नावांची कविता रचली. ही कविता विश्वामित्र आनी शकुन्तला हांचे कल्पनेंतली भेट' हाचेर आधारून आसा. शकुंतला धूव जल्मांत आयल्ले वेळारीच विश्वामित्र तिका सोडून गेलो. दुष्यन्तान न्हयकारली शकुन्तला हिमालयाचेर काश्यप मुनी गेले आश्रमांत रावता. तिचोपूत सर्वदमन आश्रमाक लागून आशिल्ले वनांत खेळता. एक दीस महामुनी काश्यपाक मुजरत मेळपाक विश्वामित्र येता. तो अशोक रुकाचे पोन्दाक बेसून मुनीची वाट पळयता, आनी मुनी आश्रमांत आसा की ना म्हण जाणुंक तो आपणाले शिष्याक धाडता. थंय खेळांत गुल्ल एक चल्याक देखता. तो रुशीक आपणाले आज्या कडे घेवन वचाक तय्यार जाता. काश्यपाक आजो म्हणचो हो भुरगो कोण म्हण विश्वामित्राक अजाप जाता. ताका हे भुरग्याचेर जबरदस्ती मोग जाता आनी तो ताका आपणाले हातानी काडता आनी ताका छाती लागून

घेता.

ते धाडशी भुरग्यान एक खीणाक ते तपस्वीक आनी एक फांतां सांवसारीक जीवनांत परतून ताण्डून हाडलो.

तो पवित्र मनीस वागवलो आनी ताका घेवन ताका ऊंच उबारलो आनी आपणाले दीर्घ हातानी मुनीन मोगान ताका वेंग मारलें.

चितळा चामान आवरण केल्ले ताजे छातीर तो भुरगो काळे मळबार नक्षत्रासारके लकलकतालो. ताचे भूजार पर्यान लांबून पळ्ळे आनी हूमेन ओल्ले जाल्लें ताचे मुदियाळे केस रुषीन ल्हवूच ताजे फुला सारके गालार सून पयस काडले आनी आपणालो खाडान भरलो चेरो ताका लावलो

आनी कवी आतां मनांतच आडांगी हास हासून ताका विचारता:

हे मुने, हांव सादर तुमचेकडे एक प्रश्न विचारूं?

तुमकां चडान चड आनंद केन्ना मेळता?

तुमी ध्यान करचे वेळार तुमचे मनांत सच्चिदानंद जाग जाल्यात वेळार कि हे समयार भुरग्याक वेंग मारन सूख पावंचे वेळार?

आपणाले चेरडाक सोदून आवय थंय येता. ती दुख्खान सुकून व्हीरा काडी कशें जाल्या. तिचे सौन्दर्य न्हन्तना तिची शोबाय वाडोवपाक वेगळें साज कांय ना. भुरगे म्हणता : 'आवयगे, हांव हांगा आसा.' पूण तो आवयकडे वचे फूडे तो एक खेळणें पळयता- काळिदासान वर्णन केल्ले मार्कण्डेयाचे हातांतलो एक चिकला मोर- आनी तें घेवंचाक तो धावंता. रूपान मेनकाचे बराबरी पळवन विश्वामित्र एक खीणाक अजापान तटस जालो.

तो तिचेकडे विचारता आशिल्लो, 'मेनका, तूं इतली बदली कित्या? पूण तो तिचेकडे अशी विचारता:

'तूं कोण? सांग म्हाका. हे भुरग्याची खोशी आवय, ताचांत सम्राट जावचीं सर्वय मंगल लक्षणां आसात? ती जाप दिता:

हे मुने, हांव रानांत जल्मलीं
आवय बापूयन म्हाका त्यागली
हांव कण्वरुषींगेली परिपालिका धूव आसा
दुष्यन्त रायान म्हाका व्हारडीक केली
म्हामुनी विश्वामित्र म्हाजो बापू.

'हांव', विश्वामित्रान खप करन विचारलें. पूण तिका पळोवन मेनकाचो उगडास आयल्या ताका तिचे पासून कांय दुभाव ना आशिल्लो. ताचे दोळे भग्न आयले. शकुन्तला ताजे पायांकडे पडता. तिका देखचाक ताका व्हड आनंद जाता. तो तिका उठकरायता आनी परत परत तिचें कपाळ चुमता. एक बापू सारके तिजे कडे विचारता:

म्हजे मोगाळ घूवे, तुंचे नांव कितें आनी तुचे पूताचें? आनी तूं एक रायाची राणी

आसून रानांत कित्याक आयली? भियल्ले भाशेन ती आपणाली काणी ताका सांगून आयकयता. पूण ती एकदम सडळ जाता आनी रडून म्हणता:

'म्हाका म्हजे मानेस्त घोवान त्यागलीं.

हें आयकचाक विश्वामित्र रागान काळो-तांबडो जालो. तो आता समस्त संवसार नाश करपाक वचे रुद्र सारके दिसता. दोळ्यां साकून उज्या कीट भायर पडताली आनी संवसार भयान कडकडतालें. ताचे धूवेचो अपमान ताका सहन करचाक जायना. विश्वामित्राचे तपःशक्तीचे परिणामान त्रिशंकू आनी हरिश्चन्द्र - हांकां दुख्ख भोगूंक जाय जालें म्हण दुष्यन्ताक कळता की? 'आपणाले गुरवार वायलेक कारण कांय नातिल्लें त्यागली' म्हण ते दुश्ट आत्म्याक तो सिराप दिवपाक तय्यार जातालो... पूण शकुन्तला ताका समजायता आनी मागता:

तुमची धूव आपणाले घोवाचे नाशाक कारण न्हय जावो आनी ती विधवापणाचे उज्यांत जळून वची ना जावो

म्हजे जीवन विसरून वचें जावो! पूण म्हजे दुर्भाग्य आपणाले पूताकय त्यागपाक कारण ना जावो.

आनी मुखार सांगपां साकून तिका फाटी सरपाक जायना:

आपणाले माय-बापानी त्यागले ते निर्भागीन चलेक सभावीक रूपान आपणाले घोवानय त्यागली.

विश्वामित्राचो राग शकुन्तळेचे दुकांचे थेंब्यानी शान्त जालो आनी तो तिका आशीर्वाद दिता:

तुचे सद्सभावान म्हाकाय वांचयलो

तूं आपणाले पूत सयत वचून आपणाले घोवाक वेगीन मेळची जावो.

ही कविता लघु आनी मधूर आसा. वळळत्तोळांची चडान चड दुसरे कवितां सारके अलंकार शैलींत रचली ना. ती सरळ आनी संस्कारीत आसा. तिचे सूर दुख्खाचो आनी कठोर आसा. बाप-धूवेची अचकीत भेट मनांक लावन घेवपी जाल्या. आनी वळळत्तोळांचे कथाकाव्यांचे चाली प्रमाणी परिकथेचेर आधारल्ले देखाव रूपान कल्पना केल्या. पूण हे कवितेंत भायरचे प्रक्रियेपाशीय पात्रांचे विकारांचेर चड मन दिलां. देखावाचें वर्णन अथवा वातावरण निर्माण करपाक कांय यत्न केलो ना. वळळत्तोळांची दूसरी कांय कवितां पाशीय मानव सभाव आनी संवादाचेर चड लक्ष दिलें देखून हे कवितेक चड म्हत्व आसा. मनोभाव सरळ आनी सादे आनी परिस्थीतीक चड अनुकूल आसा. आनी पात्रांचें निर्माण तांचे पुराणांतले स्वरूपा लागून आसा.

हे पांच कथन काव्यांत विशेष करून पयले तीनींत वळळत्तोळांचे काव्यकलेचे आनी कल्पनाविलासाचे शक्तीचो पुराय विकास पावला. मानसशास्त्राचे घुसपागोन्दोळाचेर आनी नीतशास्त्रचे जाणवीकायेचे बारीक भेदांचेर हे कवितांत ताणी चड ध्यान दिलेना अशी तरीय,

हे कवितांत उर्बा आनी बळ आसा. त्यो आपणाले विशयांचेर न्याय करतात. आनी पूर्वकालाचे कांय देखावे नाटकांतले शक्ती भाशेन परतून रचतात. वाचप्यांक रोखडच घुसपावपाची शक्तीय हांकां आसा.



# अध्याय स

## सैमा-गायक कवी

एकवीस वर्साचे पिरायेर वळ्ळत्तोळाणी सैमाचेर आपणाली पयली कविता रचली. ते कवितेचें नांव 'रुतुविलासम'. ही कविता म्हाकवी कालिदासाली 'रुतुसंहारम' नावांचे कवितेचे अपरिपक्व अनुकरण आशिल्ली. हांत पूर्वकालाचे कांय शंबर कवींनी वर्णन केल्ले रिवाजाक अनुसरून कवी रुतूंचे वर्णन करता. नमून्या रूपान कवी आपणाले मोगाळ प्रेमिकाक शरद रुतूचे रातीचे सौंदर्याचो परिचय दिता.

ओ देवी. ज्याचो आवाज म्होवा सारको आसा ही शरद रुतूची रात एक सुन्दर युवती आसा. ती चांदन्याचें धवें सिल्क चादर पातळायता आनी हांतणा सारके भूयेंक घांपता.

कोगूळाचे गीतां पासून कवी म्हणतात:

कान दीवन आयक, कोगूळाचे गीत
एक कुशल मित्रा सारके
प्रेमीकडे सून वेगळीं जावन
वियोगाचे दुख्ख भोगचे प्रेमिकांक
तांचे कडे एकटायता.

असले श्लोकांचे मदें एक असलोय श्लोक दिश्टी पडता जो आपणाले सौन्दर्यान ताजेपणानय आमकां आजापाचो धक्को दिता:

दोंगरार साकून पडचे उदकाचे धारेन न्हंयों गाजतात. जायते भांवरांत फेणाची राश भोंवर्या सारके गरगरता आनी पुसता.

व्हड व्हड लहारां एक दुसर्याक मोडून फोडून ताकतिकेन वतात. आनी न्हंयचे तडीवयले रूक मूळ सयत हुमटून नश्ट करता.

वळ्ळत्तोळांचे सैमा कवितेचो प्रसन्न करचो सभावगूण हो यथार्थवाद आसा. ही शक्ती ताणी आपणाले काव्य निर्माण शिकचे दिसांचे तुरंत उपरांत प्राप्त केली. साहित्य मंजरीचे सुर्वेचे संग्रहांत 'सांजे भोवंडी', 'गावंचो शरद्रुतू', 'गावंचो गिमाळो', 'गावंचो मचवार जलयात्रा', 'भारत-न्हंय', 'तिरूर पोन्नानी न्हंय' आनी अशेंच तरेचे हेर कविता आसात,

ज्यो आमका केरळचे सैमाचीं वळखी चित्रां परतून आकर्शीत करतात. तांचे कवितेतं हंय-थंय साकून घेतल्ले श्लोकांचीं उद्धरणां तांचे यथार्थवादाचो सभाव स्पश्ट करता:

एक म्हशी आपणाले फाटीर एक चंदपक्षीक घेवन मैदानांत चरता ती आपणाले वाडकूळे सींगां सयत माथें उबारता आनी आमचेर आपणाले क्रूर दोळ्यानी नदर लावन आमकां पळयता. (सांजे भोवंडी)

तळ्या साकून भय दिसचीं मानगीं उंचार चडून येतात आनी वोत घेवंचाक तडीर पडतात.

तांकां पळयल्यार हांगा थांगा खीळे तोपल्या पाशाणाचे दीर्घ फातरा कुटके सारकी दिसता. (शरद् रुतू)

शरद रुतूचे परवेंत जेन्ना जलपक्षी गायतात
थंडतकायेन कुडकुडचे दादलेमनीश
आपणाले खाडकीनी कडकडून
ताळ धरतात सी दिसता (शरद् रुतू)
जेन्ना चानीयो, जांचे फाटीर
परजळीत निशाण्यो आसात,
आंब्याचे रूकार खुशालीन चडतात देवंतात
तेन्ना भुरगीं पोन्दाक रावून नदर लावन पळयतात.
तांचे मोगाळ दोळे तांचे समस्त आशादोणीपणाचो उत्साह दाखयता. (गिमाळो)

असले यथार्थ कल्पना चित्रांक भरसून सरळ आनी सुन्दर परंपरागत कल्पना चित्रांय आसात. मर्यादेचें गिन्यान आनी नाजूक संवेदना जायते फांता परतून परतून घेतल्लीं कल्पना चित्रांतूय प्राण फुंकुक शक्त आसात. 'सांजे भोवंडीं'त कवी न्हंयंतूले मळबाचे पडविंवाचें वर्णन करता:

गाड गुलाली रंगाचें सांजे वेळाचे मळब
न्हंयचे मदें हारस्यांत जशें दिश्टी पडता.
थंय न्हंयंत गुलाली रंगाचीं कमळां
गुंजलानी फुलेवन परजळीत आसात.
'भारतपुषा' कवितेंत
सह्य पर्वताची धूव न्हंयंक खोशी खोशी पळोवंचे ढोंगराचे वर्णन आसा:
आपणालो घोव अस्तंत सागराक मेळपाक
ती जादूगारणी चाल चलून मुरवार वता.

'मत्ववार जलयात्रा' नांवांचे कवितेंत चन्द्र काळके रातींत उदेता आनी निवळ तळ्या समान उदेंत मळवांत घवेकमळा सारके फुलता. ल्हारांचेर नाचचे चान्दन्याक. चान्दने न्हय, उदकांत खेळन भोवंची हंसां अशें कवी म्हणतात. 'पावसाळेचें मोड पळोवंचो किसान'

कवितेंत परंपरेचे कल्पना चित्रांक मुळावो रंग दिता:

जेन्ना पावसाळेचें मोड पसरता
तेन्ना भूंय लजेन तांबशी जाता
जशें न्हवरो न्हवरीचे लागी येवंचे वेळार
तिचे गाल जातात.
.....
ताचे शरीराक जोगुला रूपान
लक्ष्मीन वेंग मारले भाशेन,
तो इन्द्र धनुश्याची हार धारण करता.
तो काळबाणीचो देव
दुख्ख भोगप्यांक वांचोवपाक आयला.

केरळचे रुतू परिवर्तनाक कवीनी व्हड आनंदान पळयलां. ताणी शरद् आनी गीमाळ रुतू, पावसाळे आनी ताचे उपरान्तेचे परजळीत आनी प्रसन्न ओणम परबे दीस - हांचे पासून बरयलां. तांकां सैमाचेर मानवाची प्रतिक्रिया, सैमा समानच गरजेची आसा. शरद रुतूंत पाल्याचो धग तापचाक मनीस उज्या भोवंतणी रावतात आनी हात उज्या वयर धरतात - हें आमी पळयतात. गिमाळ्यांत सकाळीं आपणाले शेत शिंपचांत गुल्ल शेतकारांचे गीत कानार पडतात आनी आंब्या पोन्दाक सावन पिकल्ले आंबे वेंचून घेवपाक धावंतल्ले भुरग्यांक देखतात. 'पावसाळे सांजेची भोवंडी' कवितेंत कवी म्हणतात :

घमंडी अभिमानान बार्याचो झोड आयलो.
पावसा मोड फुडो करपाक तय्यार जाले.
आमी यात्रीक पावसांत भिजून कडकडताले,
आमगेली सातली रुप्याचे तोरणां सारके
थेंब्यानी सुन्दर दिसताली.
पूण तिचो पाय धरलो तरी
ती आमकां पावसा उदकां साकून वांचोवपाक लायक न्हय जाली.

पावसांत तिम्मून वचे एक गरीबाचे वर्णन कवी करतात:

पावस झोड येवो,
काण्डणाधारानी पावस पडो,
हुसको नातिल्लें कोण तरी हे वाटेन चमकून वता,
तो एक बुरशल्ली धोती न्हेसला,
आनी मडळान आपणालें माथें पावसां साकून राखता.
ताका कसलीय बेचैनी दिसना.
गरीबीचे कश्ट मात्र आसात.

सैमांतले मनीशाचे वर्णन करता आसतना सैमाचे सौंदर्याचे बारिकसाणीन वर्णन करन प्रसन्न जावपाक कवी विसरनात. नमून्यांक: 'गिमाळो' नांवांचे कवितेंत केरळचे गिमाळ्याचे कांय सभाव गुणाखातीर आमचें ध्यान आकर्शीत करतात- जशें पिकल्ले आंबे, भांगरामणियां सरपळी समान दिसचे सुवर्णके फूलां घोस, सुन्दर पाचवी दिसचीं भाताचीं शेतां आनी गिमाळ्याचे सांजवेळाची शान्ती. वळ्ळत्तोळांचे कवितेंत चड करन सैमाचीं प्रसन्न चित्रांच दिश्टि पडतात जाल्यारीय ते सैमाचे क्रूर आनी भयांकृत रुपकारूय समान सुख समाधानान वर्णन करतात. केरळ ही क्रूरताय पावसाळो उग्ररूप धारण करचे वेळार आनी दुश्काळ चालू आसचे वेळार अणभव घेता.

'अद्वैतम शिवम सुन्दरम' कवितेंत पावसाळे दिसांक, रानांतले हतीचे हिंडाकडे तुळा केला आनी कवी एक माड-बाग दाखयता जयं एदीं माडां सकयल पडल्यात आनी एदे माड्यांचे पिड्डे शिवंडून पडल्यात, जायते रूकांचे कांड हतीचे चडकोपान पिट्टो रेवं करन उडकायल्यात. 'अतिवृष्टी' (चड पावस) कवितेंत कवी अंतहीन पावसा निमित्तीं जाल्ले कश्टांचे वर्णन करतात: एक रूका खान्द्यार वेसल्या पक्ष्यांक कवी पळयतात:

तीं आपणाले ओल्लीं कडकडची पाकां खाल वागोवन आपणाले निराधार पिल्लांक घोंटेरांत राखतात.

तीं काळे कूपानी भरल्ले मळबाक परतून परतून पळयतात. तीं खान्दयाचेर वेसून चींचीं करचो आपणालो आवाज लेगीत विसरन हे वायट परिस्थीतांत तांणी कितले दीस वगडायले

मनीसाची अवस्था पक्ष्यांपाशीय चडबरी न्हयं.
ताचे कुरटार एक काळे बांथर आसा.
तें लेगीन ओलें आसा.
हे भारी पावसांत ताका कामरवंय मेळतलें?
भूकेन ताचे पोटान्त पिल्लां रडतात.

कवी 'अन्यवेष भ्रमम' (विदेश न्हेसण रीतींत पिशें) कवितेंत ते वर्साचे (१९५०) सितम्बर मास मेरे नचे क्रूर पावसाळ्याचे वर्णन बरे रीतीन करतात आनी कवितेचें निमाणें केरळचे लोकांचे नवे फाशनावयले प्रेमाखातीर फकाणां मारतात.

ते क्रूर पावसाळ्याचे कूपांक सांगतात:
तुचे बेकार धारेन घालचे उदका मिमित्तीं
बेब्यानी लेगीत तुका तुस्त करचें बंद केलां;
तुका पळोवन मोर आनी मुखार नाचनात.
कांय रान-झाडां मात्र वार्यान हलतलीं घोलतलीं
तुची प्रेमिका जोगूळ लेगीत.
तुका सोडून गेलें.

ओ कूपां, तुचो धडधड रवंय गेलो?
तूं भूंयचे फुडेल्ले काळाचे प्रतीक्षेर
नुलयत उदय रकयता.
आनी तो केरळचे वायट नशीबा खातीर दुख्ख परगटायता:
चन्द्रीम दिसान दीस वाडचे पक्षांत लेगीत
चन्द्रीम दिश्टी पडना.
प्रकाशमान दिसांत-सितम्बर मासांत-लेगीत
सूर्य दिश्टी पडना.
लुवणी रुतूच (पिकेचे मोसम) ना.
आनी शेतकाराक अन्न ना
केरळांत सर्वय आरतो परतो आसा.
कवी केरळांतले शरद् रुतूक उपदेश करतात:
तूंवें आपणाक काळे साडीयेन पांगरू नज,
तुका चान्दल्याची घवी सिल्का साडीच
आनी नक्षत्रांचीं रत्नांच योग्य आसतलीं.
तुका विदेशी कापडांचेर इतलें आकर्शण कित्याक?

गिमाळ्याचे निमाणें एक सामान्य स्थीती देखून कवी बेशुद्ध आकर्शीत जाला सी दिसता- पावसाळ्याचीं कूपां जमप, गुडगुड सयत पावसाची तय्यारी आनी मागीर एक थेंबो लेगीत रक नातिल्लें कूपांचें शान्त पसरप. 'शेतकार पावसाळेचें बादळ पळयता' कवितेंत शेतकार चातक पक्षी समान. जागूळान तेजवंत काळे कूपांक उत्सुकायेन नदर लावन पळयता आनी ताचे कानार मुडदंगाचे मंगळ आवाजा समान गुडगुडाचो आवाज पडता. ती मोडां ताका व्हड काळे म्हसो समान दिसतात ज्यो गोरवां चरचे तणा मैदानांत चरतात. काळे मोडाक तो विष्णूच लेखता जो गिमाळ्याचे हुनसाणीचे पीडे सावन संवसाराक वांचोवपाक आयला. पूण रागिश्ट वारें मोडांचेर बळ करता आनी फातरा शिवरा सारके ताचे शक्तीचो अणभव जावन काळयो म्हसो घावन वतात.

जिवीताचे झूजांत मोलादीक घट लायिल्ले धनुष घेवन येवंचे काळीजान घट आशिल्ले लेगीत बाण सोडपाक अवसर मेळनातिल्लें हारवून वतात.

'गिमाळ्याचे निमाणेची रात' कवितेंत जोगूलचे जगलावपा पासून नाटकांतले भाशेन कवी वर्णन करतात. नीळ रत्नाचे समाजीक मंच सारके दिसचे काळे मळबार जोगूल जगलायलें आनी कांय संकेत करन विलीन जालें. परतून एक फावट रुप्याचें थळथळचें कापड न्हेसल्ले सारके दिव्य रूप दोळे मुखार आयलें. जायतीं चित्रां दाखोवन तेंवंय दोळ्या आड जालें. तीसरे फावट भागंरा कापड न्हेसून आनी एक दिव्य तेजवंत रूप दोळ-मुरवार आयलें. चोयतल्याक अजापांत घालन ताणे नाचून दाखयलें.

ते पुराय राती फालेंभितर. जायती जोगूलां पूराय बळ दीवन
नाचलीं. आनी आकाशांत मोडानी भेर्यो वाजल्यो.
तरी पूण तानेन ताळो सुकल्या चातक पक्षीची तान
भागोवपाक नेणता लेगीत एक थेंबो उदक खाल पडलेना

वळ्ळत्तोळांक जानवरांचेर आनी पक्ष्यांचेर मोगाळ संबंद आसा. पक्ष्यांचेर अनेक आनी गायगोरुवाचेर थोडीं कविता ताणी रचल्यात. 'एक पारवो' शीर्षक कवितेंत ते एक पारव्याचे वर्णन करतात. जो ताचे जनेला मुरवार येवन धान्याचे कण चोंचरावन खातालो ताका येवकार दीवन कविता सुरू जाता.

आनी ताचे सुन्दरतायेचेर खोस परगटावन कविता चालू दवरतात:

आयची सकाळ म्हाका व्हड खोस दिता.
हे पारव्या, अपरूप उजळकायेच्या प्रतीक,
पळोवपाक भो सुन्दर, तूंवें म्हजे घर
आनी ताचे मुखावयलो जागो सजोयला.
तुचे पारवांचे रंगाचो सुमेळ
आनी तुचे चोंचीची आनी पावलांची तांबसाण
वर्णन करप कठीन आसा.
शरीराचें सौंदर्य पक्ष्यांचो अभिमान आसा.
तुचे दोळे एक सुन्दर बायलेचे निढळावयल्या कुंकुमेच्या तीळ्या गदी आसा.
तुचे शरीर फुल्लवनातिल्ले केळी ल्हान बोंडी सारके सुंदर आसा.

वर्णन चलत दवरून मनीस आनी पक्षी - हांचे जिवीताचेर, मनीशाची तृप्त जायनाशिल्ले आशा दोशीपण आनी क्रूरताय - हांचेर आनी पक्ष्यांचे सन्तुष्ट आनी भोळेपणाचे जिवीताचेर तांचे विचार जमतात. पक्षी चमकून पयस वता. पूण कवी तिका रावचाक मागता:

ओ सुन्दरताय,
इन्द्र धनुष्य पीळन काडल्लें सार,
सोवितायेचे न्हंयचे लान ल्हार,
म्हाका एकसुरो सोडून चड पेल्यान वचनाका
तुचे चोंचीन धान्याचे कण चोंचून,

आनी आपणाले पोवळ्या सारके मधूर पावलानी ल्हवू ल्हवू चलुन तुचे सुन्दरतायेन म्हजे दोळ्यांक प्रसन्न करन म्हजे मुखार चिक्के राव.

पूण मातशे तांबश रेग्यांचो तिचो सोपूर गोवंटो चिक्के वयर करन पक्षी ताका निरोप घेता आनी कवी तिका वसपाक सोडतात:

कोणाकय तुका पळोवन केन्नाय जाय ततलो आनन्द मेळा की?

म्हाजे दोळ्यांक थोडे वेळाक आनन्द दिल्ले खातीर हांव तुचो आभार मानतां.
वच आनी तूं परतून येवंचें राकून बेसल्ले तुचे कुटुंबाक खोस कर.
तें एक गृहस्थालें कर्तव्य आसा.

'एक कोंबो', 'जितो मारल्ली पक्षी', 'एक विचित्र त्याग', 'संतोश पांव, म्हाजे आवय' आनी 'एक म्हांतारी सेविका' जशे कवितांत सुन्दरतायेचेर कवींचो आनन्द, जिवीताचेर ताची मोगाळ दया आनी पक्षी - जनावराचेर दिसची मनीशाली क्रूरतायेचेर तांचो राग आमी पळयतात. 'एक विचित्र त्याग' कविता केरळचे देवूळांकडे चलचे कोंब्याची बळी दिवपाचेर आधारून रचल्या. कोंब्याचे सुन्दरतायेचें वर्णन केल्ले उपरांत कवी देवीकडे विचारता:

जेन्ना तूं हे पक्षीक पळयता
तेन्ना तुचे थनां सावन दूद व्हळना की?

आनी भारताची पूर्विल्ली परंपरा अहिंसा- हाचो उडगास काडता:

तण तुंटवचें लेगीत जांचे पूर्वीक पाप समजताले,
तन, मन आनी उतरानी जे अहिंसाचे-पालन करताले,
जंय असले महात्मा जियेताले,
गर्वान 'बळी' म्हण नांव दिल्ली निरपराधींची हत्या,
बुदवंतानी तिरस्कार केल्ली ही भयांकृत करणी मनीशालें हें जंगली काम - हें सर्वय अन्याय सोसचाक तो देश कशें शक्त जातलो?

'शेतकऱ्यांचे जिवीत' कवितेंत कवी पाड्यांक म्हणतात:

पाड्यानों, तुमकां शान्ती मेळो, तुमचे आवसूनी
आपणाले दूद आमकांय दिलां
तुमी आमचे चड मोगाळ भावंडां आसात,
आनी आमची उपजीविका जोडचे
मुरवेल आधार तुमीच आसात.
तुमचे पासून आमची चिंता
तेला सारके तुमकां उजळकाय दीवो.

सैमाचे भुरग्यांक मोग करचो वळ्ळत्तोळ सैमा लागून रावचे मनीशाकय मोग करताले. लोकांत शेतकारच तांचे चडान चड प्रीतीचे मनीश आशिल्ले. ताणी किसानांचेर खूब कविता रचल्यात, 'पावसा मोडाक नदर दवरपी शेतकार', 'भागेल्यांची प्रार्थना', 'किसानालो गीत' आनी 'चड पावस' - ह्यो तांचे कांय नमूने आसात. किसानांचेर प्रीत, तांचे कश्टांचो अस्सल कदर करपी तांचेर गाड काकुळट आनी तांचेर अभिमान - हे तांचे कवितांचे सभाव गूण आसात भारत बळवंत, प्रसन्न आनी मुक्त जावुंकजाय तरी किसानांचे जिवीताची अवस्था सुधारुंक जाय. गान्धीजीले हे विकार वळ्ळत्तोळ परतून परतून स्पश्ट करतात. शेतकारांचे जिवीतांची तांगेली काय चित्रां आमचे उगडासांत दसून रावतात. व्हड प्रतीक्षेन मळवार

लागी येवंचे पावसा मोडाची उत्सुकायेन वाट पळोवपी शेत कसपी शेतकार, आपणाली खोंपी पावसांत व्हळन गेल्ले मात्रान शेळवतांत कडकडचो गरीब गांवकार, एक दीस सांजे शेतां साकून परतून येवंचे वेळार ते वाटेन येवंचे कवी सयत सवर्ण जातीचे लोकांक भश्टावनातिल्लें रावचाक उदकान भरल्ले गजनींत उडकी मारची अनुसूचीत जातीची वावराडी बायल भनीश, आनी रामायण पारायण करपाक गावंचे मचवारीचो, कवींचो निरोप घेवप.

सैमाची सुन्दरताय आनी ताचे जिवीताची विविधताय - हांचे भायर वळ्ळत्तोळ सैमाक कांय दुसरे अर्थान घेताले व्हय? जायते पावट सैम कवींक जिवीता पासून चिंतन करपाक आनी तांगेले विचारांक नमूने दिवपाक संद दिता. पूण हांत चडान चड विचार समयाक अनुकूल आसूनूय ख्खूब साधारण आसात आनी सैमाचे सत्यस्थीतीक अनुकूल आसात. पावसाळे उदकाक संवसारीक जिवीता सारके पळोवपांत अथवा मनीशाले वसवसे भूकेक पक्ष्यांचे संतुश्टीचे आड देखपांत, मनीशाचे जिवीताक अथवा सैमाचे जिवीताक चड खोलायेन पळोवन समजुंक यत्न केला सी दिसना

आपणाले कांय कवितांत कवी अस्सल चित्र अथवा अणभवी चिंतनां - हांचे वर्णन करचे पाशीय कल्पना-विलासाचे विकासाक चड रुच घेता. देखीक:

'प्रभात गीतम' (फांतोडाचे गीत) कवितेंत फांतोडाक एक वावरांत गुल्ल सेविकेचें रूप दिलां जी गेल्ले रातीचे फुलांक (नक्षत्रांक) मळबाचे कूडां थाकून झाडून पयस घालता, परमळाचो रुप्याचो वाडगो - चंद्रमाक घेवन वता आनी मळबार निर्मळ उदक फाफडता, आनी कुंकुमेन ताका सोवीत करता. 'सत्यगाथा' (सत्य गीत) कवितेंत हे कल्पनेक चड प्रमाण आनी अर्थ मेळता. हांत पुराय सैमाक सत्यदेवीचे स्पश्ट रूप म्हण दाखयलां. आमचे माथ्या ऊंच मळबाचे खालीपणांत सत्यदीव्याचे फुटून शिवंडल्ले कुडक्यां सारके नक्षत्रां चकचकतात. तिचो किल्याचो कळस काळोखाक नाकरचीं उजळ किरणां सोडता. आनी देवीन हातां धरल्ले रुप्या वाट्यांसाकून चान्ने रूपान तिचे माये-मोगाचें दूद व्हळता. प्रत्येक रवीण हे भूंयेक गिळतलो म्हण भिसरावंचे समुद्राक देवीचे आज्ञाशक्तीचे रूपान एक भुरगो ल्हवू ल्हवू मागलान धिंगुळता:

जोगूल तुचें भव्य तलवार,<br>
कूप तुचो रथ,<br>
घणघणीत गाज तुचें पेंपारें<br>
सर्वय शाश्वत आवाज तुचे जैताचें तुरही नाद आसा.

सैमांत अणभवची तांक आनी कीर्तीच मनीशाले जिवीतांतय ताचे हितकरपी पालक आसा:

ओ सत्य, तुचीं पावलां चुमपाक खाला बागवतलो भय ना आशिल्लो आसतलो<br>
आनी सगळे कडेन नितीक पाळो दिवपी आसतलो.

हे कवितेंत 'परगट' 'अपरगटाक' स्पर्श करता आनी ईश्वर, सैम आनी मनीश - हांकां मेळोवपी एक कल्पनाविलासाचो सातत्यक आसा. पूण सामान्य रूपान वळ्ळत्तोळ एक रहस्यवादीय न्हय, प्रतीकवादीय न्हय, दर्शनशास्त्री कवी लेगीत न्हय. तांची प्रतिभा संवेदनाशक्त आनी जिवीतांत आनंदाची अनुभूती आसा. सैम तांकां एक अनंत आनन्दाचें मूळ आसा! कवी सागराचीं ल्हारां पळयत रावतले जीं कैरळीचे पावलांक रुप्याचीं पायंजोळां घालतात. असंतुश्टताय दिसल्यार तीं काडता आनी मागीर दुसरीय तीं घालता अथवा वारें, झोड, कूपा आनी न्हंयो पळयत आनी सैमाचे यश गायत आनी ही भेटवस्तू प्रदान केल्याईश्वराक आभार मानत रावतले.

हांव म्हजे आशे भगत ल्हान हात ताचे मुखार कशें नीट करूं जाणी म्हजेर दया करन आपणालो प्रेम म्हाका दिला.

म्हाका रावचाक हें घर दिलां

जंय जायतीं सुन्दर वस्तू आसात-

ताचें काळें मोवाळ हांतरूण, ताचो थंड, फडफडचो पंखो ताचो वज्र लायलो नीळ मंटोव

आनी तांत एक व्हड चकचकचें भांगरा पृथ्वीगोलय?

वयर दिल्लो श्लोक सैमाचेर वळ्ळत्तोळांची प्रतिक्रिया स्पश्ट करता. कवी सैमाक मनीशाक प्रदान केल्लो दिव्य आशीर्वाद आनी मनीशाचे जिवीताची फाट भूंय म्हण लेखतात. जेन्ना केन्नाय सैमाक विनाश करपी पळयता तेन्नाय ती क्रूर आनी इश्टागतीची म्हण मानतात, रानवट, स्वतंत्र आनी मनीशाचेर उदासीन म्हण मानतात. वळ्ळत्तोळ पुराय एक अभिजातवादीं आसात. ते सैमाक एक स्वतंत्र अस्तित्व आसा म्हण लेखनात. ते सैमाचे एक स्वतंत्र अस्तित्व आसा म्हण लेखनात. ते सैमाचे चड वळखीचे रूपकारापासून संबंद दवरतात आनी ताचे भव्य आनी उन्नत रूप तांकां भिसरायना. सैम तांचे दिश्टींत एक बिन्दू ईश्वराकडे संबंद राखता आनी दुसरो बिन्दू मनीशाकडे. सैमाचे चित्रांचे सुन्दरतायेंत ताणी भोगचे आनन्दांत, सैमाक मनीशाळो करपांत, आनी तिका मनीशाक जिवीतांत सदाचरण शिकौवंची प्रेरणा दिवपी मानपांत ते संवसाराचे अभिजातवादींत मेळन आसात.



# अध्याय सात

# एक स्वच्छंदवादी कवी

अभिजातवादांत बरे भाशेन शिस्त बद्ध आनी धर्म संबंदी आनी सांस्कृतीक परंपरेचेर थीर रावल्लो कवी, ज्याक विशेश करन विदेशी प्रभावाचो स्पर्श कांय ना जावन रावता, स्वच्छंदवादाचेर आकर्शीत जायना. तरी आसतना हे शताब्दीचे पयले दसकांत मलयाळम साहित्यांत आनी केरळचे समाजांत साबार नवी प्रवृत्तीयो चलताल्यो. आनी वळ्ळत्तोळांचेर ताचो प्रभाव पडनातिल्लें रावलोना. तांचो अभिजातवाद आत्मभानी आनी कठोर न्हय आशिल्लो, पूण लवचिक आनी सादो आनी नवे प्रवृत्तींचो मानपीय आशिल्लो. कांय प्रमाणांत ते एक स्वच्छंदवादी कवी आशिल्ले आनी ताणी मलयाळम साहित्यांत स्वच्छंदवादाचे विकासाखतीर बरेंच चड माजत केलां. अभिजातवाद आनी स्वच्छंदवाद - हांचे मदें तडजोड हाडपांत कांय व्हड अजाप ना. कारण दुसरे प्रवृत्तींक थळ दिवप अभिजातवादाचो सभाव गूण आसा.

सग स्वच्छंदवादी कवितेंत आसचे भाशेन आधुनिक मलयाळम कवितेंत कवी आपणाले विशयाचे मागलान लिपून रावनात, पूण विशयाक आपणाले विचार आनी मनाचे विकार परगट करचें माध्यम म्हण लेखतात. ते केन्ना केन्ना वाचप्याकडे जिस्ताजिस्त उलयतात पूण चड फावट ते स्वगत उलयतात सी दिसतात आनी वाचपी अशें अणभव पावंता कि तो कवीचे मनां भितरचे भाव तांचे कानार पडतात. मलयाळम कवितेंत उत्तम पुरुषाचो आवाज केन्ना केन्ना श्लोकांत आदीं मदीं आयकू पडता, जशें 'ज्ञानप्पाना' (गिन्यानाचे गीत) आदले कवितांत. पूण उणे म्हळ्यार इकोणीसावे शेंकडेचे निमाणे मेरेन कवी काव्यरूपाचे लागू केल्ले नमून्याक अनुसरून विशयांचे वस्तुनिश्ट प्रस्तुतीकरणाचेर संबंद दवरताले. अंग्रेजी शिक्षणाचे आरंब साकून एक परिवर्तन आयलें. कवितेचो विशेष करन स्वच्छंदवादी कवितेचो अभ्यास एक बळवंत अणभव आसलो. रोखडोच मलयाळमांत नवी प्रवृत्ती दिसुंक लागली. लघु कविता काळांतली फाशन जाली. कवी हांत आपणाली प्रतिभा आनी चिंतनां परगटायताले. ए. आर. राजराजवर्मालो 'मलयविलासम' कवितेंत सह्य पर्वताक पळोवन तांचे मनांत आयल्ले विचार परगटायल्यात. बी. सी. बालकृष्ण

पणिक्करांची 'विश्वरूपम' (ब्रह्माण्डाचे दर्शन) आनी 'ओरु विलापम' (एक विकळाप) ह्यो दोनीय कविता मलयाळमांत एक नवे काव्य पद्धतीचे नमूने आसात. हांतली एक दुसरी कविता मलयाळमांतलें पयले शोकगीत आसा. सी. एस. सुब्रह्मण्यम पोट्टीची 'ओरु विलापम' (एक विकळाप) आनी के.सी. केश्व पिल्लेची 'आसन्न मरण चिंता शतकम' (मरचाक वचे मनीशाले विचार) हींवय नवे तराचे कवितेचे नमूने आसात. हांत रवंयच्याय कवितेंत बळिश्ट आत्मपरकीपण ना. पूण तरी कवीचो आवाज स्पश्ट उदेला. कुमारन आशनांगेली कविता 'वीण पूव' (झाडावयल्यान सकयल पडल्लें फूल) बारीक प्रतीक रूपाचें एक शोक गीत आसा. काव्य संवसारांत हो नवो नमूनो थीर जाला म्हण हें काव्य स्पश्ट दाखयता. वळ्ळत्तोळांची लघु काव्यां हे नवे तराचे काव्य मंडलींत एक व्हड देणगी जाली. तांची चडान चड कविता वर्णनात्मक आसात. वर्णनां - विचारां भरसून आसात आनी प्रति एक कवितांतले विचार कांय विशेष मनस्थिती अथवा भावनावशस्थिती - हांचेर आधारून आसात. देखून 'मंचवार एक यात्रा' 'म्हजे मातृभूमीकडे', 'वार्यार उबून गेल्ली कविता' जशें कवितांत विशयाचेर आधारल्लो सूर आसा. हो सूर 'भयर्याले विकळाप', 'घवसार काळसार म्हाजे केस पळोवन', 'म्हजी ल्हान धूव' हे कवितांत चड स्पश्ट जाला. 'विकळाप' कवितेंत ते म्हणतात:

मागीरचे दिसा फांतोडार हांव कांय थोडो अदीक बरो जातलों तशें आस्त बाळगेवन हांव राती न्हिन्दुक वतां पूण ओ फांतोडेचे देवी,

जेन्ना हांव जागो जातां म्हजे मन उदास जाता.

.....

संवसाराचे जायते तराचे आवाज<br>
म्हाजे कानार पडनात देखून<br>
म्हजे मन आळसायेंत अस्त व्यस्त जायनातिल्लें<br>
न्हिदांत बुडून वता सी दिसता.<br>
कवितेचेर आनंद पावंची ओ देवी<br>
जेन्ना हांव एक कविसम्मेलनांत<br>
म्हजे कवि मित्रां सयत भाग घेवपाक वतां<br>
आनी ते तांगेली कविता पारायण करतात<br>
तेन्ना म्हजे दुख्खाक अंत ना.<br>
कारण हांव आयकू शकना.

'घवसार काळसार म्हजे केस पळोवन' नावांचे कवितेंत ते आपणाले असामान्य मनोभाव परगटायतात:

ओ मृत्यू, हांवें तुचे वाटेर येवना<br>
हांव तुचे भयण न्हीदें कडे साकून

तुचे राज्याची स्थीती कितली काळखाची म्हण
हांव बरे रूपान जाणतां
भूत पिशाचाचे तुचे संवसारांत
कठीन प्रयत्न करन घेतल्लो म्हजे मनाचो प्रेम
हांव कोणाक प्रदान करतलों:
म्हजी एक ल्हान मुरगी आसा - 'सहानुभूती' तिका हांवें व्हड मोग करन वाडयल्या... तुचे खाली नगरींत
तिचे दुकांचे थेंब्याचे मतियां हारान
कोणाचो गळो ती सजोयतली?

तांचे राष्ट्रप्रेमाचे आनी राष्ट्रवादाचे कवितांत भावनावश सूर बळवंत आसा. तो वाचून कवी आपणाले विशयांत पुराय घुसपला म्हण वाचप्यांक दिसता.

वळ्ळत्तोळांची लघु काव्यां उतराचे पुराय अर्थान घेतल्यार आत्मनिश्ठ अथवा स्वच्छंदवादी न्हय. विचार चडान चड सामान्य आसात. आनी तांची स्वच्छंद जावन वची शक्यतायीय ना. वळ्ळत्तोळांची आत्मनिश्ठताय ग्रे कवीची 'शोकगीत' नावांचे कवितेसुमार सारके आसा. शोकगीतांचो मनोभाव जायतेदां एकच रावता - उदास भाव - विचार संस्करीत आनी रचनेक अनुसरून योग्य, उतरांचो प्रयोग सुन्दर आनी स्पश्ट, कवितेची कृती आकर्शक आनी सगटां भायर वाचपी समजता कि कवीचे मन उदास, गंभीर, चिंतेस्त, दयाळ आनी संवेदक म्हण. वळ्ळत्तोळांतय शैली नाजूक, चकचकीत आसा आनी कवीचे विचार आनी मनाचे भाव परपरत केरळचे हिन्दू समाजाचेर आधारून आसात. तरी आसतना तांत भीतर, वाचपी कवीचे लागसारपणाचो अणभ पावन तांचे व्यक्तित्व जाणुंक शक्त जाता. वळ्ळत्तोळानी धाडसान आत्म निश्ठ कविता रचलीना. पूण आपणाले जायते व्यक्तिगत कविताशक्तीन भरल्ले लघु कवितां साकून ताणी मलयाळमांत आत्मनिश्ठ कवितेची गती चड केली जी मलयाळम साहित्यांत चड प्रचारार आयली.

कवींक स्वच्छंदवादी म्हणतात, कारण वर्तमाना काळापासून असंतुश्ट जावन ते कांय एक आदर्श भूतकाळाचेर आश्चय घेतात आनी ताका आपणालो आत्मो आश्रय घेवंचे थळ म्हण करतात. मदले युगान अंग्रेजीर स्वच्छंदवादीक केन्राय आकर्शीत केला. भारतीय स्वच्छंदवादी जायत्या पावट मुगिळांगेले झगझगपाचेर अथवा राजपूत लोकांचे वीरतायेचेर अथवा भारताचे पूर्व यशाचेर आकर्शीत रावतात. वळ्ळत्तोळय पूर्विल्ले काळाक पसंत करतात आनी वेदांचें आनी पुराणां काळाचें भारतच तांचे कल्पनेचो आधार आसा. पोरणे किल्ले, उदका घसघसे आनी भग्न अवशेष - हांत हेंडुंक, ताचे फवार्या साकून थोडे थोडे करन उदक पियेवुंक आनी ताचे सावटांत खुशेग घेवपाक ते पसंत पडताले. 'किळिक्कोंचल' कवितेंत ते वाचप्याक म्हणतात:

म्हजे वाचप्या, तुका पसंत पडता तरी, यो, कल्पना विलासाचे विमानार चड अडखळ

नातिल्लें पूर्विल्ले काळाचे मळबा वाटेन थोडो वेळ मरेन आमकां यात्रा करया.

हे कवितेंत ताणी पद्मपुराणांतली एक गजाल घेतल्या - बाल सीता एक कीरा जोडीक धरन घेता, एकल्याक पांदर्यांत बंद करता आनी दुसर्याक उवुक सोडता. हे प्रसंगाक आधारून ताणी एक सुन्दर कविता रचल्या. आपणाली शैली, उतरांचो प्रयोग आनी संपुश्ट कल्पना - हांत ही कविता तांचे नामनेचे कवितांत एक आसा. हे कवितेंत वाचपी जनकाली विस्कळ राजधानी, राणीयेची असामान्य सुन्दरताय, आनी सीतेचे भुरगेपणाचो जादू पळोवपाक शकता, रामायण पारायण करपाची प्रतिध्वनी परतून परतून आयकू शकता. ही कविता आदले काळांत मौजेचे भोवंडीचें माध्यम आसा, जनकाले आदर्श राज्यात आनी भुरगेपणाचे जादूंत ही कविता आमचे मनाक आकर्शीत करता. श्रीकृष्णा पासून रचल्यो तांची कविता. 'एक चित्र', 'अक्रूराची व्रन्दावन यात्रा' आनी 'कर्मभूमीची' ल्हान पावलां' - हांत एक आदर्श आदले काळाचे यश गायता आनी तांत भुरग्याले आनंदाचे शतमानवर्सांचे मानल्ले वर्णन आसा. 'अनिरुद्ध बंदखणींत' कवितेची घडणूक उषा आनी अनिरुद्ध हांचे प्रेमाचे काल्पनीक कथेर आधारून आसा. 'शिष्य आनी पूत' कवितेतंली पात्रां देवी, देवता आनी एक मनीश - पुराणांतुलो नामनेचो परशुराम आसात. ताणी पुराणांतले विशयांक आधारून जायत्यो कविता रचल्यात, जशें 'केरळाचे माथें', 'ती मुद्दी', 'भक्ती आनी ग्यान', 'महाराष्ट्राचे वीर शिवाजीचें वर्णन 'रानांतले उंदीराचें पत्र' कवितेंत आसा. 'भारतीय बायलांचे पवित्रतायेची शुद्धी' कवितेंत मुगळ साम्राट हुमायूंचे जीवनांतले एक काल्पनीक घडणुकेचें वर्णन केलां. हांत आनी दुसर्या अनेक कवितांत वळ्ळत्तोळ भो आनंदान आदले काळाचे वर्णन करतात. केन्ना केन्ना देखावाक केन्द्र बिन्दू करन, केन्ना केन्ना पात्रांचें क्रियाशील वर्णन करन, केन्ना केन्ना नैतिक आनी आध्यात्मीक मूल्यांचे वर्णन करन. हांत कांय कवितांत स्वच्छंदवादाचें आकर्शण चड प्रमाणांत मेळता. आनी पूर्विल्ले काळांत परतून वचप आनी पुर्विल्ले काळांत कल्पना विलासाचे स्वातंत्र्य - हें एक बळवंत स्वच्छंदवादाचे प्रभावाचो परिणाम आसा. पूण हें उगडास करुंक जाय कि वळ्ळत्तोळांक आदलो काळ आनी वर्तमान काळ - हांचे मदेंचे खांचीची सामान्य स्वच्छंदवादी जाणवीकाय ना. ते आदले काळांत आश्रय सोदचे निराश शरणार्थी न्हय. तांकां आदलो काळ आपणाले आदर्शांचो फवारो आसा. आनी वर्तमान काळ कितलोय अपूर्ण आसो तरी आदले काळाचें फूटनातिल्लें अखंडपण आसा. आर्षभारत एक थीर सत्य आसा आनी वळ्ळत्तोळ ताचें यश गायतात.

केन्ना केन्ना तांचे बरपावळींत वाचप्यांक तांची शुद्ध कल्पनाविलासाची अथवा संजोयल्ली कविता दिश्टी पडता. 'ओरु युवाविन्टे आत्मसंयमनम' (एक तरणाट्यालें आत्म संयम) कवितेंत एक सुन्दर जलदेवीचे मोहाचे गजालाक फाटल्यान घुकलचे एक ब्राह्मण तरणाट्याची कथा आसा. 'ओरु भावना' (एक भावना चित्र) कविता वर्णन प्रधान आसा. तांत कवीनी एक सुन्दर तरणाटी वीणा वाजता आनी तिचो प्रेमी मायामोगकरी सारको तिका

पळयता दाखयला. जेन्ना तिची नाजूक बोटां यत्नान तांबडी जातात तेन्ना तो बंद करयता हांत जायतीं संजायल्लीं तपशील विवरणां आसात. 'ओरु वीर पत्नी' (एक वीराची पत्नी) कवितांत झूजाक वचे एक सैनीक आपणाले पत्नी आनी पूता कडे साकून निरोप घेवंचे देखावाचे चित्र वर्णन करता. तांचे कवितांचे विशय कल्पनेंतले आसो, पुराणांतले आसो, लोककथेचेर आधारल्ले आसो सगटांतय स्वच्छंदवादी गुणधर्म दिवंचे कल्पना विलासाची खूब उमेदी आसा. वाक्प्रयोगाची सस्तताय, आकार प्रकाराची परिपूर्णताय आनी कल्पना शक्तीचो सुकाळ हे तीनीय मेळन तांचे कवितांक एक गजब सुन्दरताय प्रदान करतात.

प्रत्यक्षा परस चडान चड मनोभाव स्वच्छंदवादाचो गुणधर्म आसा. भुरग्यां पासून रचलीं वळ्ळत्तोळांगेली कविता अपुरवायेन भरन विकरतात. 'संतान सौख्यम' (भुरग्यां पासून मेळचो आनंद), 'काट्टिल् परन्न कवितां', (वार्यांत उबली कविता) आनी 'एन्टे कोच्चू मकळ', (म्हजी ल्हान धूव), 'पनिनीर पूवुम पैतलुम', (गुलाब आनी भुरगें) - ह्यो सग कविताय रचपांत श्रेश्ट आनी मनोविकारानी भरल्ल्यो आसात. तांचे राष्ट्रप्रेमाचे कवितांतय स्वच्छंदवादाचे कडकसाण मेरेन पावंची वाखाणप आनी उरबा आसा. पूण तांची प्रेम कविता स्वच्छंदवादाचे आदर्शा लागी रवंय पावना. त्यो रिवाजाक आनी मोगाक लागून आसात. अथवा रिवाजाक आनी घरचे आदर्शाक अनुसरून आसात. पूण त्यो स्वच्छन्दवादी मनोविकारां साकून पेयस न्हय. 'राघयुटे कृतार्थता' (राधेची प्रसन्नताय) कवितेंत राधा आपणाले प्रेम्याचे संगमाचो उगडास काडता. आनी अचकीत संबंद तोडपांत ती दुख्ख पावंता आनी हें आठोवन आप्याप उणाव भरन घेता कि तिका बराबर तेच संवसारांत वर्तपाक अधिकार आसा म्हण. हे कवितेची भावना खोटी दिसता. 'निमाणे पत्र' कविता एक वरपा रूपान स्वगत उलोवपाचें नाट्य प्रकार आसा. बरप बरोवपीण भामा वीरव खाता आनी आत्महत्या करता आनी तिचे गर्भाशयांतले चेरडूंय मरता. तेन्ना तिचो प्रेमी खोटो म्हण सिद्ध जाता. ती दादल्यांगेले खाशले अधिकारांची निश्ठुर टीका करता:

अशें वेव्हार करपांत चूक कितें आसा? धाडशी मनीश ताचे इत्सा प्रमाणी एक बायलेक घेवयेत ना तरी सोडयेत.

ताका स्वातंत्र्याचो खाशेल्लो हक ना व्हय?

'जातिप्रभावम' कवितेंत हाचे फूडे म्हळ्ळे प्रमाणी गौरी, मोगा खातीर आपणालें सर्वस्व त्यागता. कवींची आनी एक नायिका सर्गार घोवाक मेळपाक आपणाले घोवाचे सारीयेर उडकी मारता आनी एकली, एक मुकवंची, उदकांत बुडून मेल्ल्या आपणाले घोवाक संदपाक समुद्रांत उडकी मारता. नक्षत्राकडेन ओडून वचपी पाख्याची इत्सा आनी फांतोडाकडे वचपाक रातीची इत्सा - हो स्वच्छंदवादी प्रेम तांचे काव्यांत रवयंच दिश्टी पडना. जीवनांत दुसेर कांय वस्तू पाशीय दादले - वायलांचे प्रेमाक चडमहत्व आनी भावनावश चड महत्व दिलां. वळ्ळत्तोळ जशे एक परंपरावादींत हें सुचयता कि समय कशें बदलता आनी मान्य जाले नमूने आनी आदर्श उदेतात.

एक कलागीराचे दिश्टीनय वळ्ळत्तोळानी स्वच्छंदवादाचे विकासाक हात बळ दीवन मुरवार व्हेलां. ताणी प्रयोग केल्ली पद्धत आनी तंत्र तांचे उपरांतेचे स्वच्छंदवादी कवितेक भोचड उपेगी सिद्ध जाले. अशे उपेग करचे ते पयले कवी न्हय आशिल्ले. पूण ताणी तांचो वरो प्रयोग केलो, देखून तांचे पासून नवें स्वच्छन्दवादी काव्य सस्तायेन आनी बेगीन विकास पावंचाक बळवंत जालें. फूडे सूचयले प्रमाणी हांत एक, काव्यांत उत्तम पुरुषाचो प्रयोग आसा. दुसरे कथा काव्यां आसात जांत नाटकीय घटकांक चड म्हत्व दिल्लें आसा. मागीरचे जायते मलयाळम कवीनी नाटकीय स्थितीक स्पश्ट करपाक अथवापात्राचो घुसपागोन्दोळ कळीत करपाक नाटकीय स्वगत उलोवपाचो प्रयोग केलो. सस्तायेन ताचो उपयोग केल्ल्यांत ते कवी वळ्ळत्तोळांचे आभारी आसात. ते नाटकीय स्वगत उलोवपाचे अथवा कांय दुसरे तराचे नाटकीय रचनेचे विशेषज्ञ आशिल्ले तरी नाटकीय उलोवपांत गती, आनी पात्रांचे चरित्र उक्तें करपांत दुसर्यांक नमूनो दिवपाक ते शक्त आशिल्लें. 'अच्छनुम मकळुम' (बापूय आनी घूव) - तांचे नाटकीय भावगीतांचो सर्वश्रेश्ठ नमूनो आसा.

द्राविड छंदाचो मंजूळ प्रयोग घेवन वळ्ळत्तोळानी मलयाळम कवितेची व्हड सेवा केली. एक फांतां केरळकल्पद्रुमम छापखाण्या वाटेन उजवाडयल्लीं 'कवन कौमुदी' पत्रिकेची टीका केल्ली कारण ती द्राविड छंदांत रचल्ले कवितांक येवकार दिता म्हण. कवितेक संस्कृत छंदच कविता करपाक श्रेश्ट समजताले. वळ्ळत्तेळानी द्राविड छंदाचो कुशळतायेन उपेग केलो कि ते आपणाले लया खातीरच न्हय, पूण आपणाले कल्पनेंतले प्रयोगांचे शक्ती पासूनच चर्चेक कारणीभूत जाले. सर्वय द्राविड छंदाचो विशेषकरन 'केका' आनी 'माकंदमंजरी' हांचो अति उत्तम कुशळतायेन वळ्ळत्तोळानी प्रयोग करन कविता रचल्यो. चेरुश्शेरी (१५ वीं शताब्दी) आनी कुंचन नंपियार (१८ वीं शताब्दी) हांचे उपरांत आपणाले कवितेचे विविधतायेंत आनी सुळसुळीतपणांत तांची बराबरी करूं फावोसो एक दुसरो कवी जल्मलोना. छंदाचे कुशळतायेन आनी उतरांचे प्रयोगाचे स्पश्टतकायेन ताणी मलयाळम कवितेक एक नवें बळ प्रदान केलें. ह्यो सभावीक स्वच्छंदवादी प्रवृत्तीयो न्हय जाल्यारीय, विशेष करन द्राविड छंदाचे प्रयोगान मलयाळमाक आपणाले पोरणे अभिजातवादी सभावा साकून स्पश्ट भायर येवपाक आनी नवे स्वच्छन्दवादी कवितेचे विकासाक उर्बा हाडपाक मजत मेळें.

वळ्ळत्तोळ एक स्वच्छंदवादी कवी आसा व्हय किन्हय म्हण प्रश्न आयल्यार ताच्यो जापो व्हय आनी न्हय म्हण दोनीय आसतल्यो. स्वच्छन्दवादाचें सार-जीवाचें दुख्ख, आपणांतच वेगळेपणाची समजिकाय अथवा आपणांतच वांटून आसा म्हळ्ळी भावना - तांचांत ना. आयचे संवसारांत आनी पुराणांतले संवसारांत - दोनींतूय ते एक दम प्रसन्न आनी खोशी आसात. तांची राष्ट्रीयता मेरेन अजापाचे येवजणेंत आनी क्रांती साकून स्वतंत्र आसा देखून, एक शाणो आनी निर्दोश मनोभाव आसा. आनी श्रेश्ट आदर्शवादाचे अथवा उमेदाचे कांय वेळारीच स्वच्छन्दवादी जाता. जिवीताचेर तांची वागणूक समाधानी स्वीकृतीचे

आनी सुशेग घेतल्ले आत्मविश्वासीचे उपभोगाची आसा. मूळ रूपान ते एक अभिजातवादी आसात, स्वच्छंदवादी न्हय. पूण स्वच्छन्दवादाचे कांय पालवी सभाव तांचे काव्यांत दिश्टी पडतात आनी ते आपणाले सभावीक अभिजातवादाचे गुणधर्माची सोबाय वाडयतात. ताणी मलयाळम काव्य साहित्यांत एक नवे युगाचे उदयाक पटी दिल्ली.



# अध्याय आठ

## एक गद्य लेखक आनी समीक्षक

वळ्ळत्तोळानी, जेन्ना ते केरळोदयमचे आनी मागीर आत्मपोषिणीचे संपादक आशिल्ले. तेन्ना जायते पुस्तकांचे नियाळ आनी बरे रुचीचे चालंत विशयांचेर लेख बरयले. तांचे पुस्तक नियाळ तांचे दोस्त कुट्टिकृष्णमारारानी एकठांय करन 'ग्रन्थविहारम' नावान 1925 वर्षा उजवाडायले. हे नियाळांत कवी कवितेचे समीक्षक आसात, कसलेय बरी वस्तूची तोरवणाय करपांत उदार, भासेची शुद्धताय आनी शैलीची मर्यादा पालनांत जोखून काम करपी, बनावटी आनी साहित्यीक व्हडकाय उजवाडा हाडपांत प्रवीण आशिल्ले. आत्मपोषिणींत सांगल्ले प्रमाणी समीक्षक रूपान तांची नीत एक पुस्तकाचे बरे मुद्दे तुस्त करप आनी नवे फूडे येवपी वरोवप्यांक साहित्याचे वाटार उमेद हाडपाक तांची निंदा करचें. टाळप - आशिल्ली एक समीक्षकाक ईमानी आनी उदार आसुंक जाय, केदप निश्ठुर जावू न्हयें. वळ्ळत्तोळ हें मानून घेतात कि कवींचे कार्य क्षेत्रांत अशें तशें कशेंय मेळन कवी जावपाक निश्फळ यत्न करचे कांय जनाकडे ते चडान चड निश्ठुर जायनातिल्लें रावचाक शकनात. ते दुख्ख करतात कि आयज आमी हें विसरल्यात कि एक समीक्षकाक विद्वत्ता, ईमान, बोध आनी स्मरणशक्त आसुंक जाय आनी समीक्षण विरोधकांचे आड उपेग करचें एक बळवंत हतियार रूपान मात्र प्रयोग करतात.

आपणाले कविते सारके आपणाले समीक्षणाचे गृहीत धरिल्ली बुनियादी गजालांतूय ते अभिजातवादी आसात. संस्कृताचीं शास्त्रीय समीक्षणाचीं तत्वांच तांचे वेव्हारीक अकल आनी संवेदना मेळन तांचे समीक्षणाचे मार्गदर्शन करता. तांचे पुस्तक नियाळांत तत्वांचे तपशील वर्णन दिश्टी पडता, पूण समीक्षकांचें मार्गदर्शन विशेष करन भासेची शुद्धताय, उतरांचो प्रयोग आनी शैलीची मर्यादा करता. उळ्ळूरानी तिरुवितांकूर म्हारायाक तुस्त करन रचल्ली 'मंगल मंजरी कवितेचे तांचे समीक्षणांत हे निवेदन सयत आरंभ जाता कि जर केरळांत 'कवी' विरुद घेवंचाक कोणेय फावो जाता तर तांचांत पयलो मनीश उळ्ळूर परमेश्वरय्यर आसतात. कवितेची तोरवणाय ताचें बिंब विधान, स्पश्ट उतरावळ आनी लागून आसची ताचे लयाची गती - हांचे पासून केल्या. पूण वळ्ळत्तोळ तांच्यो चूक्योय

लक्षांत हाडून दितात. अलंकारांची आनी बिंबांची पुनरावृत्ती, म्हाराजाचे खातीर प्रखर प्रेमा निमित्तीं अतिताय. जेन्ना एक कवी आपणाले पदवी बराबर एक दुसरे कवीचे दोष सोदून काडता तेन्ना ताका भो चड संयम पालन करूं जाय आनी वळ्ळत्तोळ आपणालीं उतरां वेंचून प्रयोग करपांत बुदवंत आसात. उळ्ळूरांचे हें एकच लघु काव्य मात्र वळ्ळत्तोळानी नियाळ केलां - ही एक व्हड दुख्खाची गजाल. कुमारन आशानान रचल्लें 'लीला' काव्याचें नियाळांत ते हाचाकय स्पश्टवादी जाल्यात. 'लीला' एक वरिश्ठ काव्य आसा. आनी वळ्ळत्तोळ ताचे अत्योत्तमपणा पासून जाण आशिल्लो. ते काव्याचो नियाळ मोगाळ तोरवणायेन आरंभ करतात. आशानाची तोरवणाय तांचे कल्पनाविलासाचे नवेपणाक लागून आनी ताचे तपशीलांत कवीन दाखयल्लें सादूर अवधाना पासून केल्या. ''करुण रसाचे पूर्णताय सयत विप्रलंभ शृंगाराचे इतलें सुन्दर चित्रण केल्ली एक दुसरी कविता मलयाळमांत ना.'' जर 'लीला' बराबर एक दुसरें काव्य आसा तर तें (तेच कवींचे) 'नलिनी' आसा. मागीर समीक्षक कवी काव्याचें तपशील परीक्षण आरंभ करतात. आनी तें, रचनेंत दुर्बळ आनी भासेचे दुशणानी भरल्लें अशें जाणून घेतात. संस्कृत भासेचीं भव्य उतरां आनी मलयाळमाचीं कांय तराचीं उतरां - हांचे भरसप ते नापसंत करतात. उदाहरणाक: देशज आनी तोंडी उतरां - वाक्य रचणूकांत आशानानी केले प्रयोगांक तें पसंत करनात. अनाडी वाक्य रचणूकेचे जायते नमूनेय ते दितात. विद्रूप वाक्य घडण जांत एक विशेषण अयोग्य थळार प्रयोग केल्यार अर्थ विंगड जाता, अयोग्य उभयान्वयी अव्यय विसंगत सूर, व्याकरण संबंदी चूक्यो आनी ताळ राखचे खातीर अर्थाचे अथवा उतराचे शुद्धतायेचो नित्य त्याग करुपय आसा. भास चडकरन समजुंक कठीन आसा. हीं सग दुशणां आसात तर कविता 'सुन्दर' अशें तुस्त केल्या. एक गाय तिचे पायानी फाफरायता आनी सींगानी खोंचता तर ती जायतें बरें दूद दिता जाल्यार तिका आमी पयस सोडनात. 'लीला' काव्याचो हो नियाळ वळ्ळत्तोळांचे समीक्षणाचें बळय दुर्बळय - दोनीय दारवयता. तांचे सारके एक शुद्धिवादी आनी श्रेश्ठ अभिजातवादी 'लीला' काव्यांत दिश्टी पडच्यो जायत्यो चूक्यो माफी करपाक शक्त जायनात. तेच वेळार कवी ताका एक सुन्दर कविता मानतात. आनी ती मन भुलयणी 'फुरलावपी' आनी 'विशेष करन अत्योत्तम' अशें म्हणतात. पूण कांय सामान्य उतरानी न्हन्तना हें अत्योत्तमपण कितें म्हण व्याख्या थारावपाक ते शक्त जायनात. '' 'विप्रलंभ शृंगार' आनी 'करुणम' हांची भरसण'' हो प्रयोग स्वच्छंदवादी कडकसाण स्पश्ट करपाक फावो सारको न्हय. 'लीला' काव्याचे स्वच्छंदवादी तत्व, विंध्या प्रदेशाचे सैमाची सुन्दरताय, चंपा फूलांचो परमळ, मदना खातीर लीलाचो सोद, न्हंयंत उडकी मारन मदनाची आत्महत्या आनी अशेंच तरेचे हेर, अभिजातवादी समीक्षकाचेर प्रभाव घालपाक शक्त न्हय. वळ्ळत्तोळांची सुन्दर साहित्यीक संवेदना शक्त कवितेचे सुन्दरतायेन प्रभावीत जाता, पूण तांचीं आवतां ते सुन्दरतायेचे सभाव गुणाची अथवा जयंच्यान सुरू जाता ते सुवातीची फोडणिशी करपाक शक्त न्हय. 'लीला' काव्याची अपुरताय लक्षांत हाडून दिवपाक ते जिस्त

आनी योग्य आसात. 'पूण जेन्ना ते कवितेची तोखणाय करतात तेन्ना ते अस्पश्ट सामान्यतायेंत पडून घेतात.

आपणालें पुराय साहित्य समीक्षणांत जेन्ना ते भासेचे शुद्धताये खातीर लडाय करतात तेन्ना ते श्रेश्ठ समीक्षक जातात. ते नेटान सांगतात कि एक कवीचो मुखेल संबंद उतरांचे अर्थाचेर आसां आनी उतरांचो मोग तांकां लक्ष्यार साकून पयस व्हरचाक नज.

साहित्य परिशदेचे कांय भाशणांत ताणी कवितेचे कांय नवी प्रवृत्तियां पासून आपणाली असंतुश्टताय परगटायली. अभिजातवादी वळ्ळत्तोळांक निरशेणींत घालचे लेखान मलयाळमांत प्रेमगीतांचो हुंवार आयलो. तांकां दिसलें कि हे कवितांत कवींगेले मनाचे तरणेपणा पाशीय तांचे मनाची गरीबी चड परगट जाता. ताणी आपणाली चूक मान्य केली आनी कविता आनी कादंबरीचे प्रेमी-प्रेमिकांची आत्महत्या करपाची सामन्य प्रवृत्ती पळोवन मनस्ताप परगटायलो. आधुनिक मलयाळम कवितेचे गरजे परस चड स्वच्छंदवादी प्रवृत्तींची फकाणां मारचे भायर ते, कवींचे तरणे पिळगे पासून चड खोशी आशिल्ले. "अपूर्व साहित्यीक माल घेवन वचाक तांचीं माथीं योग्यताय आशिल्लीं जातात आनी आमचे साहित्याचे पायांक वांदून आशिल्ली रीतरवीसाची बेडी भेतचाक बळ आशिल्ले वळवंत हात आमी देखतात तेन्ना आमकां व्हड आनन्द जाता.'

जायते संस्कृत कृतींचे मलयाळम अणकार केल्ले वळ्ळत्तोळांक आणकारा संबंदीं स्पश्ट नदर आशिल्ली. ते दोन कायरीं नेटान सांगताले. मुळावी रचना दुसरे भासेंत अणकार करपाक लायकी आसुंक जाय. आनी अणकार साहित्यीक जावुंक जाय.

'स्वतंत्र अणकारा'पासून ताणी वळिश्ट उतरानी आपणालो तिरस्कार उक्तायला. साहित्यीक सम्मेलनांत वरीं पुस्तकां मलयाळमांत अणकार करचे गरजेपासून ते जायते फावट उलयताले आनी आपणाली 'एन्टे भाषा' नावांचे सुन्दर कवितेंत ही चिंतनां परतून परतून सांगल्यांत.

ताणी राजनीतीक घटणुको आनी समाजीक सुधारणा सारके असाहित्यीक शीर्षकांचेर कांय लेख बरयल्यात. समाजीक जीवनांत सरकारान हात घालचें तांकां बेजार करताले. सदा भाशेन पुरोगामी म्हण लेखचे कायदे करपाक ते येवकार दीना आशिल्ले. नायर समाजाचे विवाह नेमानुसरून करचे नायर अधिनियमापासून वळ्ळत्तोळानी बरयलें: "जर विवाह संबंदी नेमाचो सांठो ना तर एक मातृसत्ताक समाजाक कांय त्रास जावना. लग्न केल्लें जीवन, प्रेमाक आधारून आसता. नेम हे पवित्र मनोभावाक कश्टांत घालपाक कारण जाला म्हण काय गवाय ना." ताणी सर्वय पोरणी वस्तू म्हत्व नाशिल्लीं म्हण भायर उडोवप आनी नवी सग वस्तू म्हत्व आशिल्लीं म्हण मानून घेवप - ही दोनीय कामां पिशेपणाचीं म्हण सांगलें. जर कोणेय मलयाळी, मलयाळी म्हण रावता तर तेंच अभिमानाची गजाल आसा. हेंच तांचे मानादीक स्पश्ट मत आशिल्लें. तांचे मतांत ते एक वेव्हारीक शाणेपणाचो उपेग करपी परंपरावादी दिसताले. रूढीवादीचें नेमानुकूल दर्शन आमका वळ्ळत्तोळांत

दिश्टी पडता.

वळ्ळत्तोळांची गद्यशैली, काव्यशैली समान श्रेश्ट, उजळ आनी नामनेची आसा. ती जायत्या फावट ताळ, सुर आनी लयाचेर निंबून आसा. ती संस्कृत आनी मलयाळम भासांची मेळ सादिल्ली वस्तू आसा. ब्याख्यातो म्हण ते भो सन्त उलयताले. पूण आपणाले उलोवपांत एक खास बळ आनी वयलो सूर आशिल्लो. तांत विनोदाचो रंग भरन आशिल्लो. विंबावळीची सुन्दरताय आशिल्लो. कविता समान तांत कल्पनाविलासाचें आकर्शण आनी तेज आशिल्लें. बंदावळ संबंदी गुणांत वळ्ळत्तोळ पोरणे गद्यशैलीचें प्रचारक आशिल्ले. ते शैलीक आपणालो एक विशेश गुण आशिल्लो. एक स्पश्ट घटनेंत ते दीर्घ वाक्यांचो प्रयोग करताले. तांत जायतीं उपवाक्यां आनी कंसांतलीं उतरां आसतलीं. आधुनिक मलयाळम गद्यांत बंदवळ संबंदी हे गुण वगडायल्यात. ताचे बदलाक एक चड सरळ शैलीचो फायदो जाला.



# अध्याय णव

## वळ्ळत्तोळांची काव्यकला

ज्या मनीशाक जीवन आपणालें रहस्य उक्तें करता आनी भास आपणालें लावण्य सुवादीन करता तोच म्हान कवी आसा. असले कवी एक जनतेचे इतिहासांत फक्त थोडेच आसात. 'गीतगायक आनी सपन दर्शक' हांचे पद सर्वश्रेश्ठ नामनेचे कवींचे इल्लें सकयल आसा. सपन दर्शक असले आसात ज्यांचीं सपनां जीवनाक अंतर दिश्टी दितात. आनी गायक असले ज्यांचे गीत आपणाले भासेचे मधूरसाणीन भरन आसात. वळ्ळत्तोळ हे तरेचे गायक आसले. ते गाड संतोश दिवंचे जीवनदर्शनाचे रहस्यवादी वा दर्शनशास्त्री न्हय आसले. ते आत्माचे उजवाडाचे प्रदेश मनांत उगडास करचे सप्नदर्शकय न्हय आसले. ते असले मनीश आसले ज्यांचें भाशण संगीत आसलें आनी ज्याचे स्पर्शाक शिश्याक भांगार करन वदलपाची तांक आसली आधुनिक युगाचे सग मलयाळम कवींत वळ्ळत्तोळांकच. भासेचे शक्तीचेर पुराय पुराय फिशाल अधिकार आसलो. भासें साकून तांकां जाय आसचो प्रत्येक सूर ताणी होरायलो. मलयाळमाची मधूरसाण, ताचें लावण्य, ताची अस्मिताय आनी तांक - हे सर्वय गूण तांचे कवितेंत मेळतात. 'एन्टे भाषा' (म्हजी भास) कवितेंत ते मलयाळम भासेचे गुण धर्मा पासून व्हड अभिमानान उलयलयात आनी ताणी आपणाले आवय भासेंत देखल्लें लालित्य तांचे पद विन्यासांत दिश्टी पडता. 'किळिक्कोंचल', भारत स्त्रीकळतन भावशुद्धी' आनी 'मग्दलन मरियम' जशें कवितांत स्पश्टपण, मधूरसाण आनी उतरांचे प्रयोगांतलें लावण्य कशें आसा तेच भाशेन चेरुश्शेरीचे 'कृष्णगाथा' काव्यांत मात्र दिश्टी पडता. 'शिष्य आनी पूत' कवितेंत पदविन्यासाक स्पश्टपण आनी गतीची हुशारी भायर मंजूळ सुन्दरताय सयत उत्साह आनी बळ आसा. केन्ना केन्ना वळ्ळत्तोळ 'एक मुदी', 'भक्ती आनी गिन्यान', 'मंचव्यार एक यात्रा' - हे कवितांतले सारके सरळ आनी सादी भास उलयतात ही वर्ड्सवर्तांची भास आसा. ज्यांत गद्याक मनोभावाचे आनी कल्पनाविलासाचे प्रभावान कवितेचें परमोच्च स्थान दिलां. केन्ना केन्ना तांची भास एकार ऊंच एक दवरून वर्णन केल्ले उतरांचे तपशील सारके दाट विलूदाची घडण प्राप्त करता. 'एन्टे कोच्चु मकळ' (म्हजी ल्हान घूव) कवितेंत आपणाले ल्हान घूवेचे

मंजूळ हासमूखाचें वर्णन ते करतात:

फूला सारके ल्हान तांबडे तोंडाचे हासपांत
संसाराचीं गुलाबां फूलां एक परत एक
सग मेळन फुलीं सारके,
सुन्दरताये पाकळ्यो एका परत एक विस्कळ्ळयो सारके, ल्हान सुन्दर मणिकाचे शिंसे
एका परत एक उत्के जाल्ले सारके,
एक स्पर्श लेगीत त्रास दीवूं शक्त

सिल्का मोवसाणीचो चादर घाल्ले अमृताचे येंग्यांत भिजल्ले परमळा ओतून गेल्ले सारके, दैवी पवित्रतायो सगळ्यो मेळन आशिल्ले सारके दिसता.

इंद्रियांक खोस दिवपी तपशीलानी भरल्यो आनी अलंकार आनी वाक्प्रयोगानी उज्वल ओळ्यो तांचे कवितात जायत्यो आसात. शुद्ध संस्कृत उतरानी निर्माण केल्ले उदात्त पदविन्यास तांचे कांय कवितांची खाशेलकाय आसा. विशय आनी मनाची अवस्था, हांका लागून उतरांची वापर परतता. आनी वळ्ळत्तोळ एक गुणेस्त कलाकार आसात देखून ताणी मणिप्रबाळम शैलीचे - मोवसाण, बळ, नितळसाण, अस्मिताय, लावण्य आनी माधुरसाण - सर्वय सभाव गूण घेतल्यात. अभिजातवादी तत्व कवितेचो मुखेल सभाव आसा - हें तांचे 'कवितेचे सर्वय, गुणांक सौंदर्य हाडता?

इंद्रियांक खोस दिवणी तपशीलां वळ्ळत्तोळांचे कवितेचे घडणेक बळ दिता. वयर दिल्ले ओळ्यांचे उद्धरणांत दिश्टी पडचे भाशेन तपशीलां अत्यन्त बारीक आनी आदर्शाचीं आसात. यथार्थवादी तपशीलांचे फोटो काडपांतल्यान तांचान वेगवेगळीं चित्रां घडोवपाक जातात. 'आ मोतिरम' (ती मुदी) कवितेंत ते एक वाटेन चलून बेजार जाल्ले एक मलयाळी ब्राह्मणाचे वर्णन करतात.

ताड पत्रांचे, एक सातें ताचे दावे खांदार आसा.
ताची मूठ दावे हातां धरल्या
पुराय दिसाचे वोत घेवन
तेंवय वेजार जावन

सुयोग घेवपाक ताचे खांदार तेंकून आसा सी दिसता. ताचें जानवें वोतां साकून सुटका पावंपाक हूमेन तिम्मल्ले ताचे छातीक लागून आसा. जायते फांतां देवा मुखार नमस्कार घाला ते पसावत ताचे कपलार घोंग आयल्लो आसा.

ताचे कपलावयले वैष्णव चिन्नाचो रंग उणे जाला पूण ताचो चेरो वैष्णव संत गूणानी लकलकतालो.

ताचे घोतीचीं कडेचीं तलवां
घडी करन कुरटाक खोयल्यांत
केस माथ्यार शेण्डी बांदून दवरल्यात

ताचो सोपूर अंश ताचे कानार मागलान खोवन आसा.

पात्रांची गती, हावभाव आनी मुद्रो आपणाले उतरानी परगटावपाक वळ्ळत्तोळ व्हड कुशल आसले. 'किळिक्कोंचल' कवितेंत ल्हान सीतेचें आपणे आवयकडे घावन वसपाचें वर्णन ते करतात:

अर्द बांदल्ली ओंवळांची माळा खांदार लांबोवन, जशें एक भांगरा फूल वार्यांत उबून येता, तशें ती ल्हान चली उत्सुकायेन आपणाले आवयकडे धावन येता. 'धावनाका, तर तूं गरगडेवन पडतलीं.

अशें कमळा समान पायांचीं पायंजणा किणकिणून सांगतात, तिचे सोपूर कुरटार घाल्ले भांगरा पाट्याचे ल्हान मणी गुण गुणतात 'ती आमचो भार सोसुंक शक्तली?'

'मधुलक्ष्मी' कवितेत तेच नावांचे एक नर्तकीचे पदचलपाचें वर्णन ते करतात:

तिचे वोटाचें तलव ओवळा फूलानी सजोयलां तें तीणे आपणाले गुलाबा सारके गालार दवरलां, तिचो दावो हात सोबितायेन तिचे कुरटार दवरला, तीणे आपणाले दोळे आनी वांकडयो भोवर्यो सुंदर रूपान चलयल्यो

कमळा दळांचे हारान सजोयलो तिचो गळो
मागलान मुखार, आडवो फाडवो चलतालो

सुन्दर ल्हान घवे आनी तांवडे फूलांचीं पांयजणां घाल्ले तिचे पाय गीतांचे ताळ लयाक अनुसरून चलताले. जंय रवंय चांप्या फूलांनी सजायले तिचे हात चलताले, थंय कमळा पाकळे सारके तिचे दोळे प्रीतीन वताले.

तिचे नाचाचे गतींत कुशळाय स्पश्ट जाताली
तिचे हासपांत फूलां झडतालीं
तिचीं अंगां सुन्दर आनी नाजूक आसलीं
आनी तिची पावलां वार्या सारके ल्हवू आसलीं
ती दूदाचे फेणार चलताली सी दिसताली.
'खावपाक कांय ना, न्हेसपाक कांय ना'

कवितेंत फूडे अमीर आशिल्ले एक कुटुंबाचे आतांचे निपट गरीबीचें वर्णन करतात,
ते थंयचे सूण्या पळोवन मात्सो थांबतात:
एक सूणे, ताचे अंगार भरन ऊवो चरतात,
कश्टान स्वास उस्वास घेवंचे वेळार
ताचे बरीचीं हाडां खाल ऊंच वतात,

वरांदार आसा. ताका पळोवन कांय जमनीर पडून साश्टांग नमस्कार घालता असो दिसता:

मुखावयले पाय दीग करन तांचेर तेंकल्लें माथें ऊंच उबारलें.

आनी वर्सानी निस्तेज जाल्ले ताचें दोळ्यांनी भितर आयल्ले मनीशाचेर फक्त दिश्टी

घावंडायली.

वळ्ळत्तोळांची चितारून केल्ले कलेची सुन्दरताय दीर्घ परिच्छेदांत मात्र न्हय, पूण वाक्प्रयोग, एकूच ओळ, गीतांचे कडवें आनी ल्हान श्लोक - हांतूय दिश्टि पडता.

बळ्ळत्तोळांची शैली चडान चड अलंकारीक आसा. तांचे प्रत्येक कवितेंत उपमा आनी रूपक - हे अलंकार चड प्रमाणांत आसात. तांचे रचनांची कल्पना विलासाची सुन्दरताय चडान चड हे विंबांचे प्रयोगांत दिश्टी पडता. तांचे शक्तीची मर्यादा खोस करपी कल्पनाविलासा साकून सर्जन करपी मुळाचे तत्व मेरेन पसरून आसा. 'एक पारवो' कवितेंत ते म्हणतातः

तुचे दोळे सुन्दर बायलो अपणाले कपलार करचे
कुंकुमेचे नाजूक तीळ्यां सारके आसात
तुचे शरीर नवीच फुल्लेली केळी बोंडीचे पातीं सारके आसा
.....

एक पोरणे पिंजल्लें कापूस भायर आयल्लें उशें ही कल्पना करपाक तांकां प्रेरणा दिताः

तुचे शरीराचे चिकलट खांच्यां साकून

कापसा कुटके आप्याय भायर येतात दिश्टी पडता जशें एक कुरूप युवतीचे केसांत माळ्ळें जायचे फूला सारेक दिसता.

होच देखाव कवीक आनी एक विंब घेवुंक प्रेरणा दिंताः

एक रायाचे शरीराक लेगीत आखेर हेंच नसीब उरता पळोवन, हे घवे छातीचे उश्या, हो घवो कापूस भायर धुकलून तूं हासता व्हय?

बंदखणींत बेसल्या अनिरुद्धाक पळोवन कवी अशें तुळा करताः

एक मातीचे आयदनांत एक उजळ दीवो जळता सारके,
मसणांत रोयल्ली आंबया रोंपी सारके,
मडार घालचे वस्त्रा सारके,
धुवरान धांपल्ले फूला सारके,
चिकलांत त्यागल्ले पवित्र बिंबा सारके,
खोस नसीवाक दुस्याशी नक्षत्रांनी मंद केल्लां सारके,
चिकलां फारकल्ले हाती सारके,
योग्य नावांक अपमान हाडचे सारके - दिसता.

'ल्हान सीता'ची आजी, म्हांतारी चेडी 'कामदेवालें भेतल्लें धनुष्य' रूपान हांतणार बागोवन पडल्या. 'नगीला' काव्यात भवदेवन आपणाले जातीचे रीतरिवाजाक अनुसरून आपणाले होकलेक शिंगारतालो. तेन्ना ताचो म्हालगडो भाव ताका आपणाले गुरूं कडे घेवन वता आनी सांगताः

तो आपणाले घराकडे आसलो.
आपणाले नवे लग्न केल्ली बायलेक,
कामदेवाले धनष्याक, हात बोट लावन शृंगारतालो.

'मग्दलन मरियम' कवितेंत ख्रिस्तून रावल्ले सायमणाचे घराक पावंचाक तिची चलपाची गंती सावकास करता:

तिची चलपाची गती सावकास जाली
जशें सागराकडे पांवतर न्हयची गती.

वरसाळे सांजे पावस पडता पळोवन तांकां संसाराचे जीवना पासून उगडास येता:

तूं कश्ट काडून ऊंचायेर चड,
मागीर तूं सकयल पडतलो,
चिकल आनी कांटे आसले फोंडांत,
कोणाचान तुका थांबोवपाक जावना.
तूं एक न्हयंक मेळ आनी सागरां मेळन पुरायेक पांव.
ओ उदक, प्रत्येक पावलाक तूं दाखयता.
संसारीक मार्गार पर्यटकांचे जीवनाची गती
(पावसांत एक भोवंडी)

'वार्यार उबची कविता' नावांचे कवितेंत कवीचो ल्हान पूत कवीन वरोवंची कविता हातां जिरवता:

ती झोपून काडून, भुरग्यान ती वाचली
आपणाले भाशेन, आपणालेच भासेंत,
वर्सांनी पोरणी जाल्ले ते कवितेंत लेगीत
नवे म्होवाचे थेंबे भरसून आसल्ले.

स्वतंत्र भारताचे भूमिकेचेर कवी आपणाली येवजण हे विंवांत परगटायतात:

भारत रूपान हो हाती, आपणाली सांरवळ तुण्टयता, संवसारांत हिंसा करन धावन गोन्दोळ करपाक न्हय पूण आपणाले मजत करपी सोंडाळेन तांत साकून आपणाले संबंदीत भावण्डांक ऊंच काडपाक, जीं खोल उदकांत निराधार पडून कश्ट भोगतात.

विचार विंबांनी दामून आसात आनी प्रतिबिंब आपणाले सुचोवणी बळान नवे सुन्दर रास्ते दाखयतात. ह्याच उपमानी आनी रूपकानी वळ्ळत्तोळांचे कवितेचे वाक्प्रयोग आनी ओळयो मधूरसाणीन आनी आनंदान भरन आसात आनी हो आनन्द केन्नाय पुरो करन घेता.

वळ्ळत्तोळानी आपणाले कांय काव्यांक दृष्टान्त वा रूपक केल्यात. ''वैशसम पोरुम पोरुम' (हें दुख्ख पुरो पुरो) कवितेंत भारताचे राष्ट्रीय कांग्रसाक एक न्हयचे रूपान मानून घेतलां, जी स्वातंत्र्याचे सागराक व्हावंता पूण खंडप आनी गुंडे आडायतात. सुवार्थी शेतकार लेगीत तिका नाश करन उडोवंचाक यत्न करतात. 'प्रभात गीतम' (साकळचें गीत) कवितेंत

फांतोडाक एक वावराडीचे रूपान कल्पना केल्या जी मळवाचे व्हड कूडांत आपणाले वावूरांत गुल्ल आसा. 'विजयिप्पुताका' (तुका जैत जावो) कवितेंत एक म्हान वावराक एक न्हयचें दृष्टान्त रूप दिलां. दोनीय तळाचो अर्थ मेळोवपाक ताणी सभावीकपणान यत्न केला. तांत यंत्रा भाशेन कृत्रीम कांय दिसना.

वळ्ळत्तोळ आपणाले कवितांतले बिंबांचे सुकाळा भायर बिंबांक कवितेचे एक समान अर्थाचे उत्तर म्हण लेकचे कवी न्हय आसल्ले. ते अभिजातवादी कवी आसात. तांत ते स्पश्ट चिंतन आनी समतोल निर्णय कविता रचपांत घेवपाक मान देखताले. आनी ते कल्पना विलासाक सामकी नियंत्रणांत दवरताले. देखून तांची बिंब योजनाची कुशळताय तांचे काव्यांत बिंबां पूर्ण प्रतीकाचीं रूपां घेना आशिल्लीं. तरी आसतना तांचे कवितांत असली कांय विंबां परतून परतून येवंची आसात. जशें न्हयची, उजवाडाचीं आनी काळूखाचीं. व्हावंचे उदक तांकां आकर्शीत करता. तांचे कवितांत जायते न्हयांचें वर्णन मेळता - भारत पुषा, तिरूर पोन्नानी पुषा, पेरियार, नर्मदा, गोदावरी, काळिन्दी आनी मानव जीवन आनी तांची म्हान कार्यां कवितेंत न्हयों जातात. जशें 'प्रयाग स्नानम', 'वैशसम पोरुम पोरुम' आनी अशेच तरेचे हेरकविता. तांचे जायते कवितांत घडल्यो गजालो रात आनी दीस, काळोख आनी उजवाड - हीं गुलामी आनी स्वातंत्र्य, अज्ञान आनी ज्ञान - हांचीं पडविंबा आसात 'इरुळिल् निन्न' (कळोखा साकून) नावांचे तांचे दार्शनीक कवितेत हीं पडविंबां एक नवो घुसपागंदळ प्राप्त करता. प्रकाशाचे मुळावे देवताक - सूर्याचे सूर्याक ते सांगतात:

जर केन्नाय हांव तुका मेळूं-
ना, अशें दिसचें लेगीत मनाक थरथरायता हांव काळोखाचोच एक किडो आसा.
तुचो चेरो सग तेजवंत वस्तूपाशीय तेजवंत हांव मेळोवपाक इत्सा करना.
हें आयकूचेंच म्हाका पुरो कि तू सर्वांतय आसा.

काळोखांत दीर्ग शेंबर वर्सा पडल्लो मनीश उजवाडा खातीर ताचे अंत नाशिल्ले तपसा पासून ते विचार करतात. थकणींत वा खुबळावपांत ते विचारतात, आपणाक तृप्त करपाक तुमकां कितलो प्रकाश जाय? आनी ते मत परगटायतात. ''कदाचित दिसान दीस सूर्य मेरेन स्वयं प्रकाश सोदता.'' पूण ते तपासांत भाग घेवपाक इत्सा करनात:

हांव खंय साकून हे संवसारात आयलां?
कळोखां साकून.
आनी हे काळोखाचो सभावगूण कितें?
कोणाकय कळना.
हांव दिसानदीस वतां खंय?
कळोखा दिकार.
तेन्ना म्हाका इतलोच प्रकाश दिता कित्याक मदले वेळा रूपान?
दुसरे कवितांत दीस आनी रात हांचे परंपरे लागून येवंचे भागीदारीक ते मानतात.

'कालम मारी' (समय बदला) कवितेंत फांतोडेचे नक्षत्राक कळोखाचे मनांत भयान आकांत हाडचे म्हण वारीकसाणीन वर्णन केलां. फांतोडचे नक्षत्र 'रूपान पातळ आसा. गरीबीन घवें जाल्लें शिंवल्लें वस्त्र न्हेसलां आनी तें काळोखाक भय नातिल्लें तीख नदरेन नीट पळयता.' काळोखाच्यो रासो एकमेकांत फुसफुसतातः

कसले अजापांत घालप!

आकाश मेरेन आमी निर्माण केल्ली पाष्णा वंटी चिकलान केल्ले सारके मोडून पडता.

आनी इत:पर्यंत आमचे पावला सकयल आसल्यो दोंगुल्लीयो आपणाली मार्थी ऊच काडुंक लागल्यांत.

एक मांसा कुटक्या सारके आमी हे संवसाराक गिळ्ळा आसाः आनी आतां आमचे केस घवसार काळसार जावुंक लागल्यात.

हांत आनी 'पारवश्यम' सारके दुसरे कवितांत स्वातंत्र्य उजवाडूय गुलामी सगळ्याक गिळचो काळोखय आसा.

वळ्ळत्तोळानी प्रयोग केल्लीं विंवा कवितेचे घडणेक पुश्टी दिता मात्र न्हय, पूण अर्थ आनी भावना हांकां एक गाड मेज - मापय दिता. खूब पोरणे संस्कृत समिक्षणांत गरजेचे दोनीय गुणधर्म - ध्वनी वा संकेत करची शक्त आनी औचित्य वा मर्यादा - तांचे विंबांक आसात.

विंवांचे प्रयोगांत इतले श्रीमंत आसात तरी ताणी रंगांचो प्रयोग भो उणे केल्ला पळोवन अजाप दिसता. परंपरे प्रमाणी रंगाचो प्रयोग केन्ना केन्ना कांय कांय विंबांत केल्ला दिश्टी पडता. जशें शेत अथवा चरबाचें मळ पाचवे गालिचे समान दिसप, गाल गुलाबा सारके, कीराचे दोळे कुंकुमेचे तीळया सारके अथवा ताचे पाय पोवळ्या समान. काय वर्णनांत परंपरे प्रमाणीचीं विंबां नवे भावनाविलासाचे विंबांत विलीन जातात. देख : 'किळिक्कोंचल' कवितेंत आकाशाचें वर्णन

केन्ना केन्ना आपणाले नवे काळीं कूपांसयत
तूं पाचवे रुखाचें अटंगें रान आसा.
केन्ना केन्ना तुचे घवे कूपांचें विस्तारान
तूं आकारान एक खूब व्हड रेवेंची दर्या - वेळ आसा.
केन्ना केन्ना तूं आपणाक सांजे सूर्यकिरणाचे कुंकुमेन सज़ोयता
केन्ना केन्ना तू सगळे आंगाक गोबोर सारल्या सारके दिसता.

पूण रंगांचे यथार्थ निरीक्षण आनी रंगा खातीर रंगाचो प्रयोग करन आनंद पावंप वळ्ळत्तोळांचे कवितेंत सामान्यतायेन दिश्टी पडना. उतरांचीं विंबा चड जायतीं आसात - व्हावंचे उदकाचो कलकल आवाज, कूपांचो गडगडो, ल्हारांचो व्हड गरज जायते सवण्यांचे मंजूळ सूर, वीणा-सितार आनी म्हादाळें - हांचो सूर आनी भुरग्याले चोंचरे उलोवपाचो सूर. एक प्रत्येक अर्थ स्पश्ट करचाक विंबाचो प्रयोग करपांत मात्र न्हय, पूण

योग्य प्रत्यक्ष आशिल्ले पदार्थाचे प्रयोग वरवीं स्पश्ट सामान्य प्रभाव घालपाक ते कुशळ आसात. आकार आनी रंग, नाद, स्पर्श आनी परमळ - हांचो मेळ सादपांतय ते आपणाली कुशळताय परगट करतात. 'ओरु चित्रम' (एक चित्र) कवितेंत ते श्रीकृष्णाचे वर्णन करतात:

चन्द्रमाचे शीतळ तेज,
आनी द्राक्षाचे साराची मधूरसाण:
शीतळ वार्याची आनंदीत थंडतकाय,
आनी तरणे आंब्यापाल्या घोसाची मोवसाण,
आनी आकाशार मोलादीक नवरत्नाचे आर्क निर्माण केल्ले सारके इन्द्र धनुश्याची सुन्दरताय, आनी सांजे फुल्लेवंचे जायचे फूलांचो परमळ, हीं सगलीं आनी दुसरी सुन्दर वस्तू हे ल्हान शरीरांत मेळोवन सोविताय हाडल्या.

'पट्टिल् पोतिञ्ञ तीक्कोळी' (सिलकांत गुठलयलो जळचो काप) कवितेंत पावसाळेची काळी रातीक एक राना रूपान वर्णन केल्या : आकाशाची काळी व्हड रात
उज्यांत पुराय लासून गेल्ले राना सारके दिसताली.
कुपांचो धडधड ह्या त्या वेळार आयकू पडतालो
हतींचे शत्रूचे गरज सारके.

'सांजे प्रार्थना' कवितेचे पयले श्लोकांत, एक गरीब खोंप्यांत एक सुन्दर वायलेक अचकीत पळोवन कवी अजाप परगटायतात:

जळन गोवोर जाल्ले इंगळ्याचे झिगझिगचे उज्या कीट सारके,
वा चिकला उदका तळ्यांत
फुल्ले तांबडे कमळा सारके,
वा वाडते चंद्रकलेक कूपानी घेरो घाल्या सारके दिसची, इतली सुन्दर ही बायल कोण आसा?
जी आपणाले काळोखे ल्हान खोंपीयेचे वारांदार रावल्या?

वळ्ळत्तोळानी प्रयोग करचीं चडांत चड बिंबां एकच तांचे सामान्य गूणा खातीर वेंचून काडल्यांत ना जाल्यार मातसे निरिक्षणांत रूप घेतल्लीं यथार्थवादी बिंबां आसात. तुळा केल्ल्यार थेट विंबां थोडीं आसात. बाकी बिंवांत कांय परंपरे प्रमाणी आसात, अनी सगटांय आपणाले गुण धर्मांत आनी तंत्रांत अभिजातवादी आसात ज्यांक विश्वव्यापी गूण दिल्यात. तीं देख दीवन समजायतात, जितो करतात आनी सजोवतात. पूण तीं कवितेचीं मूळ प्राण न्हय. ती कवितेक आपणांत केन्द्र करन रावयनात.

वळ्ळत्तोळांचे काव्यकलेचो एक दुसरो नियाळ हो आसा जो दुसरे रवंयचाय अणकारांत पळोवपाक मेळचीना - संस्कृत आनी द्राविड छंदांत तांची जाणकारी. ताणी संस्कृतांत उज्वल आनी हुशार पद्य रचलां आनी द्राविड छंदांत मंजूळ आनी गतिशील कविता रचल्या. मलयाळम कवितेक संस्कृत श्लोकां साकून आवय भासेचे लय, ताळ-

हांकां अनुसरून बदलावपाक चड करन तेच जापसालदार आसात. पुराय द्राविड छन्दाचेर तांकां पूर्ण अधिकार आसलो, देखून द्राविड छन्दांत रवयंची रवयंची काव्य रचनेक सुन्दरतायेन प्रयोग करतात म्हण सांगप कठीन आसा. ताणी आपणाले रचनेक चडान चड प्रयोग केला 'केका' छन्दाचो जो अंग्रेजीचे स्वच्छंद छन्दा भाशेन आसा. मलयाळमांत केका छन्दाक वळ्ळत्तोळानीच व्हड म्हत्व दिलां आनी ताका विचारमग्न कवितेक गरजेचें उपकरण केलां.

कवितेंत व्यापल्ली कृती वा गती - हीच वळ्ळत्तोळांचे कवितेचो फांकीवंत सभावगूण आसा. प्रत्येक ओळींत चड करून कांय ना कांय घटता-

उलयल्लें एक उत्तर, हावभाव, हालचाल, बळवंत नाटकीय क्रिया वा सद्दां बदलचे निसर्गीक जीवनाची कांय उजवाडाची झोत वा हेर दुसरे कांय. ते स्तब्ध प्रसंगां या विशयांचे वर्णन विरळच करतात. ते प्रति वस्तूंत जीवन झोत पळोवपाक पसंत करतात. मनीश वा सैम - हांचे जीवनाचे गूणांचे वर्णन करपाक ते भो सोंपेपणान आपल्या ताब्यांत घेताले - हें पळोवन पाठक आनन्दान अजापाचो अणभव करतात. वयर दिल्लीं उद्धरणां अदीक करून हे गुणाचे नमूने आसात. वळ्ळत्तोळांचीं चडान चड काव्यां कथा काव्यां आसात. पांचवे अध्यायांत दिले नामनेचे खंडकाव्यां भायर तांची अनेक ल्हान काव्यांय आसात. जशें 'एक नायर जुवती आनी मुसलमान', 'एक जुवानाचें आत्म संयम', 'एक वीराची पत्नी', 'चोराक एक भेट वस्तू', 'खावपाक कांय ना, न्हेसपाक काय ना', 'सिलकांत गुठलायलो जळचो काप', 'राधेक तृप्त करप', 'सवण्याचो गीत', 'तरुण सन्यासिन', 'भारतीय बायलांची सभाव शुद्धी', 'भक्ती आनी ज्ञान', 'नगीला', 'नरेन्द्राची प्रार्थना', 'निमाणे पत्र', 'फांसीचे तकट्यार', 'ती मुदी', 'भोळ्यांत भोळो', 'मलयाळमाचें माथें', 'हरे कृष्ण' आनी 'जातीची शक्त'. हांचे भायर विचारात्मक, नाटकांतले भाशेन अचकीत घडिल्ले आनी वर्णन करचे प्रसंगाक आधारून रचल्लीं जायतीं काव्यांय आसात. जशें 'वार्यार उबची कविता', म्हजे 'घवसार काळसार केस पळोवन', 'गावंचे मंचवार एक यात्रा', 'शेतकार पावसाळ्या कूप पळयता' आनी अशेंच तरेंचीं हेरकाव्यां. 'अंपाडीक वचो अक्रूर', 'आपणाले पत्नीचे कूडांत रावणाची भेट', 'कर्मभूमीची ल्हान पावलां', 'पापां साकून मुक्ती', 'सांजेची प्रार्थना' - हे सग कवितांत - कविता कसलीय तरा आसो - नाटकांतलें तत्वांचेर लक्ष दिलां, वर्णन क्रमान मुरवार चल्लां, कवितेक जय आसल्लें पात्रांत प्राण संचार आनी अभिनय करपांत मदत दिवंचे सारके परिणाम म्हण धडपी तपशीलांची निवड - हांकां केन्द्र बिंदू केलां. 'खावपाक कांय ना न्हेसपाक काय ना' वा 'गळफांसाचे तकट्यार साकून' जशें कवितांत कवीनी वर्णन केल्लें तपशील आनी नाटकांतले भाशेन घडिल्ले प्रसंग - हांत बराबरी हाडता. कवितेक रूप आनी वातावरण दिवपाक आनी कथेक भावनावश रूच जागोवपाक कवितेंत जायतितल्लें वर्णन आसा आनी कथेंत भावना जागोवपाक गरजेचो विशयूय आसा.

हे कवितांचे एक उणेपण हें आसा कि पात्रांचे मनाचेर चड ध्यान दीवनातिल्लें तांचे प्रक्रियेचे भायरचे करणीचेर लक्ष केन्द्रीय करता. वळ्ळत्तोळ अभिजातवादी कवी आसात. ताचे प्रमाणी करणीच मनीश आसा. मानसशास्त्राची बारीकसाण अभिजातवादीचेर उतरां आनी करणी हांचे वस्तुस्थितीचो अर्द भाग लेगीत प्रभाव घालचाक फावना. ज्याक संवसारांत एक स्पश्ट लक्ष आनी प्रत्यक्ष आसा आनी ज्या मनीशाची करणी पुराय संसार पळोवूं शकता, ताकाच अभिजातवादी मानून घेता. नेमान केल्लो वावर एक व्हड मनीशाक रूप दिता, जशें वारें आनी उदक तांचे सुभावान केल्ले कामां साकून एक सुंदर सैमीक चित्राक जल्म दिता. देखून असले कामांत गुल्ल आसचे मनीशांक तीं सभावीक खाशेलपणां मेळतात जीं तांचे कामाक स्पश्ट करतात आनी तांचे व्यक्तिगत खाशेलपणा पाशीय चड म्हत्वाचीं आसात. संस्कृत नाटकांतले नायकांक ‘धीर ललित’, ‘धीरोदात्त’ आनी नायिकांक ‘मुग्धा’, ‘प्रौढा’ वी विभागात वर्गवारी करपांत हेच तत्वाचो आधार आसा. पात्रांचे वर्गवारी केल्या बराबर मनोभावांचेय वर्गवारी केल्यात. व्याख्या थारावपाचे कार्यां फाटी व्याख्या थारावपाचें मनोभाव आसात आनी हे मनोभाव कांय निश्चित प्रकारीं काव्यांत ‘रस’ रूपान बदलतात. वळ्ळत्तोळ अभिजात साहित्याचे विद्वान आशिल्ले. आनी ते एक शुद्ध अभिजात कला - कथाकळी आनी ताचे साहित्या निमित्तीं खोलायेन प्रभावीत आसले. सभावीकपणान ‘मग्दलन मरियम’ काव्यांत पापाक समजूंक कठीन मानसशास्त्र आनी पच्छाताप आमकां दिश्टी पडना. ‘नगीला’ काव्यांत व्हरडीकेचे फेस्तां साकून सन्यास जीवनाकडे तांडून व्हरची एक तरण्याट्याची कथा आसा. प्रेम आनी सन्यास हांचे मदेंचे झगड्याचे सुक्षीम कार्यापासून कांय परगटायलेना. वळ्ळत्तोळांचो नायक आपणाले व्हकलेचे सुन्दरताये पासून उगडास करता आनी नियंत्रण करपाक कठीन आकर्शणाची अणभव करता. भौतीक विकाराक मोगाचो स्पर्श दिला. ‘आपणाले पत्नीक रावणाची भेट’ कवितेंत रामरावण झूजाचें मदें रावण मण्डोदरीक भेंटुंक वता. ताचो पूत मेघनाद - ताणी दुश्मनाचेर जय प्राप्त केला - हाचे खातीर तिका अभिनन्दन करपाक तो आयला. रावणाक दिल्ले येवकाराचे वैभवापासून खोलायेन स्पश्ट केलां. रावणाचे सर्वय अपराधांची समजिकाय थोडे भितर एक वाक्यांत सांगलां ‘हांव आपणाले मोगाचे पत्नीचे पायांकडे आपण जिरवले तिनीय लोक भेट रूपान दवरूं, जाल्यारीय, हांवें, रामाचो दुश्मन, तीचो आदर केलोना आनी तीचे खातीर कांय पुणीय केलेना.’ हांत कांय दुबावना, थोडे भितर सांगपाचो हो एक नामनेचो नमूनो आसा. पूण सम्राटासंबंदी भव्यताय आनी इन्द्रियांक खोस दिवपी विलासी जीवन - हांचे वर्णना मदें हें म्हत्व ना आशिल्लें सारके दिसता. जीवना संवंदी कवीचे दिश्टीचे मर्यादापासून तांची टीका करप वरें न्हय. ताणी संवसाराचें उथळ रूप पळयलां, प्रक्रिया आनी वावरांचे रूप देखलां. ताणी रवयंचाय थळाव्याचे नियाळाक म्हत्व दिल्ले ना. प्रत्येक वस्तूक वेंचून काडपाक, संपादन करपाक आनी सुन्दर करपाक - हांचेरीच ते संवंद दवरताले.

एक कलाकार म्हण वळ्ळत्तोळांची वरिश्ठ सिद्धि ही आसा कि ताणी मलयाळम भास

कितें करपाक योग्य आसा म्हण स्पश्ट दाखयलें. ताणी तिका नाचुक-गावुंक, मैदानावेयल्यान व्हळपाक, राणीये सारके प्रतापान जीयुंक आनी देवीसारके उदार जावपाक शिकयलें, कवीची आत्मा आनी मलयाळम भासेची प्रतिभा - हांचे मदें एक पूर्ण मेळ आशिल्लो, अशें दिसता. मानमर्यादेचे पोरणे अभिजात सद्गूण तांचे घटकां - संवंद, स्पश्टपण, अचूकपण आनी कांत-सयत ताणी एकटायलीं आनी अभ्यास केलो. ताणी ल्हान कवितेक घट, विविधताय आशिल्ली आनी नाटकीय केली. विविध तराच्यो मागण्यो पुराय करपाक ताणी नाटकीय काव्याक गुणांत अचूक, गतींत हुशार आनी योग्य केलें. काव्याचे वाक्प्रयोगात आनी ओळीचे निर्माणांत ते अति उत्तम शिल्पकार आसात आनी आपणाले आत्माचे आरोग्यवंत आनंदां साकून आपणाले उतरांचे उजळकायेंत अखंडीतपण चालू दवरपांत ते एक म्हान कलाकार आसात.



# सहकारी ग्रन्थांची नामावळ

1. वळ्ळत्तोळ - वि. उण्णिकृष्णन् नायर, मातृभूमी, कालिकट, 1962

2. वळ्ळत्तोळ उपहारग्रन्थम -
संपादपी : डॉ. चेलनाट अच्युत मेनोन आनी
डा. एस.के. नायर, जनता प्रेस, 1948

3. वळ्ळत्तोळ कविता - संपादपी : कविता समिती,
एन.बी.एस. कोट्टयम, 1956

4. मातृभूमी-वळ्ळत्तोळ संस्करण - मातृभूमी, कालिकट, 1958

5. कैरळियुटे कथा - एन. कृष्ण पिल्लै, एन.बी.एस., 1958



वळ्ळत्तोळ नारायण मेनोन (1878-1977) आधुनिक मलयाळम कवितेचे मार्गदर्शकांत मुरवेल आशिल्ले. ते परंपरागत रीतीर शिकवण पाविल्ले. भारतीय संस्कृतायेंत निपुण आशिल्ले. ताणी वाल्मीकी रामायण आनी रुग्वेद - हांचो मलयाळम भासेंत अणकार केला. ते भायरे आशिल्ले. ताणी कैरळी साहित्याचे आनी 'कथाकळी' कलेचे प्रचारा खातीर आपणाले सगळें जीवन सोंपयलें. ते 'कथाकळीकलामण्डलम' हाचे संस्थापक आनी संरक्षक आशिल्ले. ताणी आपणाले मंडलीक देशविदेशांत व्हरून हे कलेचो प्रचार केलो. ते गान्धीजीक आपणाले मानादीक गुरू मानताले. ताणी बिटीश सख्मारान दिलो पुरस्कार न्हंयकार केलो. ते व्हड पंडित आशिल्ले. तांकां जायते विशयांचे गित्यान आशिल्लें. ताणी साहित्य निर्माण करून मलयाळम साहित्याचें महत्व वाडयलें. ते एक 'कळासिसिस्ट' आनी 'रोमांटिक' कवी आशिल्ले. ते साहित्य अकादमीचे वांगडी आशिल्ले. 'पद्मभूषण' विरुद दीवून भारत सरकारान तांचो भोवमान केलो.

प्रो. बी. हृदयकुमारी मलयाळम भासेची 'विदुषी' आसा. ती कॉलेजांत आंग्रेजी शिकयता. तीणे जायेत तपासणीक ग्रन्थ रचल्ले आसात.

Vallathol Narayan Menon (Konkani), Rs.25
ISBN 81-260-1149-1